

# Info Tech Corporation of Goa Ltd.

**(A Government of Goa Undertaking)**
***[An ISO 9001:2008 Certified Company]***



*COMMITTED TO ASSIST GOVERNMENT OF GOA FOR "EMPLOYMENT GENERATION IN IT AND IT ENABLED SERVICE INDUSTRIES"*

## WHAT WE DO

### IT Parks

Setting up the state-of-the-art infrastructure to promote software and IT enabled service units in the State of Goa with respect to IT Policy of the State of Goa. Two initiatives have been under taken such as

? Rajiv Gandhi IT Habitat, Dona Paula

? Priyadarshini IT Park, Socorro/Salvador-do-Mundo

### e-Governance Software

ITG has been assisting Government of Goa in implementing e-Governance projects for various Government Department of Corporations.

### IT Infrastructure

ITG has executed the projects of supply & commissioning of computer hardware, system software, computer networking and other essential requirement to achieve the objectives of the Government under e-Governance.

### IT Knowledge Center




IT Knowledge Center project has been implemented which mainly focuses on achieving 100% e-literacy within the State of Goa and also help the unemployed youth to acquire the required employable skills. Total 40 centers have been set up in the State of Goa.

### e-Services




Various e-Services are available on *eservices.goa.gov.in* (e-Service Portal), which enables citizen to apply online through portal / Lok Seva Kendras (LSK) Residence Certificate, Driving License etc. without visiting the Department. Citizen will be intimated through SMS to collect the documents/ certificate from the Department once it is ready.

## WHAT WE OFFER

### e-Procurement / e-Tendering

ITG is implementation agency for e-tendering solution to bring in more transparency and expediency in the entire tendering process and to provide quality information efficiently and cost effectively.
*www.etender.goa.gov.in*

### Mobile Service Delivery Platform (MSDP)

**m-Governance**

In association with CDAC, ITG envisage to develop MSDP. This would provide various gateways would be set up such as, USSD, LBS, CB, 3G, Apps store, etc

### e-SMS




The unique e-SMS service Portal has been developed for providing various SMS service to the Citizen, Government employee and Government business.
*esms.goa.gov.in*

### Other Services offered

- Centralised Antivirus solutions
- Facility management for hardware, networking and all IT Infrastructure.

*Admn. Office: Above Alcon Hyundai Showroom, 3rd Floor, NH-17, Porvorim – Goa 403 501.*
*Regd. Office: Capital House, 2nd Floor, Near Assembly Complex, Porvorim - Goa 403 521 Phone nos. 0832 – 2416024, 2415192 Fax no. (0832) – 2412855 E-mail: info@infotechgoa.com*
*Visit us at www.infotechgoa.com*

GO GOA
A perfect holiday destination

Incredible !ndia

GOA TOURISM

# When on holiday, let safety lead the way



Welcome to Goa, where beautiful beaches, delicious cuisine and a friendly ambience promise the perfect mix of rest and recreation. Goa is an extremely safe place to travel around. However, we advise due precautions to be taken while you travel as you would do in any tourist spot in the world. Remember, safety is never on vacation.

## TIPS FOR VISITORS

**Drugs:** Use, possession and trade of drugs is totally illegal in Goa. Drug offence is non-bailable and penalties for smuggling, possession and use are severe.

**Drinking & Driving:** A foreign national must possess an international driver's license. Traffic circulation is on the left. Don't drink and drive or use mobile phones while driving. Wear a helmet while riding a two-wheeler. Follow police traffic rules and keep valid documents in your possession while driving.

**Cleanliness & Hygiene:** Use the nearest dustbin to dispose waste. Don't litter. Use mosquito repellents to protect yourself from mosquitoes. Public pay toilets are available at most places of tourist interest.

**Smoking and Gutkha:** Smoking is prohibited in public places. Chewing and spitting of Gutkha is banned.

**Beach Safety:** Read the signboards and follow the instructions before entering the water. Be careful when wading at the beach, undertow riptide currents can be strong. Consult the lifeguards for safe areas to swim. Nudity on beaches and public places is strictly prohibited.

**General Safety:** Contact nearest Govt. of India/State Govt. Tourist Office/Counter Tourist Police/ Tourist Assistance Booth for any tourist assistance. In Emergency contact 108 for medical/fire/police. Police 100. Fire 101.



**DEPARTMENT OF TOURISM**
Patto, Panaji, Goa - 403001, India.
Tel. No. 91-832-2438750/52. Fax: 91- 832-2438756.
E-mail: goatourism@dataone.in
http://www.goatourism.gov.in

**GOA TOURISM DEVELOPMENT CORPORATION LTD.**
Trionora Apartments, Dr. Alvares Costa Road, Panaji - Goa.
Ph. 0832-2226515 /2224132. Fax: 0832-2430133
Email: reservations@goa-tourism.com
Website: www.goa-tourism.com

Vinson Graphics

कोंकणी मासिक
बिम्ब

१२वें वर्स





वर्स : १२ अंक ४

एप्रिल २०१३

मोल २० रुपया

मुखेल संपादक
**दिलीप बोरकार**

मुद्रक आनी प्रकाशक
**दिलीप बोरकार**

छापणावळ
इम्प्रेशन्स, बेळगांव.

व्यवस्थापक
**कामिनी किणी**

अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ
**श्वेता नाईक**

वर्गणीचे दर
वर्सुकी ३५० रु. / तीन वर्सां १००० रु.

खंयच्याय म्हयन्या सावन
वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक
'बिम्ब मन्थली' ह्या नांवान धाडचो

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो**
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४३८३५५
E-mail : bimbkonkani@yahoo.co.in

ह्या अंकांत उक्तावल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ ताचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.

# संपादकीय

## मुख्यमंत्र्यांचें अभिनंदन करूंकच जाय....!

गोंय राज्याचे मानेस्त मुख्यमंत्री भौ.मनोहर पर्रीकार हाणीं निकतोच राज्याचो २०१३-१४ ह्या वर्साचो अर्थसंकल्प मांडलो. अर्थसंकल्प हो विशयूच असो, तो सगळ्यांकूच एक सारको अरगती पड़ना.जांच्या हिताचो तो आसता तांकां तो बरो दिसता आनी जांकां अर्थसंकल्पाक लागून आपल्या धंद्याक आनी तातुंतल्यान जावपी लाभाक चुट्टी लागतली अशें दिसता ते नाकां किल्लुसतात. देखुनूच अर्थसंकल्प मांडचे आदी आनी मांडल्या उप्रांत संमिश्र प्रतिक्रिया येवप हें थारिल्लेंच आसता! तो अर्थकारणाचो आनी राजकारणाचो एक वांटो. देखुनूच अर्थसंकल्प मांडल्या उप्रांत मुख्यमंत्र्यांची कोणे तुस्त गायली आनी कोणें टिका केली हें व्हडलेंशें घेवन बसपाचें ना. राज्याचो अर्थसंकल्प हो राज्याचे सर्वसामान्य जनते पासत आसता, तातूंत राज्यांतले जनतेचें हीत आसपावल्लें आसता. देखून तांकां नदरेमुखार दवरूनच राज्याचो मुख्यमंत्री वर्सुकी अर्थसंकल्पाची आखणी करता. तातूंतच जनतेच्या कल्याणाची मोख आसता.

गोंय राज्य हालींसराक विंगड विंगड अरिश्टांतल्यान वता.तातूंत आर्थिक अरिश्ट चड आंकांताळें आसा.तरी लेगीत अर्थमंत्री ह्या नात्यान मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकारान ह्या अर्थिक वर्सांत जी कसरत केल्या ती खरेंच तोखणायेची आसा. जांकां अर्थकारण कळटा ते हें मान्य करतलेच. सर्वसामान्य लोकांचें हीत नदरेमुखार दवरून मांडिल्ल्या ह्या लोककल्याणकारी अर्थ संकल्पाची तुस्त सामान्य जनते कडल्यान जावंक जाय तितली जाल्या काय कितें हें जरी कळपाक मार्ग नासलो तरी हो अर्थसंकल्प मुख्यमंत्र्यांनी सर्वसामान्य जनतेक समजता ते कोंकणी भाशेंत मांडलो देखून सगळ्या थरांतल्यान तांची तोखणाय जाल्या आनी तांकां ती फावता!

विधानसभेचो कारभार हो पारदर्शी आसपाक जाय,ज्या लोकप्रतिनिधिनी लोकांमुखार वचून आपल्याक मतां दियात म्हूण जे भाशेंतल्यान विनयलें,आपूण तुमच्या मतांनी वेंचून आयलों जाल्यार आपूण अमकें अमकें करतलों म्हणपाची भास जे भाशेंतल्यान दिली आनी वेंचून येवन विधानसभेंत पावतकच आपल्या मतदारसंघांतले प्रस्न सभाघरांत मांडतना ते लोकांक समजता तेच भाशेंत मांडपाची गरज आसता! हाका लागून लोकानी वेंचून धाडिल्लो लोकांचो प्रतिनिधि कशे तरेन मतदारसंघांतल्या लोकांचे प्रस्न उपस्थित करता तें लोकांक बेस बरें कळटा! पूण आमच्या गोंयांत सगळें परतेंच जाल्लें दिसून येतालें! जे कोण उमेदवार वेंचणुकेक उबे रावताले ते मतां मागतना कोंकणींतल्यान गोड गोड उलोवन मागताले आनी वेंचून आयले उप्रांत विधानसभेंत पावले बराबर कोंकणी विसरताले. तांकां आपली भास उलोवंक लज दिसताली काय आपले विचार उक्तावंक परकी भास सोंपी दिसताली हें कळूंक मार्ग नासतालो! पूण एक गजाल खरी, हे तथाकथीत लोकप्रतिनिधी पडमूर जावन लोकांकडेन प्रतारणां करताले!

गोंयचे जे जे पक्ष कोंकणीचें नांव घेवन वेंचणुको लडले आनी सत्तेर आयले ते सत्ता हातांत आयले बराबर कोंकणी भास विसरले! पक्ष मुखेल्यांक केन्नाच आपल्या आमदारांक सांगचें दिसलेंना,बाबानो पक्षाचें धोरण कोंकणी आसा आनी तुमकां विधानसभेच्या सभाघरांत कोंकणीच उलोवंचें पडटलें! पूण दुर्दैवान अशें केन्ना घडलेंना आनी घडटलें म्हणपाची अपेक्षाय गोंयकारांनी केन्ना धरली ना. कित्याक हातुंतल्या एकल्याकूय निजाचो अभिमान केन्ना नाशिल्लो! तांचे पासत आप तें भश्टें आनी वंद्य परक्यांचें उश्टें आशिल्लें!

पूण फाटल्या पन्नास वर्सांचे विधानसभेचे कारकिर्दीत पयलेच खेप पर्रीकारान आनी सभापती आर्लेकारान सभाघराचें पुराय वातावरण कोंकणीमय करून उडयलें.माननीय मुख्यमंत्री मनोहर पर्रीकार कोंकणी वादी काय कितें खबर ना! पूण तांचे एकंदर वागणुकेवेल्यान ते नक्कीच गोंयवादी म्हणपाचें होलमता. कित्याक कितलींऽ वर्सां जालीं जानेवारी हो अस्मिताय दीस म्हूण मनोवचो अशी स्वाभिमानी गोंयकारांची मागणी आशिल्ली ती ताणीं महाराष्ट्राच्या पोशान उदक पिवप्यांचो विरोध आसतनाय मानून घेतली! आता सरकार तो कशे पद्धतीन मनयतलें तें फुडल्या वर्सा जानेवारीकूच कळटलें!

पर्रीकाराच्या सरकारान आतांच एक वर्स पुराय केलां.तांच्या पक्षांतल्या प्रत्येक आमदाराच्या कोंकणी निश्ठेविशीं दुबाव घेवपाची गरज ना. पूण कांय जाण हेर पक्षाकडल्यान उमेदवारी मेळना म्हूण भाजपात रिगले आनी सुक्या वांगडा ओलें जळचें तशें वेंचून आयले तांच्या रगतांतली फ़िरंगी भास काय बेगीन वचतशी दिसना, तरी फुडल्या चार वर्सांत ते पर्रीकार आनी तांच्या संवगड्यांचे लगाडीक पडून गोंयकार जावंक पावले तरी खूब जालें.

विधानसभेंत पर्रीकार अर्थसंकल्पाचें भाशण कोंकणींतल्यान करतालें तें जो कोण खरो गोंयकार आसा ताका बेस बरें मात्तूय तकली खरपीनासतना कळ्ळां हातूंत दुबाव ना. कित्याक तो तांचे आवयभाशेंतल्यान आशिल्लो, देखुनूच तो तांच्या काळजामेरेन पावलो. पूण विरोधी पक्ष फुडारी प्रतापसिंह रावजी राणें हांका तो समजलो ना खंय! फाटलीं तीन चार दसकां जी व्यक्ती गोंयच्या एका गांवगिऱ्या वाठाराचें प्रतिनिधित्व करता आनी जे एक तप गोंयचे मुख्यमंत्रीआशिल्ले तांकां शुद्ध कोंकणींतलें उलोवप कळना हें खरेंच गोंयकारांचें आनी सत्तरीच्या लोकांचें दुर्दैव्य म्हणपाचें! खावचें घोवाचें आनी गावचें मिणाचें असले वृत्तीचे कांय लोक आसतात तांकां माफ करून गोंयच्या हिताचें जें जें कितें बरें घडटा ताका येवकार दिवन, जे कोण त्या इतिहासाचे कर्ते आसात तांकां सलाम करून तांच्या फुडल्या कार्याक उर्बा दिवप हें दर एका गोंयकाराचें काम,देखून परत एक खेप मुख्यमंत्र्यांचें अभिनंदन!

चणचण मार्च म्हयनो सोपचे आदींच जाणवपाक लागता!

गोंयचे सुटके उपरांत आमी गोंयकारांनी उदक आडावणेचीं पारंपारीक साधना आडनदर करून धरणां सारख्या अर्विल्ल्या साधनांचेर चड भर दिवंक आरंभ केलो. तीच गोंयचे उदरगतीची खरी मोख असो कितेंतरी विचार करून धरणां बांदपाक प्राधान्य दिवपाकडेन सरकाराचो कल दिसूंक लागलो. १९७५ वर्सा साळावली धरण प्रकल्पाक हात घाल्लो तेन्ना ताचो अदमास खर्च ९ कोटींचो आशिल्लो. त्या काळार ही रक्कम दोळे धवे करपाक लावपासारकीच आशिल्ली! पूण जेन्ना हो प्रकल्प पुर्णत्वाकडेन पावचो जालो तेन्ना ताणें खर्चाची मर्यादा हुपून हो आंकडो १६० कोटी रुपयां भायर पाविल्लो. आज ह्या धरणाकडेन गोंयकार पळयता तेन्ना हें धरण गोंयकारांच्यो फुडाराच्यो उदका गरजो पुराय करूंक शकतलें काय तें एक स्मारक कशें जावन उरतलें अशें प्रस्नचिन्न तांच्या मुखामळार निशेल्लें दिसता.

धरणां बांदप, तातूंत न्हयचें उदक आडावन दवरप ही मनशाची तकली! हे येवजणेकडेन मनश्याचे बुद्धीचो आनी शिक्षणाचो संबंध आसलो तरी सैमाकडेन ना. सैमान झरे,तळीं,तळयो,तलाव,आगर असल्या निर्मणेंतल्यान ही वेवस्ता आनी तजवीज अविरत चालूच दवरिल्ली. हो वावर करपाक मनश्याची गरज नाशिल्ली. मनश्यान करपाचो आशिल्लो तो फक्त सांबाळ, फुडले पिळगे पासत. पूण मनश्यान असैमीक तजवीज करपाचेर चड भर दिवन जे सैमीक,पारंपारीक उदकास्रोत आशिल्ले तांचेर आडनदर केली. बांयो,तळयो हांच्या सारख्या स्रोतांचेर पद्धतशीरपणान बळयाच आडनदर केली.कांय जाणकारांचें म्हणणें आसा,गोंयांत आयिल्ले अभियंते हे गोंया भायल्या राज्यांतले जाल्ल्यान ह्या लोकांचे हितसंबंध वेगळे आशिल्ले! तांचे पासत गोंय हें दुबय जाल्ले कारणान जोड हीच तांची

***आमी दुडू जोडपाचे भकीक पडून सैमीक स्त्रोतांचो विध्वंस चलयला. मीना खातीर गोंय खणलें. घरा बांदपाक शेतां पुरयलीं. तीय सुवात कमी पडटा म्हूण दोंगरांचेर आक्रमण केलें. दोंगर बोडके करून थंय इमारतींचें रान उबें केलां. हाचो परिणाम गोंयच्या उदका स्त्रोताचेर इतलीं वर्सां सावन जायत आसा.***

मुखेल मोख आशिल्ली. ते भायर तांकां थळाव्या सैमीक रचणायेची कल्पना नाशिल्ली, जी हांगच्या थळाव्या गांवकारांक आशिल्ली. तांची गांव वसोवपाची कला आनी अभियंत्यांचें पुस्तकी गिन्यान हातूंत फरक आशिल्लो. त्या भायर धरण प्रकल्पांत कोट्यानी रुपयांची गुंतवणूक आशिल्ल्यान असलेच प्रकल्प चालीक लागल्यार तांचें हीत आशिल्लें! जेन्ना प्रगत जग धरणा सारख्या प्रकल्पांच्या दुश्परिणामाचेर गंभिरतायेन विचार करतालें, पर्यावरणवादी असल्या प्रकल्पांचेर फेरविचार जावपाची मागणी करताले तेन्ना आमी गोंयकार धरणाचे उभारणेक लागिल्ले. हांगा धरणां उभारून गोंयकारांक कितलो फायदो जातलो हाचे परस आपल्याक कितलो जातलो हाचेरूच ह्या मळावेल्या जाणकाराचें लक्ष केंद्रीत जाल्लें आशिल्ल्यान गोंयचे सैमीक उदका स्रोत आनी पारंपारीक उदका वेवस्ता तांकां जाणवायेची दिसलीना.

आमच्या राजकारण्यांक फकत मतांची आनी दुडवांची गरज आशिल्ली. उदरगतीच्या नांवान घरांघरांनी नळाची जोडणी पावयल्यार ती एक व्हड क्रांती जातली, ह्या येवजणेचेर जो दुडू खर्च जातलो ताचेवेलो मलिदो मेळटलोच! त्याभायर गांवगिऱ्या वाठारांतल्या घरांघरांनी नळ पावयल्यार मतांय आपले वाटेन वळटलीं

हो दुहेरी फायदो दोळ्यांमुखार दिशिल्ल्यान वर्सुयभर शुद्ध उदक दिवपी बांयो वापराविणें उडोवन लोक नळाच्या उदकाची वाट पळोवंक लागले! नळांतल्यान आयतें उदक मेळिल्ल्यान बांयचें उदक काडपाक आंग मारूंक लागले. खरें म्हळ्यार नळ ही शहरी लोकांची गरज! शारांतली लोकसंख्या चडावत संख्येन वाडपी जाल्ल्यान शारांतल्यो बांयो थंयच्या लोकांची गरज पुराय करूंक पावना जाल्ल्यान नळाची गरज उप्रासली.पण तिकाच उदरगत मानून आज पुराय गोंय नळामय जाल्लें आसा.बंगल्यांत रावपी लोकांसावन खोपटेंत रावप्यामेरेन सगळे लोक आपले मातयेपासून कितलेतरी मैल पयस आशिल्ले मातयेंतलें उदक खावंक लागले. नळाच्या उदकाची वाट पळयत जागरणां करूंक लागले. नळ आयलोना जाल्यार रांदपाचें बंद करून हॉटेलांत जेवंक लागले! बांयचें उदक काडपाची संवय गेल्ल्यान गोड उदकाच्यो बांयों सासणाच्यो ना जावन गेल्यो.

मडगांव शारांत एका काळार शंबरांवयर बांयो आशिल्ल्यो. आयज थंय एक्कूय बांय दिसना. सगळ्यो पुरोवन उडयल्यात. पणजे शाराचीय तीच गत. पणजे सांत इनेज वाठारांतली, एका काळार सगळ्या पणजेकारांक उदक खावोवपी बिस्माची बांय आयज सासणाची काळाआड जाल्या. लोक तिजें नांव लेगीत विसरल्यात. हेर शारांतल्योय बांयो आज वापराविणें पडून आसात. तांचो वापर आतां कचरो उडोवपा पासत जाता.

शारांतली ही गत जाल्यार गंवगिऱ्या वाठारांतली दुसरी कितें आसा अशें न्हय. शारांत नळ पावले ताचें कारण वाडटी लोकसंख्या. तांची गरज पुराय करूंक हेरकडलें उदक थंय पावोवंक नळा इतली सुविधाय दुसरी नाशिल्ली. पूण गांवगिऱ्या वाठारांत नळाची खरेंच गरज आशिल्ली?

गोंयांत एका काळार ५०० वयर नितळ उदकाचे झरे आशिल्ले. एप्रिल-मायाक झरीर न्हावपाक वचप हो एक उत्सव आसतालो. खारें उदक न्हावपाक दर्यार वचपाचो जसो एक वर्सुकी कार्यक्रम आसतालो तसोच झरीचें उदक न्हावपाचोय कार्यक्रम आसतालो. आयज जंय नळ पावल्यात थंय बांयची जशी अवतीकाय जाल्या तशी झरींचीय जाल्या. लोक ह्या स्त्रोतांची वाट विसरल्यात. केपें, काणकोण, पेडणें सारख्या कांय गांवांनी जंय नळ पावूंक नांत, वो पावून नळाक उदक येना थंय ह्या झरींचो वापर आज लेगीत सर्रास जाता. पूण फोंडें सारक्या म्हालांत जंय दोनशीं-अडेचशें झरे आशिल्ले तांची परिस्थिती बिकट जाल्या. झरेश्वर देवाचो व्हांवतो झरो हांगा आयज देऊळ बांदिल्ल्यान, टायल्स घाल्ल्यान घाण उदकान झऱ्याक नश्ट केला. झऱ्याक देवाचें रूप दिवन ताका झऱ्याचो ईश्वर-झरेश्वर करपी संस्कृती नळेश्वरान ना नपयत करून उडयल्या. नळेश्वरान आयज असले कितलेतरी झरेश्वर सासणाचे नानपयत केल्यात.

नळाच्या आक्रमणाक लागून एकेच सुवातेवेल्या उदकाच्या स्त्रोताचेर ताण आयला तो जालोच. पूण हाका लागून उदकाचे हेर स्त्रोत सासणाचे बंद जावंक पावले. तेच वांगडा भलायकेचो व्हडलो प्रस्न उबो रावला. शुध्दीकरणाच्या नांवान उदकांत जें कितें रसायन घालतात तें दिसपट्टें लोकांच्या पोटांत वता तें जालेंच, पूण नळ येवचे आदीं बांयचें वो झऱ्याचें उदक घरांत हाडपा खातीर तें उसपतना जो दिसपट्टो व्यायाम जातालो तो व्यायाम आयज ना जाला.

घरांतलीं मनशां जडावल्यांत आनी हे सुखवस्तु जिणेक लागून मधुमेह आनी मोठसाणेच्या दुयेंसाचे भकीक पडल्यांत. नळाचें उदक आयलेंना जाल्यार उदकाच्यो विकत्यो बाटल्यो हाडपाची संस्कृताय आयज



दोंगर बोडके करून तांचेर इमारती बांदपाचो वावर गोंयांत सगळेकडेन चल्ला...!

शारां वांगडाच गांवांगांवांनीं रिगल्या. हें उदक खंयचें? तें खरेंच पिवपाचे लायकीचें आसा काय? ताचें योग्य प्रकारान शुध्दीकरण केलां काय? हाचेर कोणूच लक्ष दिना. सांगता त्या दरान उदक घेवन तें पिवप इतलेंच आज लोक जाणांत! बांयचें उदक पिवपाचें बंद जाल्ल्यान, मातयेकडले आमचे संबंद तुटल्यात. आमच्या शरिरांतली प्रतिकार शक्त दुबळी जाल्या. आमी ही विकती पिडा सुदारणेचे नांवान, नवश्रीमंतीच्या नाड्यार गळ्यांत बांदून घेतल्या.

आमचो सरकार उदकाची समस्या गोंयांत ना अशें कितलेंय सांगता आसलें तरी उदकाचो दुकळ आमकां दिगंतांत दिसता... गोंयच्या औद्योगीकरणाक लागून जळामळाक औद्योगीक वसाहती निर्माण जाल्यात. ताणीं चडश्या वाठारांतले उदकासाठे नश्ट करून उडयल्यात. कुंडयची औद्योगीक वसाहत निर्माण जाल्या उप्रांत थंयच्या सरभोंवतणच्या झऱ्यांचें, बांयचें उदक रसायनाक लागून इबाडलां. प्रियोळ, कुंकळचे बी झऱ्यांच्या उदकांत न्हाल्या उप्रांत आंगार पुरळ येवपाचे प्रकार जाल्ल्यान ताचेर बोवाळूय जाल्लो.

आयज आमकां वता थंय बांदकामांचो सांवार दिसून येता. सपाट सुवातां वांगडाच दोंगुल्ल्यांचेर रूखावळ सपाट करून थंय व्हडल्या व्हडल्या इमारतींचे प्रकल्प वयर सरतात. ह्या इमारतींच्या संडासांच्या सेप्टीकटॅन्काचो आनी सोकपीटांचो भंय आयज म्हारू जावन वयर सरता. तांचो धोको जमनी पोंदच्या उदका स्त्रोताक उप्रासला. केंद्र सरकाराचो 'मॅन्युअल ऑन सेवरेज ॲन्ड सिवेज ट्रिटमेंट' सगळ्या राज्यांक लागू जाता. पूण ताची अंमलबजावणी गोंयांत खरायेन जाता काय ना हें पळोवपाचीं यंत्रणां दिश्टी पडना.

कायद्या प्रमाण सेप्टीक टॅन्क फक्त बंगल्यांक आनी ल्हान घरांक आसूंक जाय. व्हडल्यो इमारती तशेंच मल्टी हाऊसींग प्रकल्पाचे संडास, मोठे आकाराचे सिवेज ट्रिटमेंट प्लान्ट हांच्या पायपांक जोडून आसूंक जाय. खूब प्रमाणांत निर्माण जावपी 'टॉयलेट वेस्टेज' हांकां सेप्टीक टॅन्क आनी सोकपीटांची वेवस्था पावना. ते पासत एक केंद्रीत 'सिवेज ट्रिटमेन्ट प्लान्ट' लागता. नातर हे सोकपीट भरून ओततात आनी

जमनींतल्या उदकांत मिसळटात. ह्या प्रकाराक लागून आयज शारांतल्या उदका स्त्रोता वांगडाच गांवगिऱ्या वाठारांतल्याय स्त्रोताचो इबाड जाला. आयज पुराय गोंय ह्या प्रचंड इमारत प्रकल्पाक लागून एक शार जालां. गोंयभर व्हडल्यो व्हडल्यो इमारती उब्यो रावतात. कायद्या प्रमाण शार आनी नगर नियोजन खात्यान व्हडल्या इमारतींक मान्यताय दितना सिवेज ट्रिटमेन्ट प्लान्ट आसात काय ना हाचेर लक्ष दवरूंक जाय. पूण भ्रश्टाचाराक लागून आयज कोणूच ह्या गजालींकडेन लक्ष दिनांत. सामान्य जनतेक तर हे विशीं कांय पडून गेल्लें ना. पर्यावरणवादी कामधंदो सोडून हें घेवन बसल्यात, तांकां आवाज काडल्यार मारफार करपाच्यो धमकावण्यो येतात.

आमच्या दोळ्यांमुखार गोंयभर इमारत बांदकामाचो म्हारू वयर सरतना दिसता. इमारत जितली वयर वता तितलीच ताचे पासून उद्भवपी त्रास आनी पिडा जमनीपोंदा वता. ह्या इमारतींत रावपी लोकांची हळशीक जमनीपोंदचें उदक इबाडत वता तर दुसरेवाटेन गोंय सिवेज महामंडळ सामकें गर्भगळीत जावन गेलां. गोंयचें शारीकरण नेटान जायत आसा आनी ताचे हळशिकेंत हें म्हामंडळ पुरवत आसा.

दुसरेवटेन आनीक एक राकेस उबो रावून थैथै नाचता तो 'टॅन्करांचो'. जमनी पोंदचें उदक कसलीच दया माया दाखयनासतना हे राकेस तें जमनींतल्यान शोसून घेतात. भौशीक बांदकाम खातें उदका पुरवण करूंक उणें पडटा देखून ह्या टॅन्कर राकेसांचें फावता. मागणी आसा देखून पुरवठो आसा. ते पासत दामदुपेटीन पयसो घेवन हे टॅन्कर हॉटेलांक, बांदकाम मळार आनी उद्येगीक वाठारांत ही पुरवण एक सारकी करता. हें उदक खयच्यान हाडटात? ताचो दर्जो कितें? तें वापराक योग्य आसा काय ना? हाचेर कोण लक्ष दिता अशें दिसना.

पाळें, शिरदोन, बांबोळे, बेतीं आनी अशेंच मेळटा थंयच्या दोंगुल्ल्यांचेर इमारती अळमी कश्यो वयर सरतना दिसतात. असले दोंगर म्हळ्यार मोठे उदका साठे! पूण जे पध्दतीन दोंगराचेर औद्योगीक वसाहती, इमारती उब्यो रावतात आनी तांकां त्यो बांदपाक जाणीं मान्यताय दिल्या तांकां फुडाराक उदका पासत कितें सांवार येतलो हाची कल्पना ना. कायद्या प्रमाण दोंगरावेली रुखावळ, वाली झोपां कापूंक जायना. ह्या दोंगराच्यो देगो फोडूंक फावना. कसलींच उदरगतीचीं कामां करूंक फावना. पूण गोंयांत पर्यावरण संबंदीत कायद्याक कोणूच रेस्पेद दिना. जे कोण हाचेर बोवाळ घालतात तांकां रोखडेच विकते घेतात वो धमकायतात.

मिनाचे खणीक लागूनय उदकाचो इबाड जावंक पावला. जेन्ना खण खोल खोल मारतात, तेन्ना मिनेर तांतलें उदक पंपानी भायर उडयतात. हाका लागून खणी लागशिल्ल्या उदकाची पातळी देंवता. तेच प्रमाण 'मायनींग रिजेक्टस्' व्हावन वचून न्हंयो पुरवतात. मिनाचे ट्रक सर्रासपणान न्हंयानी आनी व्हाळांनी देंवोवन धुल्ल्यान उदक प्रदुशीत जाता. रिवणच्या कुशावती न्हंयचेर जो परिणाम जाला ताचें हें एक मोस्त्र!

गोंयच्यो णवूय न्हंयो चडश्यो पुरोवंक लागल्यात. हे घडणुकेचो उदकाचेर व्हडा प्रमाणांत परिणाम जावंक लागला. कांपाल ते पोरणें गोंय ह्या १० किलोमिटराच्या न्हंयच्या पट्ट्याची खोलाय उणी जाल्या.

आमी दुडू जोडपाचे भकीक पडून सैमीक स्त्रोतांचो विध्वंस चलयला. मीना खातीर गोंय खणलें. घरा बांदपाक शेतां पुरयलीं. तीय सुवात कमी पडटा म्हूण दोंगरांचेर आक्रमण केलें. दोंगर बोडके करून थंय इमारतींचें रान उबें केलां. हाचो परिणाम गोंयच्या उदका स्त्रोताचेर इतलीं वर्सां सावन जायत आसा.

तरी लेगीत कोणाचेंच खाशेलें लक्ष ह्या गंभीर प्रस्नाचेर गेलां अशें दिसना. जाका जीवन अशें नांव दिवन ताचें म्हत्व आपल्या जिवितांत कितलें आसा अशें आमच्या पूर्वजांनी आमकां सांगपाचो यत्न केला आनी आमकांय तें खबर आसून लेगीत ही गजाल आमी कुसकुटा समान लेखतात!

कोणाकूय सत मानपाक कठीण लागतलें, गोंयांत उदका पुरवण करपी जे प्रकल्प आसात त्या प्रकल्पांतलें कितलें तरी क्युबीक मिटर उदक गरजे भायर इबाडून वता. वाटेर पायपां फुटून उदक व्हांवत उरता, भौशीक नळ तर एक सारके गळत वो व्हांवत



गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांत चडश्या घरांच्या पोरसांत घरची बांय आसताली आनी तिची सजावट करताले!

आसतात. गोंयांत जे उदका पुरवण करपी सांठे आसात तातुंतलें कितलें तरी उदक पायपां सारकीं नाशिल्ल्यान 'लीक' जाता. कांय पायपांतलें उदक भायर दिसना आसलें तरी तें मातयेंतले मातयेंत अडसत आसता. भौशीक नळाचेर उदक कशें वापरप हाचो नेम ना.

गोंयची वाडटी लोकसंख्या आनी तांकां दिसपट्टें लागपी उदक हांचो हिशेब केल्यार गोंयच्या उदकाचो सैमीक स्त्रोत तांची गरज भागोवंक शकना. तातूंत पर्यटकांचो आकडोय दिसानदीस वाडटा देखून हॉटेलवाल्यांचीय उदकाची मागणी वाडटा.

गोंयकारांची भिस्त तिळारी आनी म्हादय ह्या दोनूय न्हंयच्या उदकाचेर आशिल्ली. तिळारी धरणाचें उदक गोंयांत अधिकृतपणान मेळचें देखून गोंय आनी महाराष्ट्र सरकारान हो प्रकल्प राबयल्लो आनी ते संबंदी कराररूय केल्लो. ह्या कराराचेर निशाण्यो जावन २२-२३ वर्सां सरलीं. तरी गोंयच्या कांय कालव्यांचें बांदकाम अजून चालू आसा. आयज तंत्रगिन्यान इतलें मुखार पाविल्लें आसतना, दुडवांचीय अडचण नासतना एका प्रकल्पाक दोन दसकां लागतात हाचे वेल्यान आमकां उदकाविशीं कितली कळकळ आसा तें कळटा. हालींच तिळारी धरणग्रस्तांनी आंदोलन करून उदक आडायलें. मागीर महाराष्ट्र सरकारान कालव्यांचें सामके बाबत काम केल्लें देखून कालवे कोसळ्ळे आनी उदका पुरवण थांबली. हाका लागून उत्तर गोंय उदकाक लागून वळवळ्ळें. सरकाराक खणींतलें उदक पंप करून करपल्ली पिकावळ तगोवची पडली... गोंय सरकारान महाराष्ट्र सरकाराक धडो शिकोवपाची धमकी दिवनूय कोण बाडगलो ना. उरफाटें उदकाविणें तळमळावन ताणींच आमकां धडो शिकयलो.

तिळारीची ही गत जाल्यार म्हादयची वेगळी अशी ना. म्हादयच्या उदका खातीर कर्नाटक आनी गोंय सरकारचें वाजलां. कर्नाटकान जर म्हादयचें उदक फाल्यां बंद केलें जाल्यार फोंडे, तिसवाडी म्हालांतल्या लोकांक वळवळचें पडटलें. गोंयच्या कितल्या मुख्यमंत्र्यांनी कर्नाटकाक उदक वळोवंक दिवचे नांत अश्यो आड्ड्यो मारल्यो. पूण कर्नाटक सरकार कळसा आनी भंडुरा कालव्यांचें काम थांबयना. हे न्हंयचो वाद सर्वोच्च न्यायालयांत आसतनाय कर्नाटक बाडगना तेन्ना कर्नाटकांतले म्हादयचे उदकार आशेवन रावप आमकां परवडपाचें ना.

आतां उरलें साळावले धरण. साळावले धरणाचो जलाशय मिनाचे मातयेंत पुरवला, देखून उदकाचो सांठो उणावला. साळावली जलशुध्दीकरणाचो प्रकल्प सामको नेटान चलता आसलो तरी दक्षिण गोंयांत उदक पुरवठो सारको जायना. फाल्यां साळावलेचें उदक उणावलें जाल्यार दक्षिण गोंय करपतलें आनी लोक उदकाक वळवळटले. वेर्णे आनी हेर कडच्या उद्योगांनी कूपनलीका खणल्यात. ताका लागून जमनी भितरल्या उदकाची पातळी कमी जायत आसा.

पुराय गोंयांत आतां उदकाची समस्या बरीच पिंयोर जावपाक लागल्या. अस्नोडा न्हंयची उदकाची पातळी देंवल्या. ताका लागून उत्तर गोंयांत जें उदक मेळटा तें सामकें खदूळ जाल्लें दिसता. नळाक जें उदक येता, तें पिवापाचे लायकिचें ना म्हणपाचें लोक उलयतात. शापोरा न्हंयतलें आमठाणे धरणांतल्यान उदक सोडून तें अस्नोडचे न्हंयेत हाडून सोडटा आनी जलशुध्दीकरण प्रकल्पाक जोडटात. तरीय उदक उणें पडूंक लागलां. फाटले चार म्हयने अस्नोडा न्हंयचें उदक उस्पिल्ल्यान पातळी इतली सकयल गेल्या कीं पंप लावन काडप शक्य जायना. दिसाक ११४ एम्एलडी उदक सोडटात पूण तें तांबडें जाल्ल्यान खावप लायकिचें उरूंक ना.

साळावली जलाशयांतल्या उदकांत मॅगनीजचें प्रमाण वाडलां म्हणपाचें आयकूंक येता. ताका लागून हें उदक गाळपाचे प्रक्रियेचे प्रमाण खूबूच उणें जालां. हें उदक वाडट्या मॅगनिजाक लागून पिवप म्हळ्यार सामकेंच धोक्याचें थारलां. ताका लागून मनशाच्या मज्जासंस्थेचेर विपरीत परिणाम जावपाची भिरांत आसा. देखून सगळ्या वाटांनीं गोंयांत उदकाचें अरिश्ट उप्रासलां म्हणपाचें दिसता.

तिळारी, म्हादय आनी साळावले न्हंयांचो धोको जर आमी मतींत घेतलो जाल्यार आमी उदका बाबतींत स्वावलंबी नांत. आमी महाराष्ट्र आनी कर्नाटकाचेर निंबून आसात. वेल्यान आमी ह्या दोनूय सरकारांक तिडायतात, धमकी दितात! तेन्ना गोंय सरकारान उदका बाबतींत तरी परावलंबी आसूंक फावना. उदका बाबतींत पर्यायी येवजण आखूंक जाय. सह्याद्री पर्वतरांकेचेर पडपी पावसाचें उदक थेट अरबी समुद्रांत वता. तें कशें आडोवं येता हाचेर विचार जावंक जाय. गोंयच्या सगळ्या न्हंयांचेर ल्हान ल्हान बांद बांदल्यार उदक आडवतलें आनी जमनींत जिरून जमनी भितरली उदका पातळी वाडूंक पावतली.

हें सगळें संकश्ट मतींत घेवन सरकारानूच न्हय तर गोंयचे जनतेन ह्या विशयाचेर गांभिर्यान लक्ष दिवंक जाय. उदका संबंदी विकास आनी नियोजन जावंक जाय. उदकाची सिवेज वेस्ट आनी मिना पासून राखण मेळूंक जाय. हरीत पट्टो राखून दवरून झाडां रोवपाक प्राधान्य दिवंक जाय. बांयों, तळीं, झरे हांचे सारखे ल्हान स्त्रोत सांबाळूंक जाय. दोंगराचे घरां आनी औद्योगीक वसाहत बांदूंक दिवंक फावना. भूंयगर्भ उदकाच्या वापराक उत्तेजन दिवंक जाय पूण दुरूपेग जावंक फावना.

उदकाचो प्रस्न गंभीर आसा. तो फकाणांचेर व्हेल्यार उदका बगर कितें जातलें गोंयचें हाची कल्पना करप म्हळ्यार लेगीत आंगार कांटो येता. तेन्ना सरकाराचेर भार उडोवन रावचे परस लोकांनीय ह्या विशयाकडेन गांभिर्यान पळोवप गरजेचें आसा!



बिम्ब परिवाराक शुभेच्छा....

# वेस्टर्न बेवरेजीस प्रा. लि.

## आर. एस्. कामत

वेवस्थापकीय संचालक

**रजिस्टर्ड ऑफिस,**
राज विहार ॥
विजखात्यालागीं, आकें,
मडगांव – गोंय ४०३ ६०१
**फोन (ऑ.) :** (०८३२) २७३९६३८, २७३३८०३
(घर) : २७३५१५३, २७५३२९७
फॅक्स : ०८३२–२७३९६३८
**ई–मेल :** wbpl@goa.telecom.com
ई–मेल : wbpl@sify.com
**फॅक्टरी :** एम्. १०, कुंकळी इंडस्ट्रीयल इस्टेट, कुंकळी, सालसेत–गोंय ४०३७०३
**फोन :** २७६४५२२, २७६४६८१



झोत

# हांव सद्या कितें करतां?

- दिलीप बोरकार



**सा**हित्य अकादमी पुरस्कार हो आमच्या देशांतलो साहित्याच्या मळावयलो, केंद्र सरकारचो सगळ्यांत व्हडलो पुरस्कार अशें धरून चलतात! तो जाका फावो जाता तेन्ना त्या साहित्यिकाराक राष्ट्रीय स्तराचेर मान्यताय लाभता! राष्ट्रान दिल्ली ती मान्यताय देखून त्या पुरस्काराचो आब लेगीत तसोच आसता! ताचें फाटलें कारण म्हळ्यार आमचो देस, अठरा पंगड भासांच्या राज्यांचो संघ! एका राज्याची भास दुसऱ्या राज्याक कळना तरी तांकां भारतीय भासो म्हूण मान्यताय दिल्ली आसा. तशें करिना जाल्यार राज्या राज्या मदीं धुसफूस सुरू जावन राष्ट्रीक एकवटाक वेर वचूं येता. हाकाच लागून राज्यांतल्या विकसित भासांक राष्ट्र मान्यताय दिवन ते भाशेंतल्या एका साहित्यिकाक राष्ट्रीय पातळेर व्हरून बसोवप ही एक व्यवस्था! तांकां दिलां मागीर आमकां कित्याक ना ह्या शिणांतल्यान कोंकणीकूय साहित्य अकादमीचे पुरस्कार फावो जावपाक लागल्यात आनी ताका लाभला जाल्यार म्हाका तो कित्याक ना, अशी कोंकणी मळारूय धुसफूस सुरू जाल्या!

साहित्य अकादमी पुरस्काराक मान आसपाचें कारण म्हळ्यार आमच्या देशांतलीं चडशीं राज्यां लोकसंख्या आनी भौगोलीक आंवाठान खूब व्हडलीं. म्हणचेच त्या राज्यांत बरोवपीय चड आनी वाचपीय चड! बरोवप्यांचो आंकडो चड जाल्ल्यान तांतुल्या एकल्याक पुरस्कारा खातीर वेंचून काडप ही खूब कठीन बाब आसता. एकल्याक पुरस्कार मेळटकच, त्याच पुरस्काराच्या तोलामोलाचे तेच भाशेंतले कितलेऽ साहित्यिक राष्ट्र मान्यताये पासून कडेक उरतात. हाचो अर्थ ते ल्हान थारतात अशें न्हय! तेच प्रमाण राज्याचो आंवाठ व्हड जाल्ल्यान हे साहित्यिक क्वचीतच नदरेक पडटात देखून तें एक ग्लॅमर थारता!

हेर राज्यांचे तुळेन गोंय एक ल्हान राज्य आनी ताची भास वेगेवेगळ्या अरिश्टांक तोंड दियत राष्ट्र मान्यताय मेळोवपा मेरेन पावली आनी हेर भासांतल्या साहित्यिकांवांगडाच आमकांय राष्ट्रीय पुरस्कार लाभूंक लागले! कोंकणींत बरोवपी उणे जाल्ल्यान पुरस्कार साहित्यिक तपश्चर्या केले बगर कोणाकूय मेळटा आनी पुरस्कार पदरांत पडलो म्हणटकच तो बरोवपी साहित्य साधना सोडटा असो एक समज जनमानसात पातळ्ळा वो पातळायला! तेच पासत आमचे पुरस्कार लाभिल्ले कितें करतात काय हें पळोवपा पासत बिम्बान दर म्हयन्याक एक झोत तांचेर घालचो अशें थारायलें आनी साहित्यकाराक मेळून, फोन करून एक पान बरोवन धाडचें म्हूण विनयलें! हे साहित्यकार बिम्बाक बरयनात, मानधन दितां म्हणल्यारूय आयकनांत आनी सद्या कितें करतात काय विचारल्यार लेगीत सांगपाक तांकां वेळ ना, हाचेवेल्यान ते साहित्यसाधनेंत बुडल्यात अशें धरून हो झोत हावें म्हजेवटेन घुंवडायला! कित्याक म्हाकाय हो पुरस्कार लाभला हाची म्हाका याद जाली!

साहित्य अकादमीचो पुरस्कार लाभला हाची याद जावप वो करून दिवप हाचेवेल्यान ताचें म्हत्व कळटा! हो पुरस्कार मान्यताय, प्रेरणा न्हय! तरी लेगीत तो प्रतिष्ठेचो पुरस्कार आपल्याक लाभला आनी ताचो मान राखप आपलें कर्तव्य हाचें भान तो लाभिल्ल्या दरेक साहित्यकाराक आसूंक जाय आनी आपलें काम आता समाजाक दिका दाखोवपाचें म्हणपाचेंय भान दवरून नवो विचार आपल्या साहित्यांल्यान दिवपा वांगडाच विधायक वावर चालूच दवरूंक जाय!

रवींद्रबाबान तें भान दवरून पुरस्काराचो सगळे अर्थान आब राखलो तसो पुरस्कारान भोवमानीत जाल्ल्या दरेक साहित्यिकांनी तो राखूंक जाय ह्या मतांचो हांव. ताका कितें करता असो प्रस्न करचो पडचो न्हय. ताचे करणेन तो लोकांक दिश्टी पडचो! ताणें एक मिशन लावन घेवंचें! आपले भाशेखातीर योगदान दिवंचें! एक खंयचोय लेखक अणकारचो! हांव बिम्ब घेवन बसलां, हालींच मोहन रानडेचें पुस्तक कोंकणी केलां, विवेकानंदाचेर वावर चल्ला, चाणक्याचेर कादंबरी चालू आसा. राष्ट्रान पुरस्कारान भोवमानीत करून जबाबदारी वाडयल्या हाचें सतत भान दवरचें पडिल्ल्यान सकाळीं पाचांक उठून कामाक लागतां तो रातच्या बारा मेरेन फाट तेंकयना. तरी लेगीत वेळ पावना. म्हणटकच हांव कितें करतां हाची जाप कितें दितलों? कपल!



# म्हज्या नांवाचें खाजें...!



*पोपटान ताका Popat आनी Parrot is one and the same म्हणून पटोवपाचो खूब प्रयत्न केलो. पूण कॅशर बदना आनी हेवटेन पोपटय हालना. निमाणें कोणेंतरी पोपटाक समजावन परत व्हरून तागेलें नांव बदलून तागेलो चेक वाटायलो.*



**डॉ. निलीन सुखठणकार**
जानकीसदन, शांतीनगर,
फोंडे - गोंय.

"वैनी, हांव आयच्यान म्हजें नांव निलीन रामदास सुखठणकार बदलून चर्चिल रामदास सुंगटांकार दवरतलों!''

खरेंच हांव सॉलीड तापिल्लों. तुमीच सांगात, म्हजें निलीन नांवाचें जेन्ना सगळे खाजें करून सोडटात तेन्ना हांवें कितलें म्हणून पासियेंस काडपाचें? जल्माक आयलों आनी म्हजे एके मावशेन म्हजें निलीन म्हणून नांव दवरलें. ताचे नंतर जीं म्हणून कोफुसांवां सुरू जालीं तीं कितलीं म्हणून हांवें सोंसपाचीं? एकूय मनीस म्हजें नांव सारकें बरयना. कोण म्हाका नितीन करता, तर कोण मिलींद. हें सदांचेंच जालां. पूण इतलीं वर्सां इश्कॉलांत नितीन नांवान शिकून जेन्ना एस्. एस्. सी. सर्टीफिकेटीचेर Nileem म्हणून नांव येता. तेन्ना हांवें कितें करपाचें? नलीन, निलन, निलम, निलेश, नितेश आनी Nylon पसून नांवां दवरून लोकांनीं म्हज्या ओरीजिनल नांवाकडेन खेळ केले. हरयाणाचे एके कंपनीचें हांवें ऑपरेशन टेबल घेतिल्लें. ताणें पेमेंट रिसिप्टाचेर म्हजें नांव निलिंदर म्हणून घालें. (तागेलें राजिंदर, धरमेंदर, हरजिंदर, सुखविंदर आसा, तातूंत हो एक निलिंदर!) तरी बरें, बिलंदर केलो ना म्हणून! फोंडेच्या रामनाथ देवस्थानाच्या जात्रेची आमंत्रण पत्रिका डॉ. नीळकंठ सुखठणकार ह्या नांवान म्हाका पावता. पयर प्रीतीदास वैद्यबाबाचें 'Some shades of Human Management' पुस्तकाचें उक्तावण आशिल्लें. तातूंत म्हाका भाशण दवरिल्लें. थंय गेल्यार म्हजें नांव नितीन सुखठणकार म्हणून जाहीर जालें. वैद्यबाब परत परत सांगता की ताचें नांव निलीन सुखठणकार म्हणून. हांवें म्हज्या भाशणांत परतो म्हज्या नांवाचो अपभ्रंश कुशीक करपाचो प्रयत्न केलो. सगळें वेवस्थित जालें. दुसऱ्या दीस पेपरार म्हजो फोटो आनी नांव मिलींद सुखठणकार! कपलार हात मारून 'क्या करेगा पांडू?' म्हणीत ओगी रावलों.

हें सगळें सोसूंक येता, पूण जेन्ना कितलेशेच दीस वा म्हयने वाट पळोवन एकदांचो तुका पेमेंट चेक येता आनी ताचेर तुजें नांव बदलून मिलींद वा नितीन म्हणून येता तेन्ना कितें करपाचें? मिलिंद म्हणून आयिल्लो चेक करेक्शन करपाक धाडलो जाल्यार नितीन नांवान चेक परतो हजर. धा फावटी कपलार हात मारपाचो. बरें, बँकवाले तरी आयकतात? ते तुका कितलोय वळखल्यार पसून नांव चुकल्यार चेक पास करिनांत. आमच्या फोंड्यां एक पोपट नाईक म्हणून पेंटर आशिल्लो. मनीस एकदम बरो. एकदीस ताणें कोणाचें तरी काम केलें. ताचे पयशे घेवपाक गेलो. त्या मनशान ताका आपलेकडेन कॅश नांत म्हणून चेक दिलो. चेक घेवन पोपट स्टेट बॅन्केंत गेलो. थंय कॅशर विचारता 'तुजें नांव कितें?' पोपटान सांगलें, 'पोपट नायक.'

'तशें जाल्यार तुका पयशे मेळपाचे नांत.' कॅशर.

'कित्याक तर, हाचेर पे टू पॅरट नायक बरयलां. हांव हे पयशे पॅरट नायक हाका दितलों. पोपट नायकाक दिवचों ना.'

पोपटान ताका Popat आनी Parrot is one and the same म्हणून पटोवपाचो खूब प्रयत्न केलो. पूण कॅशर बदना आनी हेवटेन पोपटय हालना. निमाणें कोणेंतरी पोपटाक समजावन परत व्हरून तागेलें नांव बदलून तागेलो चेक वाटायलो. तसलेच परिस्थितींत आज हांव सांपडिल्लो आनी इतले त्रास काडून पसून दोन फावटी चेक म्हज्या नांवाक लागून फेल जातकच म्हजें पासियेंस काबार

आनी हांवें निर्णय घेतलो की म्हजें नांवच बदलपाचें. निलीन वांट्याचें चर्चिल दवरपाचें. सोपें नांव, फामाद नांव. केन्नाच चुकपाचें ना. पूण आड नांवाचें कितें? तेंय बी तितलेंच कॉम्प्लीकाद. सुखठणकार! केन्नाच सारखें बरयलें ना. सुंठणकार, सुकणकार, सुंगटणकार अशें सदांच चालू. खरें आमचें नांव सुकथनकार, म्हणचे बरें कथन करपी. ही एक पदवी. पूण ताचे बारा बिरेस्तार जायत जायत ठणठणकार जावपाचें उरिल्लें. म्हणटकच हांवें तें बदलून 'सुंगटांकार' करपाचें थारायलें आनी म्हजें फुल्ल नांव 'निलीन रामदास सुखठणकार' बदलून 'चर्चिल रामदास सुंगटांकार' करपाचें ठरयलें. (बापायक तसोच दवरलो. चेंज केलो ना.)

हें सगळें ठरोवन हांवें म्हगेलें हें गाराणें, वैनीक घालें. वैनी म्हणचे म्हजी आवय. हांव म्हजे आवयक 'वैनी' म्हणटां. म्हजे बायलेक 'आई' म्हणटां. ती म्हाका 'बाबा' म्हणटा आनी म्हजीं भुरगीं म्हाका 'बाबू' म्हणटात!

वैनीन म्हगेलो हो प्रस्ताव आयकलो आनी म्हजी सगळी स्टोरी आयकून म्हणपाक लागली, 'तुका ठणठणपाळाची काणी खबर आसा? आयक.'

एक मनीस अशिल्लो. ताचें नांव ठणठणपाळ. सबंद गांव ताका ठणठणपाळ म्हणून चाळयतालो. ताचीं फकाणां मारतालो. बाकी हरशी तो वेवस्तीत आशिल्लो. धंदो, पयसो, शिक्षण सगळें आशिल्लें. पूण नांव ठणठणपाळ आशिल्ल्यान लोक ताका रेस्पेद तर नाच वेल्यान फकाणां मारताले. एक दीस तो सामको विटलो आनी जीव दिवपाक गांवांभायर वचपाक लागलो. वतां वतां ताका एक गरीब बायल लाकडां फोडटना दिसली. ताणें तिचें नांव विचारल्यार तिणें 'लक्ष्मी' म्हणून सांगलें. फुडें ताका एक भिकारी दिसलो. ताचें नांव आशिल्लें 'धनराज' आनी फुडें गेल्यार ताका एका मड्याक घेवन लोक लासूंक वतना दिसले. ताणें मेल्ल्या मनशालें नांव विचारल्यार 'अमरनाथ' म्हणून ताका कळ्ळें. हें सगळें पळोवन ठणठणपाळान म्हळें,



लक्ष्मी तो लकडी फोडे
धनराज मांगे भीक
अमरनाथ तो मर गया
भला रे भला ठणठणपाळ

आनी तो परत गांवांत वचून ऑर्रीन आपल्या कामाक लागलो.

ही वैनीली काणी आयकून म्हगेली ट्यूबलायट पेटली आनी उरफाटे, विचार मनांत आयले, आरे, म्हज्या निलीन ह्या नांवां वांट्याचें म्हाका भिकारो, उपासो, मर्तो, येतलो, वांकडो अशीं नांवां दवरिल्लीं जाल्यार म्हजें कितें जावपाचें? ह्या सगळ्या नांवांचे लोक म्हजेकडेन पेशंट म्हणून येवन गेल्यात. तांचीं नांवां सांगतना कितें परिस्थिती जाता आसूं येत! लोक पसून विचार करिनासतना, अर्थ खबर नासतना नांवां दवरतात. हें म्हाका पेशंट म्हणून जेन्ना ते येतात तेन्ना समजता. म्हजे बायलेकडेन पेशंट म्हणून एक चली येतालें. ताचें नांव आवयबापायन दवरिल्लें 'विष्टा' कित्याक तर व्हडले चलयेचें नांव 'निष्ठा' म्हणून हें मॅचिंग. जेन्ना विष्टाचो अर्थ तांकां समजलो तेन्ना तांचीं तोंडां पळोवपा सारकीं जाल्यां आसतलीं! म्हज्या एका पेशंटाचें नांव आसा 'उपेक्षा'. व्हडले चलयेच्या अपेक्षा नांवाक हें मॅचिंग.

पयर एक पेशंट आयलो. ताचें नांव 'उलझन'. आतां तो जाल्लो तेन्ना ताचे आवय-बापूय कसल्या उलझनात पडले हेंच म्हाका कळना. 'उलझन' म्हणून पिक्चर मात आयिल्लो. तो तांकां खूब आवडला आसतलो!

हॅल्थ सर्वीसांतल्या एका ड्रायव्हराचें नांव ताच्या बापायन दवरिल्लें Circumcision. ताका आमी दुसऱ्या नांवान वळखताले. एक दीस मेडिकल रिइंबर्समेंट करतना म्हाका ताचें खरें नांव कळ्ळें. ताका जेन्ना ताच्या नांवाचें एक ऑपरेशन आसा अशें म्हळें त्या बराबर तो खोशी जालो. पूण जेन्ना सर्कमसीशन म्हळ्यार 'सुंथी' ऑपरेशन म्हणून ताका कळ्ळें तेन्ना ताचें बावड्याचें तोंड पळोवपा सारकें जालें.

असलीं विचित्र नांवां दवरपाक भैय्यांक कोण आयकना. एका भैय्यान आपल्या चल्याचें नांव दरोगाप्रसाद (म्हळ्यार इन्स्पेक्टर प्रसाद), दुसऱ्यान मॅनेजरप्रसाद अशें दवरलां. आतां आयकणाऱ्यान कितें समजुपाचें?

पयर एक भैय्या आपले बायलेक आनी चल्याक तपासपाक घेवन आयलो. बायलेचें नांव 'पिंकाभारती' आनी चल्याचें नांव सांगात पळोवया? 'सिलींडर' सिलींडर भारती. हांवें म्हळें, 'भैय्या, यह क्या किया आपने? लोग इसका गॅस सिलींडर या ऑक्सिजन सिलींडर करके मजाक करेंगे. जीना हराम करेंगे.'

'तो डागदरसाब! आपही कुछ नाम दे दो इसे!'

'ठीक है सिकंदर रखेंगे।' अशें महणून हांवें ताचें परत बारशें केलें.

हें सगळे विचार येतकच म्हाका दिसलें सोड तूं! नांवांत कितें आसा? आरे, 'न धरी शस्त्र करीं, सांगेन गोष्टी युक्तीच्या चार' म्हणणारो भगवान श्रीकृष्ण आनी 'न धरी कोयती करी, फुंकेन विड्या तीस नंबरच्या चार.' म्हणणारो पोगळी कृष्णा सारके जातात? आपल्या कर्तुबाचेर वयर सरपाचें. लोक रेस्पेद कर्तृत्वाक दितात, नांवाक न्हय. अशें चितून आनी म्हजी तिडक शांत करपाक ठणठणपाळ भशेन हें पोरकारी काव्य करीत हांव सगळें विसरलों आनी म्हज्या कामाक लगलों.

विष्टा, विष्टा, विष्टा, कुष्टा
यह किस दुष्टाने की है चेष्टा
पोपट का बनाया पॅरट
पैसे के बदले हाथ में दिया उसका कॅरट
न गॅस का न ऑक्सीजन का सिलींडर
भला रे भला डॉ. निलिंदर



# अर्धेकणी

*म्हजें लग्न जाल्लें तेन्ना म्हजी मांय शीत, शेक, तोंडाकां करपाक पितुळचेंच तोप वापरताली. ल्हान व्हड कितलींशींच पितुळचीं तपलीं आशिल्लीं. ते भायर सगळ्या सायजीचे पितुळचे करंड. तांकां खिळी आशिल्ली. जाय जाल्यार कुलूप घालूंक मेळटा असली. आमी तेन्ना दामबाबांत फ्लॅटांत रावताली. फ्लॅटांत पांय घालपाक जागो नाशिल्लो. वापरना आशिल्ले कितलेशेच करंड, तपलीं, पितुळचे तोप स्टोर रूम कम गॅलरींत दवरलेले. एक दीस म्हजे नणंदेन म्हळें किते कचकच केला हो! वापरना जाल्यार कावलाक तरी दिवन उडयात. म्हजी मांय अशी तापली ताचेर!*




**हर्षा शेटये**
कृष्णप्रेम, अंबाजी,
फातोड्डें – गोंय.
मो.: ९८५०५३०१५२


**म्हजी** भाची आमगेरच्यान वचपाक भायर सरिल्ली. ताका दिवपाक म्हणून हांवें शाकोती किटलेंत घालून दवरलेली. तें भायर सरतां सरतां म्हाका ताची याद जाली. हांवें चल्याक सांगलें, 'राज, मातशी ओट्यावयली किटली हाड रे.' तो धांवत भितर गेलो. ताचे फाटल्यान भाचयेचें चली आध्याय धांवलें. पूण कितलोसोच वेळ दोगांय भायरूच आयलीं नांत. हांचें कितें जालें काय म्हूण पळोवपाक हांव भितर गेलें. पळयत जाल्यार हो हेवटेन तेवटेन किटली सोदता. हांवें ताका ओट्यावयली किटली दाखयली.

"इतली म्हऱ्यांत आशिल्ली किटली तुका दिश्टी पडली ना?"

"म्हाका खबर आसा ही किटली म्हणून, हांव च्या घालपाची किटली सोदतालों."

"आवय म्हज्या कर्मा!" म्हणत हांव किटली घेवन भायर आयलें. "तुकाय खबर ना गो आध्या ही किटली म्हणून!"

"ना हर्षा मामी. आध्याकूय कळचें ना. म्हजी मांय हाका सरयेचें म्हणटा. म्हणून आतां म्हज्याय तोंडाक कितले वाट्याचें सरयेचेंच येता." भाचयेन सांगलें.

म्हाका म्हजे एक इश्टिणीची याद जाली. ताका लग्न करून म्हापशां दिल्लें. एक दीस मांयन ताका हें तें सरयाळें दी गो म्हळें. हें खंय हेवटेन तेवटेन पळयता. निमाणी मांयूच उठून आयली आनी किटली हातांत घेवन 'हें मुखावयलें सरयाळें तुका दिश्टी पडना काय' म्हणून विचारूंक लागली खंय! ताणें मागीर मांयक सांगलें खंय आमी मडगांवां किटली म्हणटात म्हणून. आतां किटली म्हळ्यार कितें तर एक धापण्याचो उबो करंड कसो आनी ताका हातांत धरपाक सरयेचें हॅन्डल आसता. आतां चडश्या घरांनी किटली दिश्टी पडना. हांव लेगीत कोणायकूय कितें पातळ जिन्नस घालून दिवपाचो आसा जाल्यारूच किटली भायर काडटां.

म्हज्या चल्याक 'म्हजी जीण' म्हणून कुंभारधंद्याचेर एक धडो आसा. ताचेर ताका प्रॉजेक्ट

# आयदनांच्या संवसारांत



करपाक लायिल्लो. ज्युस्त तेन्ना मडगांवां पोरण्या बाजारांत होली स्पिरीट चर्चींचें फेस्त आशिल्लें. फेस्ताचे फेरयेक मातयेचीं आयदनां येतात. तीं आयदनां ताका व्हरून दाखयलीं. गुलगुलेत, मायट्यो, बुडकुलो, कर्दी, दोणां, मिलेर, धुपाटणें. मातयेच्या आयदनांनी पयलीं लोक रांदताले खंय! पूण हांवें आमगेर केन्नाच कोणें रांदिल्लें पळोवना. उदक थंड उरपाक गुलगुलेत आनी पी आशिल्लो माठ मात आशिल्लो. ते भायर नुस्तें धुवपाक बी मायट्यो वापरतालीं. मागीर प्लास्टीकाचीं आयदनां वापरूंक लागलीं. कर्दे म्हळ्यार व्हडली मायटी. म्हणून आंगान मोटी आशिल्ले बायलेक कर्दे कशी म्हणटात.

कद्यावयल्यान याद जाली. आमची एक शेजान्न आमच्या दुसऱ्या मोठ्या कंबराचे शेजान्नीक सामकी पेडावण कशी जाल्या म्हणटाली. तेन्ना म्हाका दिसतालें पेडावण म्हळ्यार पिंपळाक, वडाक बी वाटकुळेंच पेड बांदून घेतात तशें आसतलें. मागीर एक दीस कळ्ळें, मंगळूरवटेन साननधाकण्याक पेडावण म्हणटात. आमी इडली पेडावणात उकडतात अशें म्हाका म्हजे एके मंगळुरचे इश्टीणीन सांगलें. हांव चाट. म्हज्या दोळ्यांमुखार पेडावण म्हळ्यार मोट्या कंबराची शेजान्न उबी रावली. पयरूच म्हाका अस्नोडचे एके सोयरेन साननधाकण्याक ती सांदणकोपरो म्हणटात म्हणून सांगलें.

साननधाकण्यांत सानन म्हळ्यार सान्नां उकडटात आनी ताका धाकणें आसता म्हणून तो साननधाकणो. हें समजूंक येता पूण साननकोपरो कित्याक हें म्हाका बरें समजूंक ना. आयदनांक नांवां कशीं पडलीं काय? तांची व्युत्पत्ती कशी जाली असले प्रस्न केन्नाय म्हजे तकलेंत येतात. म्हजे आजयेकडेन बी असल्या तरेकतरांच्या नांवाचीं आयदनां आसतालीं. म्हज्या साखळेच्या आजयेकडेन खोबरेल तेल दवरपाची पितुळची एक चकचकीत उरवळी आशिल्ली आनी तातूंत इल्लोसो खोल दवलो. त्या उरवळेचो आकार, घाट सुंदर दिसतालो. तिका तीन खूर आशिल्ले. तातुंतलें तेल आखो माखो तेल माखो म्हणत तिणें म्हज्या माथ्यार थापिल्लें याद आसा. मडगांवां आमगेर तेलाची गिंडी आशिल्ली. झाडांक उदक घालपाची झारी आसता तसली इल्लीशी झारी कशी. ती हातांत धरपाक तिका एक कान आसतालो. त्या कानांक आनी गिंडयेचे गुड्डेक एक सरपळी आसताली. घडये ती इल्लीशी गुड्डी शेणूंक जायना म्हणून जावये! मडगांवचे आजयेकडेन एक व्हडली उरवळी आशिल्ली. तिकाय तीन खूर आशिल्ले. हांव सामकें भुरगें आसतना त्या उरवळेंत रांदनीर रोस, तोंडाक बी करतालीं ती याद आसा.

मागीर गॅस येतकीच उरवळेच्या जाग्यार लगडी वापरूंक लागलीं. मागीर आजयेन तीं आयदनां कावलाक दिवन उडयलीं. रांदनीर रांदतालीं तेन्ना च्या बी करपाक भगुणें वापरतालीं. भगुण्या भशेन आनीक एक दोशी वटेन कान आशिल्लें आयदन आसतालें. ताका कानांचें आयदन म्हणटालीं. ताचे वयर धाकणें आसतालें आनी धाकणें धरपाक मदीं एक गुड्डी आसताली. आनीक एक ल्हान आयदन आसतालें. आडवो पेलो आसता तितल्या रुंदायेचें, लांबायेचें. पूण आकार उदक भरपाचो व्हडलो कळसो आसता न्हय तसो सो. तोंड मात्शें रूंद. तोंडांत भितर बसता तसलें खोल धाकणें. तातूंत दूद जावं पातळ रवो बी पियेल्ल्याची म्हाका याद येता. आमगेर स्टिलचें आशिल्लें. साखळेच्या आजयेकडेन पितुळचें आशिल्लें. ह्या आयदनाक शकुंतला आयदन म्हणटालीं. दुष्यंताची राणी शकुंतला आयदन रुपांत कित्याक आयल्या काय? ती रानांत बी असल्या आकाराचें मातयेचें आयदन वापरताली जावंये! ताचेवयल्यान त्या आयदनाक शकुंतला आयदन हें नांव पडलां आसतलें. आतां हीं शकुंतला आयदनां तेल-तूप दवरपाक वापरतात.



आमगेर पीठ कालोवपाचें म्हणून एक पितुळचें गुळम आशिल्लें. वखद घेवपाचें म्हणून एक कांसूल आशिल्लें. हरशीं कांसूल म्हळ्यार कुलेर पूण वखद बी दितना त्या कांसुलानूच दितालीं. ताटां दवरपाचें एक पितुळचें ताठाळें आशिल्लें. ताठाळें म्हळ्यार ताटां दवरूंक वण्टीर मारिल्ली अर्दवाटकुळी सपाट सरयांची जाळी कशी. घराघरांनी ल्हान व्हड वाटयो आसताल्यो. ल्हान वाटी, वाटी आनी मात्शी व्हड वाटी वा वाडगो. म्हजी आवय पयलीं कोणाच्याय बारश्याक बी वतना भुरग्याखातीर पो, साबू आनी चेंबू वा लोटो, शकुंतला आयदन, ल्हान पितळी असलीं स्टिलचीं आयदनां व्हरताली. म्हाका असल्या आयदनांचो घोस्त. भुरगेपणांत म्हजो उदक पिवपाचो एक लोटो आशिल्लो. लोटो म्हळ्यार लांबट आकाराचो ल्हान तांबयो. म्हाका दिसता हांव लग्न जाय मेरेन जेवच्या वेळार त्याच लोट्यान उदक पितालें आनी आंवपाचो एक चेंबू आशिल्लो. चेंबू म्हळ्यार ल्हान तांबयो. मागीर नळ आयले. बेसीना जालीं आनी त्या चेंबवाचो सांगात सुटलो. भुरगेपणांत दनपरां अकरा वरांचेर पेज जेवतालीं. ही पेज जेवपाची म्हणून स्पेशल पितळी आसताली. पितळी म्हळ्यार पेज जेवपाची थोकणांची खोल ताटली. ती पितुळची म्हणून पितळी. पितळेक भितरल्यान कलय काडची पडटाली. सांखळे हांव असल्या पितुळच्या पितळेंत पेज जेवलां. मडगांवां आमगेर स्टिलाच्यो पितळ्यो आशिल्ल्यो. हरशीं स्टिलच्या पितळ्यांक पितळ्यो म्हणपाचें न्हय. तांकां आनीक कितेंय नांव आसूंक जाय आशिल्लें.

आमच्या वाड्यावयल्या जाण्टेल्यांक उमाणी घालपाची खूब आवड. तीन पायांचो तिकळो घोडो, ताचेर बसला काळो चेडो, हांसता पूण उलयना. रांदनीवयलो काळो किट्ट बुडकुलो आनी शिताचो खतखतो ही ताची जाप! पूण हांवें बुडकुल्यांत शीत केल्लें केन्ना पळयलें ना. आमगेर तांब्याच्या तपल्यांत करतालीं. बरें थोकणां मारिल्लें तपलें. ताका थालीय बी म्हणटालीं. मागीर गॅसार रांदूंक लागतकच स्टीलच्या गुंडांत करपाक लागलीं.

गुंड म्हळ्यार व्हडलो तांबयो कसो! आतां ताका गुंड कित्याक म्हणटात तें मात हांव नकळों. ताणें कसली गुंडगिरी बी केल्ली जाल्यार देव जाणां! आनीक एक उमाणें आशिल्लें, काकीक दोन कान, काकाक एक्कूय ना. हाची जाप कायल आनी तवो. कायल म्हळ्यार लोखणें न्हय आं आनी आमी हालीसराक वापरतात ती कढई बी न्हय. कायल म्हळ्यार दोशी वटेन धरपाक कान आशिल्लो मात्सो खोल पूण सपाट तवो. ताचेर पोळे, कायलोळ्यो बी काडूंक मेळटात. तशीच मदीं सात आठ खोलगट भाग आशिल्ली येलाप्याची कायल आसताली. ही कायल म्हळ्यार काकी आनी चपात्यो बी करपाचो कान नाशिल्लो तवो आसता तो काका.

उदक तापोवपाचो तांब्याचो व्हडलो हांडो आसतालो ताकाय दोशी वटेन व्हड कान आसताले. कान नाशिल्लो मात्सो ल्हान हांडो आसतालो. ताका मडकी ना जाल्यार भाण म्हणटाले. हातूंत उकडे तांदूळ करूंक भात बी उकडटालीं. उदक तापोवपाचो आनीक एक बंब म्हणून आसतालो. सकयल ताका तीन पांय आसताले. आतां हीं सगळीं आयदनां इतिहासजमा जायत चल्ल्यांत. तांब्या-पितुळचीं आयदनां खूब घासचीं पडटात. रोखडींच निवळ जायनांत. कलय काडची पडटा अशें म्हणून आमी कुशीक उडयतात. हेवटेन कुक अॅण्ड सर्व्ह, इन्डक्शन, नॉन स्टीक असलीं नवीं नवीं आयदनां येत आसात.

म्हजें लग्न जाल्लें तेन्ना म्हजी मांय शीत, रोस, तोंडाकां करपाक पितुळचेच तोप वापरताली. ल्हान व्हड कितलींशींच पितुळचीं तपलीं आशिल्लीं. ते भायर सगळ्या सायजीचे पितुळचे करंड. तांकां खिळी आशिल्ली. जाय जाल्यार कुलूप घालूंक मेळटा असली. आमी तेन्ना दामबाबांत फ्लॅटांत रावतालीं. फ्लॅटांत पांय घालपाक जागो नाशिल्लो. वापरना आशिल्ले कितलेशेच करंड, तपलीं, पितुळचे तोप स्टोर रूम कम गॅलरींत दवरलेले. एक दीस म्हजे नणंदेन म्हळें कितें कचकच केला हो! वापरना जाल्यार कावलाक तरी दिवन उडयात. म्हजी मांय अशी तापली ताचेर! 'आतां तुमकां आयदनां नाका जाल्यांत. फाल्या तुमकां जाण्टींय नाका जातलीं.' तिणें तीं आयदनां आपल्या संवसाराक जाय म्हणून मुद्दम विकतीं घेतिल्लीं. तिचें त्या आयदनांकडेन भावनीक नातें जुळिल्लें. ती तीं आयदनां आपल्यापासून वेगळावपाचो विचारूच करूंक शकनाशिल्ली.

अमी नव्या घरांत कृष्णप्रेमांत रावपाक येवचे पयलीं म्हजी मांय भायर पडली. पूण तिचो आयदनांचो संवसार आमच्या बरोबर आमच्या नव्या घरांत आयलो. तातुंतलीं बरीं बरीं पितुळचीं आयदनां, चकरदातो, शेवगो, खिळयांचे करंड, भगुणें, कानाचें आयदन, खलबतो, तपलें म्हजी कोठये कूड सोबयतात. बाकीचीं आयदनां, हांडो, मडकी, कळसो,कळसुल्यो, साननधाकणो गॅरेजींत बसून आपल्या उध्दाराची वाट पळयतात. मदींच केन्ना तरी म्हाका हो गॅरेजींतलो साक सोडयन दिसता आनी तातुंतलें आनीक एक आयदन मेकळो स्वास घेत म्हजे कोठयेकुडींत बसता.



## तात्पर्यकथा

*आगशी-व्हडलें गोंय मजगतच्या रस्त्याचें रुंदीकरण करीत जाल्यार थंयच्या शेतांत जी रसरशीत फळ-भाजयांची पिकावळ जाता ती बंद जातली आनी आपल्या सांत-आंद्रे मतदारसंघांतले शेतकार उबंत पडटले हें सांगपा खातीर आमदार विष्णू वाघ वायंगीं आनी भेंडे घेवन विधानसभेंत गेले!*



आमदार मंत्री जावप म्हणल्यार
काळींग करप म्हूण आयकल्लें!
कॉंग्रेसच्या सगळ्याच जाणांनी
केलां तें तर सारकेंच दिसता
पूण वर्स सरलें तरी हें काळींग
कशें करप म्हाका काय कळना
कोणायकडेन ट्युशन घेतलों म्हणल्यार
हे मेल्ले बोबो मारतले!
हो आमचो आसा तो सामको दोळो दवरून कसो आसा
तरी आमचे मदले कांय जाण
आपले परीन करतात काळींग
म्हाका काय असल्या गजालीनी मात्तूय इंटरेस्ट ना
कोण काळींग करतात तांकां तें करूं दी!
हांव राजकारणांत देंवलां तो लोकांची सेवा करूंक!
म्हज्या मतदार संघांत काय बरीं शेतां आसात,
तातूंत वायंगी भेंडे बी सामके रसरसीत जातात!
एकेक वायंगें सामकें येऽव्हेंऽ
आनी एकेक भेंडो म्हणटात तो येऽव्होऽ
तरी लेगीत काळींग हेंवूय एक बरें फळ
म्हूण आयकलां हांवें!
पूण म्हजे तांट्याक केन्ना येतलें देवाक खबर!
ते सर हीं वायगीं आनी हे भेंडेच बरे म्हणपाचें!

**तात्पर्य : हेची फळ काय मम तपाला?**

कथिका

# चार झिलांची आवस

*बसस्टँडार पावतकच यशोदा घुस्पली. काळखांत झुम्म करून स्टँडार भितर सरपी बशी पळोवन ती आबूज जावन एका जाग्यारूच उबी रावली. 'बांद्याक जावची बस खंयची?' अशें विचारचें अशें तिका दिसतालें खरें, पूण पांच रुपयां खातीर बशींतल्या कंडक्टरान दिल्लीं तीख उतरां याद जावन ती ओग्गी रावली. बांद्याक गेलींय जाल्यार भुरगे तिचे कडेन कसलो वेव्हार करतले आसले तें मात देवाकूय सांगपाक जावचें नासलें!*



नयना आडारकार
म्हापशें - गोंय.

"आगे, तूं आतां बरी जाल्या. वच आयज घरा." रावंडाक आयिल्ल्या दोतोरान सांगलें, तशें येशोदेच्या दोळ्यांत दुकां सांकळ्ळीं. आयज सकाळीं नर्सूय ह्याच कारणा खातीर जाय-फाय उलयल्ली. तिची म्हणून कसली चूक? गेल्या चार दिसां फाटीं तिच्या घरच्यांनी तिका हाडून हॉस्पिटलांत उडयल्ली. त्या एका दिसा तोंड दाखयल्ले भशेन करून मागीर जीं नाच जालीं, तीं हो वेळ मेरेन खबरीक पसून येवंक नांत!

यशोदेन आपल्या सामानाची पिशवी घेतली, नर्सीन दिल्ले पेपर तातूंत घाले आनी मोन्यानी हॉस्पिटलाभायर सरली. घरा वचपाक जाय बांद्याक. पूण वचप कशें? ना हातांत पयशे, ना कोणाची वळख - ना पाळख. ती तशीच हॉस्पिटलाचे मुखेल गेटींतल्यान भायर सरली. थंय भाजी-फळां विकूंक बशिल्ल्या बायलां कडेन घुटमळ्ळी. सांगू काय नाका? तिच्या मनांत द्वंद्व चलिल्लें. त्या बायलां मदीं एक जाण्टेलीय आशिल्ली. यशोदेचेच पिरायेची. ती घडये आपलें दुखख समजून आदार करूं येत म्हणून यशोदा तिचे कुशीक वचून रावली. यशोदा तिका आपली गजाल सांगचीच आसली, ती बायल फटकळशी उलयली, "बाये धंद्या वगतार तुजी पिरपीर नाका. एसलीं जायतीं जाणां येताय हिंगा. हांव तेंकां पळोवं काय धंदो करूं?"

येशोदेच्या तोंडार थापट मारिल्लेवरी जालें. इतलो तेप घरच्यांचो अपमान सहन करताली ती. आतां लोकांकडल्यानूय उलोवणी खावपाची पाळी हाडली भुरग्यांनी आपल्याचेर. विचारांचे भिरकेंत ती तशीच लागींच आशिल्ल्या घुमटी कशी बांदिल्ल्या देवळांत भितर सरली. देवाकडेन हात जोडून उबी आशिल्लेकडेन नकळटना तिचया दोळ्यांतल्यान दोन दुकां गळ्ळीं.



सातार्डे सावन बांदा इतलो तिचो प्रवास. लग्ना उपरांत मात सातार्डेचें घर तिका कायमचें बंद जालें, हरशीं न्हय - चार भुरगे आनी सहदेवा वांगडा लोकांच्या शेता-भाटांनी करपाचो वावर! तिका ह्या कामांतल्यान खंय येवपा-वचपाक वेळूच मेळ्ळोना.

आपूण चार पुतांची आवय हाचो यशोदेक खूब अभिमान. केन्नाय शेजान्न म्हणटाली, "आगे यशवदे राबतय कितकी? चार पयशे येततं तेंचा एक बारीकसा कांकण तरी करून घाल."

तेन्ना मुमुरखें हांसत यशोदेन म्हणचें, "आगे माजे हे झील आसत चार-चार. ते मढयतले म्हाका सोन्यान."

पूण ते दीस आयलेच ना. सहदेव आनी यशोदेन हाडाचीं काडां करून चारूय पुतांक थोडें शिकयलें. नोकरी लागल्या उपरांत लग्नूय करून दिलें. सहदेव आससर सगळें कुटूंब बरें

नंदतालें. पूण तो गेलो आनी ते मठयेच्या खुंटयेचे चार वांटे जाले आनी यशोदाय वांटून गेली चार वाटयांनीं. सहदेव गेल्लो तेन्ना तिका दिशिल्लें, 'बरे दीस इलेत ते बगूचे पयलींच गेलो.' पूण आतां आपल्या नशिबाचे भोग पळोवन, सहदेव पयलींच वचून सुटलो अशें तिका दिसपाक लागलें. अख्खो दीस देवळांत बसून यशोदेचे पांय आंखडून गेल्ले. सकाळीं हॉस्पिटलांत घेतिल्ल्या च्या-पोळयेचें आतां मेरेन उदक जाल्लें. ल्हवू ल्हवू काळोख आपले हात-पांय पसरूंक लागिल्लो. भाजीवाल्योय सामान धांपून दवरपाच्या वावराक लागल्यो.

'बस्टेंड बस्टेंड' कण्डक्टर आड्डतालो ते दिकेन यशोदा चलपाक लागली. बशींत चडचें काय चडचें न्हय ह्या विचारांत घुटमळटनाच कंडक्टर तिचेर तापलो.

''आगे, आज्जे चोड गे बेगीन, लाग कित्याक मात्ताय?''

बाबडीशी जावन यशोदा बशींत चडली. निमाण्या सिटार कोनशाक ती गुठली कशी करून बसली. कंडक्टर आयलो आनी पयशे मागले जाल्यार? तिच्या काळजांत खपखपलें. इतल्यान बस सुटली. जनेलांतल्यान थंड वारें तिच्या आंगार झुळ्ळ जालें. तशें विचारांचें वारेंय तिचे तकलेंत घुंवपाक लागलें.

''कुत्र्या भशेन जिणां माजां. कुत्रो तरी लाथ हाणल्यार कें कें करून किळांचता. माका तांय बी करूंक बंदी. घुस्मट जाताहा सगळो. आपलेच दांत आपले ओंठ म्हणान सगळां सोंसलां. एक उतार भायर फुटलां तर गांवाक खबरी करूंक मेळटल्यो म्हूण मूठ धापान थेयली. दिसलां झील सुदारतले. एक दीस एकट्याक तरी दया येतली आवशीचेर. केल्ल्या कश्टांचां फळ दितले झील. पूण तसां काय जालां ना. झीलांनी आपापल्या घरांनी राबयलां. शेतांत गुरांक राबयतत तसां. पोटाक घालून जगयतत हीं! वयल्यान शेखी मिरयतत. शिरां पडां माज्या नशिबाक...''

''आगे, कितें चित्ताय. पोयशे काड पोयशे.'' कंडक्टराच्या आवाजान तिणें कच्च करून आंग काडलें. 'देवा, पयशे मागतांहां. खंयसून दिवं?' यशोदा चोर कशी जाली.

''पयशे नाय आसत.'' तिचे ओंठ हालले पूण उतरां ओंठा भायर आयलीं नांत. फकत न्हयकारान तिची मान हाल्ली.

''घोणसा बैल कोशी मान कितें हालोयता.उलोवंक कळना मिस्ता!'' कंडक्टर ज्युस्त तिच्या तिसऱ्या पुतावरी उलयलो.

''हीं आनी पिसांटां कित्याक चोडटात बशीन, मोरपाक?'' कंडक्टर ताणशेलो. यशोदेच्या काळजाचो एक फाल उक्तो जालो. पयलीं भुरग्या-बाळां खातीर राब राबयल्ली कूड आतां भुरग्यांच्या संवसारा खातीर झरताली. काळाच्या चपक्यांत ती कूड सामकी विरविरिल्ली. सगळ्यां खातीर आपलीं दुखणीं आंगार काडचेली सवंय जाल्ली तिका. आतांय ती तशी आंगारूच काडटाली. भुरग्यांक तर पडूनच वचूंक नासलें. पूण त्या दिसा ती सामकीच थार पडली. उठपा-बसपाक लेगीत जायना जालें, तेन्ना तिच्या पुतां-सुनांनी केल्लो खेव याद जावन तिच्या काळजांत कल्ल जालें.

''हाथरूण धरूंक म्हाजेगेर कित्याक? आवशीक तुमी व्हरात.'' फाटलो म्हयनोभर आपल्यागेर दवरून आवयक पोसतल्या (?) चवथ्या पुतान म्हळें, ''मरांक इली काय मडां दुसऱ्याच्या दारांत. आमकां नको.'' व्हडलो आड्डलो. बाकीच्यांनीय तीच तिरडी उखलून धरली. निमाणें तांचे मर्दी कितेंतरी शिजलें. आनी यशोदेची पोटली हॉस्पिटलांत पावली.

बसस्टॅण्डार पावतकच यशोदा घुस्पली. काळखांत झुम्म करून स्टॅण्डार भितर सरपी बशी पळोवन ती आबूज जावन एका जाग्यारूच उबी रावली. 'बांद्याक जावची बस खंयची?' अशें विचारचें अशें तिका दिसतालें खरें, पूण पांच रुपयां खातीर बशींतल्या कंडक्टरान दिल्लीं तीख उतरां याद जावन ती ओग्गी रावली. बांद्याक गेलींय जाल्यार भुरगे तिचे कडेन कसलो वेव्हार करतले आसले तें मात देवाकूय सांगपाक जावचें नासलें!

बरीच रात जाल्ली. बसस्टॅण्ड पार्क करून दवरिल्ल्या बशींनी भरून गेल्लो. कांय दुकानां मुखार न्हिदिल्ले लोक सोडल्यार सगळ्याक किण्ण जाल्लें. भुकेन जार जाल्ले कुडीक यशोदेन एका दुकाना मुखार पातळायली. तकलेर पोती घेवन ती न्हिदे खातीर जायतो वेळ तळमळ्ळी. मागीर केन्ना तरी फांतोडेर तिका दोळो लागलो.

'आगे उठ उठ' कोण तरी व्हडल्यान उलयता तो आवाज कानार पडून यशोदेक जाग आयली. तो दुकानदार आसलो. दुकान उक्तें करपाचो वेळ जाल्लो. यशोदेन पोती घेतली आनी थंयच्यान मातशी मुखार गेली. पोटांत भुकेन उजो पेटिल्लो. तिची नदर थंय आशिकुशीक भोंवपी भिकाऱ्यांचेर गेली. बायलां-भुरगीं आशाळ्या भशेन लोकां मुखार हात पसरतालीं. हातार पडटालेंच अशें ना. लोकांचीं उतरां मात आयकुचीं पडटालीं.

सुर्या बरोच वयर आयिल्लो. ताचे धगसाणीन यशोदेचे पोटांतले भुकेकय पेटोवन घातिल्लें. ती खरसाण सोंसू नजो जावन यशोदा एका दुकानाकुशीकचे वण्टीक वणखून बसली. पोती मुखारूच दवरून तिणें तकली धोंपरांत घाली.

'भीक मागुची पाळी हाडली ह्या झिलांनी.' यशोदेच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हावपाक लागलीं. त्या दुकांनी तिच्या भुरगेपणांत तिच्या दारांत येवपी भिकारीण झळकली. भिकारीण खंयची, पिशीच ती! तोंडांतल्यान फकत बॅ बॅ बॅ बॅ असो आवाज काडपी. वांकडें तिकडें हातवारें करपी आनी हातार कितेंय पडलें काय खिणांत हांसपी. खिणांत रडपी.

'बॅ बॅ बॅ बॅ' यशोदेचें काळीज करंदाय करपाक लागलें. 'सोन्यान मडयतले म्हूण चितललां, रस्त्यार उडयलां म्हाका झिलांनी - बॅ बॅ बॅ बॅ देवा बेगीना व्हर रे म्हाका - बॅ बॅ बॅ बॅ - देवा व्हर रे म्हाका.' खण्ण आवाजान तिणें तकली वयर केली. तिणें मुखार दवरिल्ले पोतयेर कोणेतरी पयशे उडयल्ले.

'भिकारीण केलां म्हाका झिलांनी, भिकारीण. चार झिलांची मी आवस. भिकारीण - बॅ बॅ बॅ बॅ' यशोदेच्या दोळ्यांतल्यान झरझर दुकां व्हावूंक लागलीं. तिचे हात वांकडे-तिकडे हालपाक लागले. खिणांत ती हांसपाक लागली, खिणांत रडपाक लागली. तिच्याय नकळटां तिच्या ओठांतल्यान उतरां सुटलीं - बॅ बॅ बॅ बॅ - बॅ बॅ बॅ बॅ.



# आस्वाद

सृजनशक्तीच्या नवरात्रींतल्या उत्सवी काळांत शीलाबायचें 'कावळ्या काक्या रे' हें सोबीत, सचित्र, संगीतमय आनी मनांक ओड लावपी शीर्शकाचें माणकुल्या भुरग्यां खातीर बरयल्लें पुस्तक बिम्ब प्रकाशनान उजवाडयलां.

ह्या समयार शीलाबायक हुनहुनीत परबीं दितां आनी कोंकणी साहित्या वांगडाच तुवें कोंकणी बालसाहित्याचें दालनय गिरेस्त करचें अशी आस्त परगटायतां.

तूं यशस्वी कथाकार तर आसाच, बालसाहित्य बरोवपाचोय तुवें अधिकार जोडला. बालसाहित्याचें हें तुजें चवथें पुस्तक. तूं भुरग्यांचें मन बेस बरें जाणां, भुरग्यांच्या भाव विश्वांत तूं रमता हें तुज्या कथांतल्यान तुवें सिद्ध केलां. भुरग्यांखातीर तुवें थोड्यो कविता केल्यात, कित्याक तुजेंय मन भुरग्यावरीच! 'नीज शैशवास जपणें बाणा कवीचा असे' ही उक्ती तुका लागू जाता. आनी जे कुशळतायेन तुवें हें नवें पुस्तक बरयलां, तें पुस्तक बालसाहित्यांत एक नवी देख निर्मितलें हाची खात्री म्हाका आसा.

आयजवेर शीलाबायन मुखेलपणान जाण्ट्यां खातीर बरयलां आनी एक बरी कथाकार म्हूण कोंकणी साहित्यांत नामना जोडल्या. तिच्यो कथा अणकाराच्या माध्यमांतल्यान मराठी, हिंदी, तेलुगु , बंगाली आदी भासांच्या साहित्यांत गेल्यात आनी तातुंतल्यान तुका राष्ट्रीय स्थराचेर मान्यताय मेळ्ळ्या. कित्याक थंय शीलाबायचें साहित्य वाचप्यांचे कसवटणेक उतरलां.

हालींच शीलाबायक समसंग -टागोर पुरस्कार मेळिल्ल्यान ,ताणें भारतीय कथा विश्वांत आपलें स्थान घट केलां.

शीलाबायच्यो कथा इंग्लीश,पुर्तूगेज आनी फ्रेंच ह्या भासांतल्यान अणकारीत जावन त्यो विश्व -साहित्य मळार गेल्यात आनी थंय लेगीत ताच्या कथांची आनी कथा शैलीची दखल समिक्षक घेवंक लागल्यात. डॉ. पॉल कास्ट्रो ह्या इंग्लंडांतल्या लीडस् विश्वविद्यालयांतल्या (University of leeds) पुर्तूगेज भाशेच्या प्रोफेसरान शीलाबायच्या 'गॅर' हे फामाद कथेची नोंद घेवन ते कथे वांगडाच शीलाबायचो गौरव केला. प्रो.कास्ट्रोन 'गॅर' कथेचो आल्बेर्तो नोरोन्या हाणें केल्लो पुर्तूगेज अणकार वाचलो आनी ताणें ती कथा,आनी 'Rucmas,a mulherzinha de Salem' ह्या Maria Elsa da Rocha हिणें त्याच कालखंडांतले घडणुकेचेर बरयल्ले कथेचेर समिक्षात्मक पुराय निबंध बरोवन शीलाबायची तुस्त तोखणाय केल्या.

Prof.Castro बरयता,

This paper deals with two Goan stories set around 18th December 1961, the day the Indian military entered Goa and brought Portuguese rule to a sudden end: both written in the mid-1960s, these stories are 'Guerr' by the Konkani language writer Sheela Naik Kolambkar, the Portugues translation of which I shall quote from here,and "Rucmas,a mulherzinha de Salem",by Maria Elsa da Rocha.

I argue that both writers use the particular qualities and propensities of the short story to depict the intricate weave of ambiguous feelings, unresolved issues and projected misgivings surrounding this day, or to put it another way, to depict the tangled lives of Goans twisting through the clean break of liberationm.'

यशस्वी अणकाराक लागून कोंकणी साहित्य संवसारीक मळाचेर पावलां आनी संवसारीकीकरणाच्या- Globalization च्या ह्या काळांत कोंकणी साहित्याक मान्यताय मेळोवन दिल्या. शीलाबायन ही गजाल गुपीत कशी आपले कडेच राखून दवरिल्ल्यान, आयज हें गुपीत तुमच्या सगल्यां मुखार हांव हाडटां. शीलाबाय, तुका आनीक एक फावट परबीं! 'कावळ्या काक्या रे' ही कावळ्यांचे जिणेचेर बेतिल्ली, पूण

## शीलाचें कावळ्या काक्या रे...!



अप्रत्यक्षपणान मनशाच्या जिविताचेर भाश्य करपी एक उत्तम बोधकाणी शीलाबायन सांगल्या. ती भुरग्यां खातीर जरी आसली तरी आमकां जाण्ट्यांकय ती भावता, कित्याक ते काणयेंतल्यान समाज मनाचें पडबिंबय आमकां दिसता. ही काणी बरयतना शीलाबायन बालसाहित्याचे सगळे गूण,सगळी विशेशताय कटाक्षान पाळ्ळ्या. हे काणयेची भास सामकी गोड़, सोबीत, सोंपी, सुटसुटीत, नादमधुर आनी नादानुकारी. हे काणयेंत सवण्यांच्या जिवितांतली अद्भुतताय आनी अजापां रंगयल्यांत, कल्पनेचे सुंदरकायेन सवण्यांची, कावळ्यांची, कोगळांची आनी चानयेसारक्या मोनजातीची जीण रेखाटल्या. काणी वाचतकीच भुरग्यांचे खर चवकस बुद्धीचें समाधान तर जातलेंच, पूण शीलाबायन रंगयल्ले कांय प्रसंग आयकून तांच्या तोंडार हांसो फुलतलो. ही काणी वाचतकीच भुरगीं आपले भावसृश्टींत रमतलीं. हे काणयेंतल्यान तांकां आपले जिणेविशींय बोध जातलो.




बालसाहित्य भुरग्यांचे मांयभाशेंतल्यान आसचें हो एक जगद् मान्य सिद्धांत आसा. पूण आयचीं आमचीं भोवतेक भुरगीं, सर्तीच्या वातावरणांत जियेतात,व्हड जातात आनी आपलें निरागस भुरगेंपण होगडावन बसतात हें आमी पळेतात. घरांत कोंकणी, मराठी ,हिंदी उलोवपी भुरगीं संवसारीकीकरणाच्या दबावाखाल, इंग्लीश भाशेच्या माध्यमांतल्यान शिकपाक लागल्यांत. भावनेची, मन फुलोवपी, मायेची, घरावी मांयभास घरांत चलता, तर शाळेंत तकलेंत म्हायती कोंबपाची, भरपाची परकी भास चलता. हाका लागून भुरग्यांचो भावनीक घुस्मटमार जाता, मन फुलचे बदला तें बावता.भुरग्याची विचारशक्ती, सृजनशक्ती नश्ट जाता. हाका लागून बालसाहित्य बरोवप्यांनी ह्या बदलाचें भान दवरचें पडटलें.शीलाबायक तें भान आसा. कारण काणयेंतली दुसरी वळ अशी आसा,'देवळा सामकार आसलो एक पिंपळ. खूब व्हडलो. खूब वर्सांचो. इतलो व्हड की धा भुरगीं,'रिंगा रिंगा रोझीस' करून रावलीं जाल्यारूच पावपाचीं' हाचे वयल्यान याद जाली 'बा बा ब्लॅक शीप'ह्या शीशूगीताची – नर्सरी रायमची. एक भुरगें केजींत शिकता. घरांतल्या कोणाकूच इंग्लीश भाशेचो गंध ना. ना म्हणल्यार बापूय दोन च्यार इंग्लीशीचीं बुकां शिकिल्लो आसता. एक दीस भुरगें घरा येता. आवयक, आजयेक 'बा बा ब्लॅक शीप' म्हणून दाखयता आनी मागीर आवयक ताचो अर्थ विचारता. आवय आनी आजी कपलार हात मारतात. पूण बापूय हांसपाक लागता. तो म्हणटा आपूण सांगतां,'आपूण जाणां. हें आमच्या बाबाचेर बरयलां. आमचो लिडर तो. बाबान ब्लॅक केलें. शीप म्हणजे व्हडें. तीन बॅगां नोटीनी भरलीं आनी व्हड्यांतल्यान दुबयक धाडलीं. हें फट जाल्यार फाल्यां टिचरीक विचार.' ही खबर आयकून हांवें कपलार हात मारलो.

आतां शीलाबायचे हे काणयेकडेन वचुया.ही काणी शेवण्यांची आनी ताचे संबंधांत येवपी मनशांची लेगीत. शेवण्यांमदीं एक कावळ्याचें कुटूंब आसता. घरकार कावळो काळू,ताची घरकान्न साळू,तांचीं पिलां निळू,खळू,बाळू.पूण बाळू तांचें पील नासता, तर तें सोनू आनी भानू ह्या कोगळांचें पील आसता.भानून आपलें तांती साळूच्या घोंटेरांत घालून तें साळून उबयल्लें आसता. कावळ्यांक मनीसजाती परसय अदीक प्रमाणांत समाज भान आनी समाजीक बांधिलकी आसता.तांकां खावपाक कितेंय मेळ्ळ्यार,ते साद घालून हेरां कावळ्यांक आपयतात. मनशांवरी ते आपसुवार्थी नासतात. कांय मनीस लेगीत कोगळां वरींचआलमपेड्ड्यार आसतात. कोगूळ आपलो घोंटेर केन्नाच बांदिनांत आनी कांय मनशांवरींच आपली जबाबदारी दुसऱ्यांचेर धुकलून मेकळे जातात!

हे काणयेंत घोंटेर कसो बांदचो, घर कशें चलोवचें, पिलांक कशी देख दिवशी आनी तांकां कशीं वाडोवचीं हाची देख दिल्या. शेवण्यांच्या जिवितांतूय मनशांवरींच सघंर्शाचे प्रसंग येतात आनी कावळे ते कशे निभायतात,असले जायते प्रसंग शीलाबायन बेस बरे रंगयल्यात.

शीलाबायन सर्वपित्री अमास आनी तामीळनाडुंतल्या 'माट्ट पोंगल' ह्या पारंपारीक व्रतांचो हे काणयेंत बेस बरो उपेग केला. कावळ्या कोगळाची ही काणी शीलाबायन प्रभावीपणान भुरग्यांकूच न्हय,जाण्ट्यां खातीरूय सांगल्या.

हालींच म्हाका अक्टोबर म्हयन्याचो 'ललित'मासिकाचो ताजो अंक मेळ्ळो. तातूंत लेखक/समिक्षक शंकर सारडा हांणी बालसाहित्याविशीं विचार मांडल्यात. ते म्हणटात:'बालसाहित्य हे केवळ बालसाहित्य नसतंच! आपल्या मानवी जीवनाचंच ते कल्पनारम्य पण अर्थपूर्ण संघर्ष रंगवणारे सर्जनशील लेखन असतं. दुर्दैवाने मराठीतील कोणाही बालसाहित्यकाराने हे सामर्थ्य जाणून घेतले नाही.'

पूण शीलाबायन आपलें बालसाहित्य बरयतना हें सामर्थ्य जुस्त जाणून घेतलां आनी 'कावळ्या काक्या रे'हे बालकाणयेंत ताचो आमकां परिणामकारक रीतीन प्रत्यय आयला.

शीलाबाय,तुका हांव परबीं दितां.अशेंच बरयत आनीक कोंकणीक एक 'हॅरी पोटर'दी.





**– सुरेश गुंडू आमोणकार**
गुरूकुंज,
म्हापशें – गोंय.

**(२१/१०/२०१२ ह्या दिसा 'कावळ्या काक्या रे' पुस्तक प्रकाशना वेळार केल्ल्या उलोवपांतले संपादीत अंश)**

# झालर

## वळख काळखांतल्या उजवाडाची...

*वळयांचो संदर्भ फकत वाऱ्याचकडें येता म्हणप चुकीचें जातलें. तांचो संबंद सुर्याकडेंय येता. ताच्या वताकडें येता, तशोच तो पावसाकडेय येता. आनी जसो तो कावळयांकडें येता तशोच तो किरामोरांकडेय येता. कावळयाकडें येता म्हण सोयऱ्याकडें आनी पितरांकडेंय येता. मनांक जाग आयली की आमचे सयभोंवतणी आसलेल्या असंख्य गजालींकडें आमची सोयरीगत आसा हें कळत वयता.*




**रमेश भगवंत वेळुस्कार**
पाळें,
शिर्दोन - गोंय
मो.: ९४२०६८८४६१


**हां**व जागो जालों.

हांव जागो जाल्लों तरी अजून म्हजे दोळे उक्ते जावंक नासले. म्हाका हांसपाक येवपाक लागलें. म्हजे दोळे काय उक्ते जावंक ना पूण म्हाका जें जें पळोवंक जाय आसलें तें तें सगळें म्हाका दोळे बंद आसतानाय दिसता. दोळे बंद, म्हण्टकूच धाय दिकांनी रिगत येता तो काळोख. दोळे बंद आसतानाच काळखाचें बिण्ण दर्शन घेवन ताका सारकोच पळोवन घेवया म्हण हांवें म्हज्या धारणांचें केंद्र ताणलें. काळोख तर दिसलोच ना. ताचे बदला हें वाक्य, युगानयुगां गेलीं तरी आयजूय आसा तशें आसा अशें म्हणचें पडटलें. ह्या विचाराचो धागो धरुन, हांव, त्या हांवें पळयल्ल्या काळार परत नदर मारुंक लागलों, जाल्यार मना सामकारल्यान तो काळ एके संथ लयेन वचपाक लागलो. पूण काळ हो जादुगार. एक लय म्हण्टां म्हण्टां तो असंख्य धारांतल्यान कोसळूंक लागलो. एका घोग्यावरी तो काळ अनंत घटनांच्या अनंत मालिकांची सोयरीगत सांगून एकामेकांकडलें नातें घट्ट करीत धाय दिकांतल्यान उलगडत वचपाक लागलो.



हांव म्हाका भांगराच्या लेव रंगांत गुडूप्प जाल्लेवरी दिसलों. दोळे धांपले की काळोख जाता, हो सर्वसादारण लोकांचो समज. ना म्हटल्यार हो लोकभाशेंतलो संदर्भ. लोकमनाचो संदर्भ. लोकांच्या धारणांनी पुर्विल्ल्या अनंत काळासावन आकळत आयल्ली ही गजाल. म्हणूनच काय हो काळोख कोणाकूय सहज दिसता? काय हो काळोख यादींच्या रुपान समाजाच्या मनांत येवन बसला! आनी दोळे धांपले की सामकार येता तो काळोख. काय हो यादींतलो काळोख? मात लेगीत हालूंक नासलेलो काळोख. सामको अढळ काळोख.

मनीसूय वर्सांसंकींसावन मात लेगीत बदलूंक ना. अनंत वर्सांसावन तो ह्या काळखाच्या विचारांतल्यान असोच चलत येत आसा, अशें दिसता. आनी हेच खातीर मनीस आसलो थंयच आसा काय कितें अशेंय दिसता. म्हणूनच तर दोळे धांपले की काळोख जाता

हांव न्हिदलां थंयच्यान वयर म्हाका सामकें म्हजे सामकार दिसता तें सुलच्या नळ्यांचें पाखें. सुमार पंचवीशेक वर्सां आदीं ही माळी मदेरार केल्ली. तेन्नाच ती सुमार ९० एक वर्सांची आसुये अशें म्हजो बापूय म्हाका म्हणटालो. मातयेचे पारे, लाकडी मदेर आनी वयर मातयेचे नळे. जमनीच्या आदारान खणलेले बुनयादीचेर ही माती सुमार शंबरेक वर्सां सावन घर जावन उबी आसा. सुरवेक वयले नळे गांवठी आसले. आतां ते सुलचे जाल्यात. पूण हे घातलेल्याक माळयेर बरीच गर्मी जावपाक लागल्या. भर दनपारच्या वेळार गिमांत हांवें शितळसीणीचो खूब अणभव घेतला. कारण सुलच्या नळ्यांची माती बरीच बारीक जाल्ल्यान नळे सामके नकसूद (फायन) जातात खंय! जाल्यार गांवठी नळ्यानी तांचे बाळबोध घडसाणीक लागून तातूंत बारीक बारीक रंद्रां नकळत उरतात आनी हाचो परिणाम म्हण तांतल्यान बरें बारीक

वारें खेळटा. ह्या वाऱ्याखातीर नळे गरम जायनांत. ताका लागून माळी केन्नाच तापनासली. त्या काळार गोंयांत इलेक्ट्रिसीटी नासली. म्हण्टकूच फॅनाचो प्रश्नूच येना. पूण अशा वेळार भायर झाडाचेर खेळपी वारें खेळत खेळत शितळ जायत घरांत भितर येतालें आनी आपल्या थंडगार शिरंतरांनी आमच्या आंगाक आनी मनाक स्पर्श करुन वयतालें ते खीण उतरांनी व्यक्त करुंकूय अवर्णनीय जाता. ही एअर कंडीशनींग सिस्टिम आमच्या गावठी नळे करतल्या गांवठी कारागिरांक खंयच्यान समजल्ली काय कोणाक खबर! काय मातयेनूच ही कळाशी तांचेभितर अचळय दवरुन दिल्ली काय खबर ना. सुलचे नळे करतल्या कारागिरांक नळ्यांच्या आंगांत वारें खेळटें दवरपाचें फिशाल तंत्र न कळ्ळेल्यान म्हजी माळी मात आतां गरम जायत आसा. हांव मातयेवेल्यान चलताना म्हाका माळयेवेल्या नळ्यांची याद येत रावता.

आतां माळी पळोवंक बरी दिसता. म्हणचे गांवठी नळ्यांपरस सुलचे नळे पळोवंक जरी बरे दिसले तरी ते आनी एक गजाल स्पश्ट करतात. ते तुमचो आर्थिक बसकारुय व्यक्त करुन वयतात. वांगडाच तुमचे आधुनिकतायेचोय संबंद ते लायतात. म्हणचे समजा तार्णे म्हटलें की ताका आपल्या घराक सुलचे नळे लेगीत घालपाक जमना, जाल्यार ताका तें जमना इतलोच ताचो अर्थ जायना तर ताची तशी आर्थिक परिस्थितीय ना असोय ताचो आनीक एक अर्थ जाता. म्हण्टकूच पळयात की नळ्यांक धरून विचारांच्यो कितल्यो वयल्यो माळयो मनीस चडटा तें.

आसूं, आसूं आं. म्हाका काय आतां हे नळे बदलपाचे नांत. आनी म्हाका आधुनिकूय जावपाचें ना. आरे म्हजे भयणीन आपल्या घराक घातल्या नळे सुलचे आनी आतां तागेर गेलों की म्हज्या जिवाची कित्याक घालमेल जाता तें मात म्हाका कळना. पूण कितेंय जावं, म्हाका सुलचे नळे घालपाचे ना. अशें म्हज्या शेजाऱ्यान म्हटलें जाल्यार कांय जाणांनी ताका तो आधुनिकतायेचो दुस्मान आनी चामटो म्हटलें. पूण ताका आधुनिकतायेक लागून कितें लुकसाण जाता तें कळटा. ताका तें लुकसाण करुन घेवपाक नाका अशें तांकां कित्याक दिसलें ना, हो तांचे नदरेन एक फ्राक (अशक्त) प्रश्न आसूं येता. पूण ताका आधुनिकतायेंतली चील खंय आसा ती कळ्ळ्या तशेंच ताका गांवठी फायद्याची जाण आसा अशें आमी म्हणपाक ना. कारण तें आमकां कळुंकूच ना. हे एके मातयेवेल्यान आमी खंय खंय पावले तें पळयात. प्रत्येक गजाल जटिल आसता ती अशी.

नळ्यांचो संदर्भ फकत वाऱ्याचकडें येता म्हणप चुकीचें जातलें. तांचो संबंद सुर्याकडेंय येता. ताच्या वताकडें येता, तसोच तो पावसाकडेय येता. आनी जसो तो कावळ्यांकडें येता तसोच तो किरामोरांकडेय येता. कावळ्याकडें येता म्हण सोयऱ्याकडें आनी पितरांकडेंय येता. मनांक जाग आयली की आमचे सयभोंवतणी आसलेल्या असंख्य गजालींकडें आमची सोयरीगत आसा हें कळत वयता.

एकदां कितें जालें जाणां, हांव स्कुलाक साकून घरा येतालों. घरालागीं पावता जाल्यार म्हजी नदर वयर गेली. म्हजे माळयेच्या पाख्याचेर एक मोर बसला. हरशीं म्हज्या गांवांत काय मोर ना. पूण अकस्मात म्हज्या गांवांत आयल्लो हो मोर पळोवन म्हजें मन सामकें भुल्लुसलें. साधुसंत येती घरा तोचि दिवाळी दसरा अशें खूब फावटीं आयकल्लें. पूण आयज म्हज्या गांवांत आयल्लो हो मोर पळोवन म्हजें मन अतिआनंदान सामकें भुरकटून गेल्लें. हो घरार आयल्लो मोर! कीर तर म्हज्या घराचेर येतालेच. आयज मोर आयल्लो पळोवन किरां मोरांची ,संकल्पना जी केन्ना लोक गीतांनी आनी लोककाणयांनी आयकल्ली, वाचलेली ती आयज प्रत्यक्षांत जाल्ली पळोवन, सैम म्हजे अक्षरसंवेदनेचें सांगाती जावंक येता तें अणभवून हांव अंतरांतल्यान गदगदलों. हरशीं म्हजें बरोवप ही म्हजी खासकूत गजाल अशें म्हणूं येत. पूण ही गजाल तितकी खरी न्हय. गिरी कंदरांनी मेळ्ळेलो सामान्यशा चित्रांचो ठेवो ही त्या तत्कालीन चित्रकारांची खाकसकूत गजाल आसतूय. पूण कालांतरान ती तशी उरना. तो जाता तत्कालीन समाजाच्या चित्रकलात्म गुणांचो इतिहासीक पुरावो. आनी म्हणून ती सामाजीक संपदा जाता. तशेंच तें कामूय सामाजीक जाता. आनी म्हणून म्हज्या घरार आयल्लो मोर ही जरी वयर वयर पळोवपाक व्यक्तिगत गजाल दिसली तरी ती तशी नासली. कारण मोर म्हज्या देशाची राश्ट्रीय संपदा आसली. तिचेर बरोवप आनी तें समाजाखातीर व्यक्त करप होय वावर सामाजिकूच आसता. जांकां सामको उखलापो विचार करपाची सवंय आसता तांकां मात हें सांगून पटपाचें ना. कारण स्वता जावन चिंतप अशी सवंय ताणी लावन न घेतल्या कारणान कोणाचे तरी सांगल्ले सांगणेचे बाणीर बोट दवरुन चलप इतलेंच हे उखलाप्या विचारान करमेल्ले लोक करुंक शकतात. आनी जेन्ना हीं प्रतिकां वा ह्यो प्रतिमा साहित्याचो भाग जावन येतात तेन्नाय त्यो खासकूत उरनासतना आपाप सामाजीक जाल्ल्यो आसतात. आनी ह्या सगळ्याचें आकलन जावपाक वैचारीक बैठकीची गरज मात आसताच आसता. पूण अशे तरेची बैठक नासलेले लोक जेन्ना शाळा कॉलेजांनी वा विश्व-विद्यालयांनी विद्यादानाचें काम करतात तेन्ना ते त्या विद्यार्थ्यांमदीं व्यापकतायेचो विचार पावोंवचे बदला संकुचीत विचारसरणीच पावोवपी जातात. हाचो परिणाम म्हण समाजांत वैचारीक असंतुळण वाडीक लागता. हें असंतुळण एके तरेचो काळोखूच निर्माण करता. पूण वैचारीक संतुळण मात काळखांतल्यान उजवाड पळोवपाची शक्त दिता.

आमच्या गोंयांत कांय खाशेल्या दिसांनी देवाक काकोळ घालपाची प्रथा आसा. कांयकडे ही प्रसादाची वाडी कुटुंबाचो मुखेली तिका उदक सोडून घराच्या नळ्यांचेर दवरता. मागीर एक कावळ्यांचें भिरें कांव कांव करीत थंय पावता. आनी त्या भिऱ्यांतले कावळे त्या प्रसादाचेर घालून घेतात. म्हाका भुरगेपणासावन ही कावळ्यांची समराधना खूब आवडटा. आनी ते कितें फकत कावळे न्हयत. हे तर हिंदु समाजांतले आचार विचार. ते आमच्या सरुन गेल्ल्या आत्मजांचे आत्मे. फाल्यां हांव ह्या संवसारांतल्यान सरुन गेलों की लोकसमजाच्या आदारान म्हजें रुपांतर एका कावळ्यांतूच जातलें आनी मागीर हांव कावळो जावन ह्या नळ्यांर येवन बसतलों. घडये हांव ते फुडारांतले समराधनेंतलो एक कावळोय आसपाची शक्यता आसूं येता. हांव हें मानू वा ना मानू. हे सगळे आमच्या देशांतले धार्मिक आनी सामाजिक तशेंच आत्मिक संदर्भ. हांव हें सगळें न्हिदलां थंयच्यान पळयतां, काय न्हिदेंतल्यान पळयतां, काय न्हिदेक लागून पडत आयल्ल्या काळखांतल्यान पळयतां, कांयच समजना... पूण चिंतनांतलो उजवाड मात ह्या काळखांतल्यान उदेत येता हाची म्हाका खात्री पडत गेली.

अजून म्हजे दोळे उक्ते जावंक नासले. तरी हांव जागो जाल्लों. म्हाका हांसपाक येवपाक लागलें. म्हजे दोळे जरी बंद आसले तरी हांव पुराय जागृत जाल्लों आसलों. ही जाग आयली की काळखाच्याच अंतराळांतल्यान उजवाडाचो स्त्रोत उदेत येता ही जाणीव मनशाक आकळून येंवक लागता काय कितें...

**पाळें**
**२३-२-२०१३**



*म. गो. पक्षान ह्या राज्याचेर बरींच वर्सां राज्य केलें. गोंयची राजभास मराठी करपाचें तांचें ध्येय आशिल्लें. तें ध्येय ते पुराय करूंक शकले नात. कारण तांकांय भाशावाद चालू दवरून, ह्या राज्याचेर सत्ता गाजोवपाची आशिल्ली. तांकां जर सतेची आस नाशिल्ली, मराठी भाशेचो खरोच मोग आशिल्लो, तर तेन्नाच गोंयची राजभास मराठी जावपाची. तें करपाक जनतेन म. गो. पक्षाक विधानसभेंत भोंमत मेळोवन दिल्लें.*



नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्यस वाडो,
गोवा वेल्हा.
फोन : ०८३२-२२१८१४७

# रोमी कोंकणी गोंयकारांक एकठांय दवरची ना

गोंय स्वतंत्र जालें आनी गोंयच्या राजकारण्यांनी भाशावाद उस्तून काडलो. फाटल्या पन्नास वर्सांत गोंयकारांनी भाशावादाक खर्च केल्ली आपली शक्त जर विकासकार्याक खर्च केल्ली, तर आयजमेरेन डळमळीत उरिल्ली गोंय राज्याची बुन्याद घट्ट जावपाची! पूण बारकायेन विचार केल्यार म्हणटात. राजकारणी वयल्या सुरान कितलेंय आड्डले, तरी सर्वसामान्य जनता म्हाजनांचेंच अनुकरण करता.

गोंयांक स्वतंत्रताय मेळ्ळी आनी फुडाऱ्यांक भलतोच चंवर फुटलो. सत्ता हातासपा खातीर तांकां कितें करूं कितें नाका अशें दिसूं लागलें. जातीयवाद तांच्या मुखार हात जोडून उबो आशिल्लोच. ते भायर धर्म आनी भाशावाद तेंक्याक तयार आशिल्लले. ह्या





अशें दिसून येता, की गोंयच्या राजकारण्यांक-कांय लोकांचे बाबतींत आडवाद सोडलो जाल्यार - भाशेचो इल्लोय मोग ना. तो आशिल्लो जाल्यार फाटल्या पन्नास वर्सांत, देशी भाशेंतल्यान राज्यकारभार चलोवपाक सुरवात जावपाची. पूण गोंयकारांचें इंग्लिशप्रेम लक्षांत घेतल्यार, ह्या फुडेंय गोंयांत इंग्लिशीक मरण ना अशें दिसून येता. गुलामेंतल्यान वाडिल्ल्या गोंयकारांक आपल्या भुरग्यांकय गुलामगिरींत वाडोवचेंशें दिसता. ताका लागून ते आपल्या भुरग्यांक मुजरत देशी भाशेचो तिरस्कार करूंक शिकयतात. एकदां गिरेस्त आनी व्हडले मनीस देशी भाशेचो तिरस्कार करूंक लागले, तर गरीब फाटीं कित्याक रावतले? सैमाच्या नेमा प्रमाण फुडलें जोत चलता तशें फाटलें चलता अशें

सगळ्यांच्या आदारान फुडाऱ्यांनी दोन पंगड तयार केले. एक हिंदूंचो आनी दुसरो किरिस्तांवांचो. पयलो म. गो., म्हळ्यार महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्ष आनी दुसरो यू. गो. म्हळ्यार युनायटेड गोवन्स. पयलो मराठीवादी आनी दुसरो? दुसऱ्याचे भाशेक कोंकणी, कोंकानी, आवयभास, मांयभास म्हणपाची काय आनी कसली म्हणपाची हें म्हजे तकलेंत अजून स्पश्ट जायना. अशें म्हणपाचें कारण, आयज गोंयच्या भुरग्यांतल्या तोंडांतल्यान आवय, मांय, आई बी असलीं उतरां घोळनांत. तांच्या तोंडांतल्यान भायर पडिल्लीं उतरां आयकूंक येतात तीं फक्त 'मम' आनी 'मम्मी', हाका लागून तांचे भाशेक एक तर 'ममभास' म्हणपाचें ना तर 'मम्मीभास'! हाचेवेल्यान गोंयकारांक आपले भाशेचो कितलो मोग आसा हें कळून येता.

आयज आमच्या गोंयांत मम्मी-डॅडीची संख्या एक सारकी वाडत आसा. एक वेळ डॅडीचें सोडून दिवया. चडशे बापूय आपल्या भुरग्यांक आपल्याक डॅडी-बिडी म्हण म्हणपाचे भानगडीक पडनांत. तांकां बाबड्यांक भुरग्यांनी 'बाबा' लेगीत म्हणल्यार ते खूश! प्रस्न आसा तो मॅडमींचो. हे फुडें इंग्लिश मोगी 'मम्म्यो' कोंकणीक लार्गी कशोच धरच्यो नात. आतांच सगळें गोंय मम्मीमय जालां.

फाटलीं पन्नास वर्सां, राजकारण्यांनी भाशेचो प्रस्न फुडें करून, गोमंतकीय जनतेचीं बावलीं करून, तांकां आपल्या तालार, आपल्याक जाय तशीं नाचयलीं. खरें म्हळ्यार हांकां स्वभाशेंचो मोग केन्ना नाशिल्लोच. तांकां तो आशिल्लो जाल्यार, आयज गोंयभर कोंकणी-मराठीचे फलक दिसतले आशिल्ले. सगळेकडे कोंकणी-मराठीच्यो मुळाव्यो शाळो दिसतल्यो आशिल्ल्यो. सगळे गोंयकार आपापसांत कोंकणी उलयतले आशिल्ले. हे आपल्या भुरग्यांकडे आनी सुण्या-माजरांकडे लेगीत इंग्लिश उलयतात.

राजकारण्यांचो आनी गिरेस्तांचो इंग्लिशीकडे आशिल्लो ओडो पळोवन, सर्वसामान्य जनतेचे दोळे उक्ते जाले. गिरेस्त लोक आपल्या भुरग्यांक इंग्लिशीक घालून नोकऱ्यो मेळयतात आनी गरिबांक कोंकणी शिकोवन आपल्या घरांतले नोकर करूंक सोदतात असो सर्वसामान्य जनतेचो समज जालो. सरकारान जर मुळावें शिक्षण सगळ्यांक देशी भाशेंत घेवपाची सक्ती केल्ली, तर शिक्षणाचे बाबतींत आतां जाल्या तशी अधोगती जावचीनाशिल्ली.

आदीं मराठी शाळो बंद उडोवच्यो आनी उप्रांत कोंकणीचेर घालो घालचो, असो इंग्लिशमोग्यांचो डाव आशिल्लो. हांकां जर कोंकणीचो खऱ्यांनीच मोग आशिल्लो, तर मराठी शाळो बंद पडल्यात त्या सुवातांचेर खोशेन कोंकणी शाळो उब्यो करपाचे. खरें म्हळ्यार हांकां मराठीय नाका आशिल्ली आनी कोंकणीय नाका आशिल्ली. जाय आशिल्ली ती फक्त इंग्लिश!

> *आयज गोंयांत हजारांनी न्हय तर लाखांनी कर्नाटकी येवन भरल्यात. फुडें तांचो आंकडो दिसान दीस वाडतूच उरतलो. तेय आपले पद्दतीन कोंकणी उलयतात. तांणी जर फाल्यां आपले कोंकणी खातीर कन्नड लिपयेची मागणी केली, तर सरकाराक तिचो विचार करचोच पडटलो. कारण कन्नड लिपी ही भारतीय लिपी जावन आसा, रोमी सारकी परकी न्हय.*

काळजांत इंग्लिशेचो मोग आनी कपलाक कोंकणी मराठीचो तिबो लावन वावुरले हे लोक. सत्ता हातासपा खातीर तांकां भाशेचें राजकारण करूंक जाय आशिल्लें. तार्णी तें केलें आनी तातूंत तांकां यशाय मेळ्ळें.

हांवें जें वयर बरयलां, तें वाचून कांय जाणांक वायट दिसपाची शक्यताय आसा. पूण हांव म्हर्जी विधानां पुराव्यासयत सिध्द करूंक शकतां.

म. गो. पक्षान ह्या राज्याचेर बरींच वर्सां राज्य केलें. गोंयची राजभास मराठी करपाचें तांचें ध्येय आशिल्लें. तें ध्येय ते पुराय करूंक शकले नात. कारण तांकांय भाशावाद चालू दवरून, ह्या राज्याचेर सत्ता गाजोवपाची आशिल्ली. तांकां जर सत्तेची आस नाशिल्ली, मराठी भाशेचो खरोच मोग आशिल्लो, तर तेन्नाच गोंयची राजभास मराठी जावपाची. तें करपाक जनतेन म. गो. पक्षाक विधानसभेंत भौमत मेळोवन दिल्लें.

आतां एक मात गजाल खरी, शशिकला काकोडकार सत्तेर येतकच तिणें मुळावें शिक्षण देशी भाशेंतल्यानूच दिवपाचो आग्रो धरलो. फुकट मुळावें शिक्षण देशी भाशेंतल्यानूच मेळटलें, अशें म. गो. सरकारान आपलें धोरण थारायलें. पूण सरकारान जर तेन्ना म्हणिल्लें, की हे फुडें गोंयकारांक मुळावें शिक्षण फक्त देशी भाशेंतल्यानूच घेवचें पडटलें, तर गोंयकार आयज आपले आवयभाशेक परकी जावचेनाशिल्ले. आयज गोंयकारांक भाशेचे बाबतींत आवयूय ना आनी बापुयूय ना जावन पडला.

आयज मेरेन कितें जालें तें जालें. आतां फुडें कितें? स्वतंत्रताये उप्रांत, कोंकणी मोग्यांनी मराठीच्या संचीताच्या आदारान कोंकणी सकस साहित्य निर्माण केलें. व्याकरण, शब्दकोश आनी हेर सगळ्या प्रकारांचें साहित्य निर्माण जालें. ह्या साहित्याच्या नाड्यार आयज मेरेन राजभास चालीक लागपाक कसलीच अडचण नाशिल्ली. गरज आशिल्ली ती फक्त इत्सेची.

राजभास चालीक लागलीना, कारण 'आमची आवयभास-मांयभास आमकां जाय' आड्डेल्ल्या नकली फुडाऱ्यांचो आवाज नकली आशिल्लो. वयर हांवें मराठीच्या संचीताच्या आदारान कोंकणी सकस साहित्य निर्माण जालें' अशें विधान केलां. तें कांय जाणांक ना आवडपाची शक्यताय आसा. कारण चडश्या लोकांक सत कडूच लागता.

कोंकणी साहित्यकारांचें मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान जालें. हे फुडें जर गोंयकारांनी आपल्या भुरग्यांक मुळावें शिक्षण मराठी वा कोंकणींतल्यान दिलें ना आनी तांचेर आवयभाशेचे संस्कार जाले नांत, तर फुडल्या दोन दशकांत आख्खें गोंय इंग्लियमय जातलें. आनी कोणाच्याय तोंडांत कोंकणी घोळ्ळीच जाल्यार, ती गोंयकारांची निजाची भास जावची ना.

सुर्वेक गोंयकार कोंकणी-मराठी खातीर झगडले. कोंकणी राजभास जाली. सद्या तिका पुजेक लायल्या आनी नागरी-रोमी लिपी खातीर झगडटात. लिपयेचो वाद जितलो वाडटा, तितलें इंग्लीशिचें फावता. हो लिपयेचो वाद उस्तून काडला तो कोंकणीच्या मोगा खातीर न्हय, तर तो गोंयांत इंग्लिशीचीं पाळांमुळां चडांत चड घट्ट करपा खातीर.

थोडे तेंपान हीं पाळांमुळां इतलीं रुजतलीं की तीं हुमटावन भायर मारपाची ताकत गोंयकारांकडे आसची ना.

दुसरी मुखेल आनी म्हत्वाची गजाल अशी, की जो मेरेन लिपयेचो प्रस्न सुटना, तो मेरेन सरकाराक सोंपेपणान राजभास चालीक लावंक जमचें ना. राजभास चालीक लायतले जाल्यार सरकाराक तीन भासांचो विचार करचो पडटलो. मराठी, देवनागरी लिपयेंतली कोंकणी आनी रोमी लिपयेंतली कोंकानी. इतल्याचेरूच तें थांबचें ना. आयज गोंयांत हजारांनी न्हय तर लाखानी कर्नाटकी येवन भरल्यात. फुडें तांचो आंकडो दिसान दीस वाडतूच उरतलो. तेय आपले पध्दतीन कोंकणी उलयतात. तांणी जर फाल्यां आपले कोंकणी खातीर कन्नड लिपयेची मागणी केली, तर सरकाराक तिचो विचार करचोच पडटलो. कारण कन्नड लिपी ही भारतीय लिपी जावन आसा, रोमी सारकी परकी न्हय.



सरकारान कोंकणी खातीर रोमीची मान्यताय दिल्यार, ती एक वायट देख जावन उरतली. हेर भाशीकूय आपली भास रोमींतल्यान बरोवंक लागतले. आमची नागरी लिपी शास्त्रशुध्द आनी सुउच्चारी आसतना, रोमीचो उपेग करप हें गुलामगिरीचें लक्षण थारतलें.

गोंयकारांक जर कोंकणीचो खरो मोग आसा, तर तांकां राजभाशे खातीर रोमीचो हट्ट सोडचो पडटलो. मुळावें चवथी मेरेनचें शिक्षण फक्त देवनागरींतल्यान दिवचें पडटलें. सक्ती म्हूण न्हय, तर कर्तव्य म्हूण गोंयकाराक एक लिपी, एक भास, हें सूत्र आपणावचेंच पडटलें. ना तर गोंयकार सांसणाचे दुभंगलेले उरतले आनी दोन लिपयांतल्या भासांनी प्रशासन चलोवप कठीण वतलें.

आनी एक सत म्हाका वाचप्यां मुखार दवरचेंशें दिसता. केन्ना तरी पुर्तुगेज येवन ह्या राज्याचेर राज्य करूंक लागले. तांणीं आमचेर रोमी लिपी लादली. धर्मांतरीत गोंयकार रोमी लिपींतल्यान 'कोंकानी' शिकूंक लागले. फुडें फुडें तांणीं कोंकानींतल्यान तियात्र आनी रोमांशी बरोवपाक सुरवात केली. हें बरप तांच्या आंगवळणांत पडलें आनी तें एक तांच्या संस्कृतायेचें आंग जावन पडलें. तियात्र, कोंकानी कादंबऱ्यो तांकां आपल्यो दिसूंक लागल्यो. तियात्र ते किरिस्तांवांचे आनी मराठी नाटकां हिन्दूंचीं, असो गोंयकारांचो समज जालो. हो समज शेंकड्यांनी वर्सां तांचे तकलेंत रिगून बसला. तो भायर काडप आतां तितलें सोंपें ना. तो तेन्नाच भायर सरतलो, जेन्ना किरिस्तांव भावांक दिसतलें की आतां पुर्तुगेज गेले. तांची भास गेली, लिपी गेली, वचूं दी. आतां आमकां गरज ना. आमी हिंदू, किरिस्तांव एक जावया. आमचे संस्कृतायेची जतनाय घेवया. आमचो धर्म वेगळो आसूं. पूण आमची भास एक, लिपी एक आनी संस्कृताय एक हाची जाणविकाय घेवन फुडें सरुया.

अशे तरेन गोंयकार हातांत हात घालून फुडें वतले, गोंयकारपण राखून दवरतले जाल्यार तांकां इल्लो त्याग करचोच पडटलो. राजभाशे खातीर रोमी लिपीचो हट्ट सोडचो पडटलो. तांणीं आपली कोंकानी भास तिगोवन धरची. तियात्र बरोवचें आनी करचें, रोमांसी बरोवच्यो. ते खातीर रोमीचो उपेगय करचो. तियात्र बरोवन सादर करतल्यांचो मान-सन्मान करचो. रोमीन बरयल्ल्या साहित्याक आनी साहित्यकारांक पुरस्कार दिवन तांचो सत्कार करचो. मात हे सत्कार आनी मानसन्मान खंयच्याय तरी नामांकीत संस्थांनीं करचे. सरकारान न्हय. सरकारान ही पारंपारीक कला तिगोवन धरपा खातीर संस्थांक अर्थीक मजत करची.

मात गोंयकारांचें मुळावें शिक्षण, सरकारान जात-धर्माचो विचार करिनासतना, देवनागरी कोंकणींतल्यान दिवचें. राजभासय देव नागरी कोंकणीच जांवची. तशे जाल्यार गोंयकार एकठांय उरतले. रोमी लिपी, गोंयकारांक, चड करून हिन्दू-किरिस्तांवांक, एकमेकां पसून पयसच दवरतली आनी गोंयचेर सत्ता गाजयतली ती फक्त इंग्लिश!



# दादा

- सुशांत नायक

कामा वयल्यान घरांत रिगतां रिगतांच चुली कडेन आंग शेकयत बशिल्ले आईन म्हणलें.

''बाबगो दादा गेलो रे, तुजे फाटल्यान सकाळीं धांक सुमार जीव सोडलो. उज्यू खातीर व्हरोंक मातसो उशीर जालो, आतांच हेला.''

दादा गेलो हीं उतरां आयकना फुडें काळीज खप्प जालें. बुस्कोटाच्या बटणां कडेन गेल्ले हात थंयच थिरावन कुशीक आशिल्ल्या कदेलार घालून घेतलें. खंतीचें एक ल्हार काळजाक आदळ्ळें आनी मनान आपसूक दादा वटेन धांव घेतली. स म्हयन्यां सावन हांतरूणार आशिल्ल्या दादान आज हांतरूण सोडलें तें सासणा खातीर.

पयर आई सांगताली, 'दादाचे खबरीक वचोन यो. हालीं तेजें चड जालां.' म्हणून खबरीक गेल्लों तेन्ना बेस बरो उलयिल्लो. आनीक दोन-चार म्हयने तरी काडटलो अशें दिसतालें.

''मी पयर खबरीक गेल्लों तेन्ना बेसबरो आसलो. खूब बोल्लेलो म्हाज्या वांगडा. अशें अकस्मात काय जालें?'' हांवें खंती सुरांत आनी दाटिल्ल्या ताळ्यान आईक विचारलें.

''म्हातारपणांत अकस्मात आनी कसलें. पिकलेलें पान केन्ना तरी झडचेंलें. मरण कोणाक चुकलां बाबा? खूब आदार केल्लो आमकां तेणीं.'' सांगतां सांगतां आईचे दोळे दुकाळ्ळे.

दादाचे खबरीन घरांत किण्णताय पातळिल्ली. घरांत सुतकी वातावरणशें दिसूंक लागिल्लें. आईचीं उतरां आनी चुलीवयल्या भोगुण्यांतली रटरट तितलीच आयकूंक येताली. भोगुण्यावयली ताटली उबेन वयर-सकल जाताली. भितर शिजपी जिनस ती दवल्यान काडून चिड्डून पळयतना दिश्टी पडटाले. पूण तें कितें हाचेर मात भान नासलें. तशीं आमी एका सुतकाचीं. फाटल्यो कितल्योशोच पिळग्यो एकामेकांचें सुतक धरतात. केन्ना सावन धरतात तें मात कोणाकूच खबर ना. गांवांत जायतीं नायकांचीं घरां आसात. पूण सगल्यांचेंच सुतक आमकां लागना. कांय गांवठणकार नायक आनी वांत्यांकार नायकूय गांवांत आसात. ते आमच्या कुळाचे न्हय अशें आईन केन्नातरी सांगिल्ल्याचो उगडास जाता.



''म्हाका कळोवचेलें न्हूं, मी येतलों आसलों, मी वचोन येतां तेंगेर.'' अशें म्हणीत कामा वयले कपडे काडी नासतनाच हांव तांगेर वचपाक उठलों. तशें आईन म्हाका थारायत म्हणलें.

''मातसो राव, इल्ली पेज व्हर वयताना. मातशी शिजोनी. सुळूमामी आसा थंय. लायतली तेंकां.''

सदांच कामा वयल्यान पुरो जावन आयिल्ल्यान सामकी आंगवळणी जाताली. थकिल्ल्या आंगान बेगिनूच हांतरूणार घालून घेतालों. आज मात दादाचे यादीन कुडीचो थकवो सामकोच विसरिल्लों. तो त्रासांतल्यान सुटलो, ताका सासणां खातीर मुक्ती मेळ्ळी हें येवजून मनाक मातशें बरें दिसतालें. पूण एके वटेन ताका खांद मारूंक मेळ्ळूंक ना ही खंत मनाक चड खाताली. येवजितां येवजितां दोन दिसां पयलींचो दादा नदरे मुखार आयलो.

असोच तिनसांजचे कात्रेर ताचे खबरीक म्हूण गेल्लों. खरें म्हणल्यार संवसाराच्या

जवंजाळांतल्यान आनी कामाच्या व्यापांतल्यान कसले गजालीक वेळूच मेळना. तरी पूण तो चडूच दुयेंत जाला म्हणून कळटकच मुजरत वेळ काडून तांगेर गेल्लों. हांव भितर सरलों, तो नदर पाश्टार थिरावन उदारो न्हिदिल्लो. हांव ल्हवूच भितर सरून ताचे कुशीक वचून बसलों. म्हाका पळोवन कुशीक उबे आशिल्ले दिलीपाचे बायलेन दादाक म्हणलें,

"दादा, कोण येयला बगलय? वळाकलय तेका?" तिच्या उलोवण्याक तेको दीत हांवें म्हणलें.

"वळाकलय रे दादा म्हाका, मी रे."

पाश्टार थिरायिल्ली नदर ताणें म्हजे वटेन घुंवडायली. लिकलिकपी नदरेन म्हाका बारीकसाणेन पारखिलो.

"कोण, तुळश्याचो रोहिदास रे?" पिरायेन दुबळे केल्ले थरथरपी हात ताणें म्हजे मांडयेर लवंडयले. उलयतां उलयतां गळ्याकडेन आयिल्ल्या दरकेलाचो आवंडो गिळ्ळो.

"आरे तुका कसो विसरतलों. नागडो खेळयला तुका. कितले फावटीं तरी तुजें शेमडें नाक पिळ्ळां ह्या हातांनी. दिसां गर्डीनी आमच्या पोरसांतल्या आम्यापोना भोवय, आतां तें पोरसूंय ना आनी तो आंमोय ना. जाणट्यांची सावळी आसली घरार तेच्या रुपान. घरार कोसळात म्हुणो माल्लो पुतांनी. आतां तूंय मोटो जालय. चेड्ड्यो सोडून पॅण्टी घालतय. मू बोलतां तेजी लज दिसतली तुका. दुलू वांयच च्या दी गो रोइदासाक."

म्हजे वटेन पळयतच ताणें दुलूक सांगलें तशें दुलू सट्ट करून भितर गेलें.

"नाका गे वयनी च्या. आतांच घेवन येयलां घरा कडल्यान." हीं म्हजीं उतरां तिचे मेरेन पावचे आदींच तें भितर पावलें.

दुलू दादाची मदली सून. दादाचें बरें वायट सगलें तीच काडटाली. गुवामुताच्या कपड्या पसून ताका धुवपा पुसपाचें काम लेगीत तिचेंच. व्हडली आनी धाकली दोनूय सुनो मातश्यो फिदाल अशें सगलो गांव उलयता. चार पुस्तकां शिकिल्ल्यान तकलेंत नवे विचार घोळटाले. तशें पळयल्यार खंयचेंच शिक्षण आमकां संस्कार विसरूंक शिकयना. उलट ते आनीकूय गिरेस्त जातात. मातशी गिरेस्तकायेची बढाय आसली. कुळाराचें गिरेस्तपण गांवभर मिरयताल्यो. शारी वातावरणांत वाडिल्ल्यान असलीं कामां करपाक उणेपण दिसतालें. खेरीज विटूय येताली खंय! दुलूचो हात लागना तेन्ना सगलें बाबडो दिलीप करतालो. चलयेक उज्यूक पोरूंच उजयिल्लें. मामी गेल्यार देड वर्स जाल्लें. मामी, दादाची बायल पूण तिका सगलो गांव मामीच म्हणटालो. दादाचो तिचेर खूब जीव. ती गेली तेन्ना सगल्यांत चड दादाच रडटालो. आपली अर्दी जीण सोंपिल्लेवरी दिसताली ताका. तशी मामीय दादाक खूब जपताली. मात्तूय पातये नासली. आमचे भुरगे आमकां पळयतले, बरें वायट काडटले हाचो तिका मात्तूय विश्वास नासलो. आपल्या आळवाची खाज आपल्याक आसता म्हणटात तें काय खोटें न्हय. तिका कसलें तरी दुयेंस जालें आनी तातुंतूच ती संवसाराक अंतरली. तेन्ना सावन दादाची सगली कुयदाद दुलूच घेता.

दुलू आनी दादा खेरीज घरांत कोण नासलो. दोगीय सुनो आनी तांचीं भुरगीं घरांत दिश्टी पड नासलीं. पूत अजून कामा वयल्यान पर्थूक नासले. दुलू च्या करपाक भितर गेलें तें पळोवन दादा म्हणटालो.

"जाणय मरे रोईदास, हें दुलू म्हुणो मी. ना जाल्यार केन्ना हांतरूणार मरोन उरतां आसलों देव जाणा. कोण बगचो सुदा नसलो."

"आसो रे दादा, सेवा करूंक नशीब लागता. नशिबा शिवाय ओगीच कोणाच्याय हातींत अशी सेवा घडना." हांवें मुद्दाम जावन ताका थारावपा खातीर ताचें उलोवप तोडलें. पूण तो थोडेंच आयकूंक पडला. पिरपीर करीत आसलो. पिरपीर तरी कशी म्हणू येत. तो उलयता तें एके परीन खरेंय आसलें.

"बग मरे, तिनसांजेचे कात्रीर सुद्दां कोण ना घरान. दुलू मात म्हाका सोडून मात्तूय कुशीक सराना. तेका तरास जातत रे म्हाजे. पुणो केन्नाच वाजवाजना. पाड पडलेलें मरणु येयना बेगीन."

दादा उबगणीन उलयतालो. पूण ताचे नदरेंत मात जगपाची आस्त अजुनूय पेट्टाली. उलयतना खरस मारताली. आयिल्ले खोंकलेतसून स्वास जड जावन आवाज घरघरतालो. खोंकले कणकणी गळ्याकडेन आयिल्लें धरकल गिळीत पर्थून उलोवपाक सुरवात केली.

"तुजें... कशें... चल्लां...? हालीं येयनय आमगेर?"

"कामा खातीर वेळच मेळाना. खूब उसरां घरा पावतां. येवचें येवन घालून घेतां." हांवें उतावीळपणान जाप दिली.

"काम.... कशें... चल्लां....? कामार.... तरास... बी ना मरे..."

"ना रे तशे त्रास, निकतोच लागलां न्हू. मातशे त्रास जातलेच संवय जायसर."

"तरास जाल्यार सुद्दां सोडूं नाका काम. तुजे खातीर तुळश्यान खूब दगदग काडलेत. लोकांचीं उश्टीं खरकटीं करून तुका शिकयला. ल्हानाचो मोटो केला. तेजो धेक दवर. उपाशीं पोटार करडाचे भाळे घेवन वचा न्हिंबराच्या टळटळ्यार. आतां खूब थकलां रे तें!" तो उलयतां

उलयतां मर्दींच खोंकतालो, खर्शेतालो, तरी लेगीत उलोवपाचें सोडी नासलो.

''पुरो रे दादा, तुका धाप बग कशी मारता'' अशें हांवें म्हणल्यार म्हाका म्हणटालो–

''बोलोने रे म्हाका, फाल्यां आसत नासत. जितो आसासर तरी बोलतां.''

दुलूच्या घेवन भायर आयलें. च्याचो पेलो म्हज्या हातांत दीत म्हणपाक लागलें.

''हेचें मरे अशेंच. कोणय खबरीक येयल्यार तेचे कडेन असोच बोलत रावता आनी आयकतल्याच्या आनी आपल्याय जिवाक त्रास करूं घेता. काल तुजी आई येयल्ली. तिजे वांगडाय असोच बोला.''

दुलू म्हाका समजावन संगतालें. पूण ताच्या उलोवण्यार आडनदर करून म्हाका म्हणपाक लागलो–

''काल येयल्लें तुळशी म्हाज्या खबरीक. सांगा तुज्यो गजाली. तुजेर तेजी खूब आश्या. आतां तेणीं तुज्या जिवार सूख खावचेले दीस. आतां तरी उल्लेले दीस सुखान जगोने तेका. ना जाल्यार लगीन करशील आनी बायलेचो कोमो जाशील.''

''हय रे दादा, खरें तुजें.''

इतलेंच म्हणून हांव ओग्गी रावलों. तो खूब उलयतालो. काळजाथावन उलयतालो. खोंकले कणकणी गळ्याकडेन येवपी धरकेलान तो जीव सोडटासो दिसतालो. ताका हांतरुणा वयल्यान उठून वचपाची तांक नासली. तरी लेगीत अर्दी–मर्दी खाटी पोंदली नाल्ली सांसपीत भितर कसो तरी थुंकतालो. दाडवणा झडिल्ल्यान गालांचीं मिलां जाल्लीं. दातांच्यो कवळ्यो झडिल्ल्यो. वसाड कवळ्यांचेर पडिल्ल्या ओंठांक आपटपी उतरां स्पश्ट समजनासलीं. पिरायेन मासूय बुड्डून व्हेल्लें. सुके पडिल्ले कातीवयल्यो शिरो तितल्योच गायंडोळां वरी तट्ट्टाल्यो. दोळे वांवभर भितर गेल्ले. म्हातारपणान आपली एकूय कुरू मेकळी सोडूंक नासली. हरशीं जाल्यार एक सारको ताका नाल्लेन थुंकतना पळोवन कोणाकूय वीट येवपाची. म्हाका मात कांयच दीसऽ नासलें. घडये म्हज्या भुरगेपणांत ताच्या उश्ट्याची बिस्कूत, भाकरी खातालों म्हूण आसुंये! हातांत आशिल्ले च्याचो निमणो घोट मारून पेलो दुलू कडेन दीत हांवें म्हणलें,

''येतां रे दादा.''

''म्हाका खांद मारूंक येतलय मरे!'' ताणें ओले नदरेंत आनी थरथरपी हातांनी म्हाका निरोप दीत म्हणलें. ताच्या उतरांनी खूब जडसाण आसली. दोळ्यांनी दुकां भरलीं. ताका आशिल्लो जगपाचो हावेस आनी जिणेचो सुवार्थ अजुनूय ओड लायतालो. जिणेन सगलें भोगलें तरी लेगीत संवसाराच्या जंवजाळांतल्यान भायर सरपाचे पिरायेर लेगीत जगपाचो ध्यास मनीस कसोच सोडिना. मरणाच्या हुंबऱ्यार पावल दवरून लेगीत तो जिणे कडेन अधाशीपण करीत आसता. दादाचे नदरेंतूय कांय खीण म्हका तशेंच दिसलें. खरें म्हणल्यार ताच्या उतरांनीं म्हजें मन भरिल्लें.

'तूं मरानय रे इतले बेगीन' म्हणपाचों. पूण ताच्या उतरांनी म्हजो आवंडोच अंदेल्लो. 'येतां गे वयनी' म्हणून निरोप दीत जड पावलांनी भायर सरलों.

आईन हुनहुनीत पेज्जेचो दबो हाडून म्हजे मुखार दवरलो आनी ताचे उबेन म्हजी तंद्री भंगली. ते दिसाचीं ताचीं उतरां म्हाका अतितायेन याद जालीं. ते दिसा सांडपाचीं दुकां आज मात ल्हवूच गाला वयल्यान देवलीं. आईची नदर चोरून दुकां पुसलीं आनी एक लांब सुस्कार सोडून दादागेर वचपाक उठलों.

एकेक पावल उखलतना बेश्टेंच तांचे हुमेर म्हज्या कानार पडिल्ल्याचो भास जातालो. सुतकी वातावरणांतल्यान वाट काडीत वसरी चडटना काळजांत खंतीचीं ल्हारां उसळटालीं. वसरेर तिगूय पूत इस्कळ बशिल्ले. दिलीपा कुशीक बशिल्लो रगवीरदादा ताका कितें तरी समजायतालो. हांव चवगांचेरूय धांवती नदर मारीत बद्द भितर वळ्ळों. म्हाका हुंबरो हुंपतना पळोवन वण्टीक तेंकून बशिल्ल्या दुलून एकदम हुयेल मारली, तशें म्हजें काळीज कल्ल जालें. पेज्जेचो दबो हातांतल्यान गळसणत ह्या भयान पोतयेच्या शेवाक मुठींत आवळून धरीत हुंबऱ्या भितर रिगलों. कुशीच्या दोनूय कुडांतल्यान सुनांचें मुसमूसप मात्शेंशें कानार पडटालें.

भितर सरतनाच म्हजी नदर आपसूक सगल्या सालांत घुंवली. दुलू बशिल्लें ताचे कुशीक मांदरेच्या आकाराची आयताका रांगोळी घातिल्ली. कुशीक दवरिल्ल्या पाटार एक दिवली पेट्टाली. वण्टी वयल्या खिळ्याक बांदिल्लें सूत जमनीर दवरिल्ल्या खोल्या वयले साखरींत लोळटालें. खोल्या कुशीक एक दोन दोमळे भोंवताले पूण साखरेंत वच नासले. वसरेर जळपी शेंणीचो धुंवर मंद वाऱ्यार भितर सरतालो. शेंणयेर जळपी तिळांचो धुंवरट करपूट वास नाकांत रिगतालो.



– सुशांत नायक
शांताई अपार्टमेंट्स,
कवळें, फोंडें– गोंय

# तुगेल जाय म्हण म्हागेल नाका

- संदेश श्रीकांत बांदेकार

**(स्थळ : एक मध्यमवर्गीय विमलालें घर. घरांत दोन खुर्च्यो आनी टिपाय आसा. विमला वयवर्सां ५५. नववारी कापड आनी आडवळेर बसून भाजी शिनते आसा. तेन्नात तारा प्रवेश कर्ता. नववारी कापड वय वर्सा ५५. ही विमलाली मैत्रीण.)**

तारा : अगो विमला शाश्वे शिंदता हय गो? बरें आसा मुगो?

विमल : अगो तारा खूब दिसान मुगो म्हागेल घरा. बरी आसात मुगो पोरा?

तारा : बरी आसात पोरा. पण बरें ना तें तारा.

विमला : कितें म्हणटा गो काळणी. अश किदं जाल तर तुका?

तारा : हांव बरें आस हय गो. **(परवता)** आत कितले दीस जाले जीव हुबलसो हुबलसो जाता.

विमला : पापया जीव हुबलसो जाता म्हण वगी रावनाका. खंयी आडमदेकात गोटक जावशी. आताच्या जमान्यात इल्ले जाल्ले इल्यार उरना. त्या मथुऱ्याले पळयल मुगो धपधपता म्हणीलेत थंड. ओगीत फडपुशी कन्नाका पापणी. नाजाल्यार चल्या सांगून मणीपालाक तरी वचून यो.

तारा : मणीपाल आनी किद्याक?

विमला : पापया पोराल तरी विचार कर.

तारा : पोरा व्हान आसमणलारत पोरा. मागीर कोण कोणाल न्ही. म्हागेल हात हालुजाय तर पोटा किदें पडु जाय.

विमला : धुयेगेर तरी वचुन आठ दीस राबून यो गो.

तारा : किदें खायमत धुयेगेर वैतल गो. जांवय म्हण्णा चेडू दिवन मुडे सरोवुक येयल म्हण?

विमला : ना जालार सुनेबरा गोंया वचून राब.

तारा : सून हाडन्न हड्डे हुन जाल्ले पुरो. आणी नाका सुनेले वंडर. पळइलीत सगळी वंडरा. तुगेल बड्याल बरे धा ना पांच एकत पुत. आवय म्हणलार जाली. मागीर ह्या वर्साक आस मुगो पायस?

विमल : हय. ह्या वर्साक करू जाय गो. थंय त्या पोराक जेवणाक त्रास जात खंय!

तारा : नौकरी फिक्स जाली हय गो तेगेली?

विमल : हय. तुगेल चलो किदे धाण्ण दित मुगो तुका?

तारा : तेगेल त्या रंभेक खाद्याक पावन उल्लार मुगो धाण्ण दिवचे.

विमल : म्हणलार तुगेल सून खाद्याळी तर?

तारा : हय. उठ्ठा-बसता चावो हालयते रावू जाय. म्हागेल त्या पोराली दशा कन्न उडयली त्या कावळ्यान! कोण येल्ले तेन्ना जन्मा येईल जाणकोण कावळो! म्हागेल चलो पयली भोळो, तेजो हेणी केलो गुळो.

विमल : हांव तश म्हण म्हागेल नदरे मुकार आशीलेत चेडु सून कन्न हाडतलें.

तारा : अशे तूं म्हणटा गो. पूण तेणी थयीत खंयी पळयलार तूं किदें करतलें?

विमल : म्हागेल चलो तसो ना गो. तो बडो तकली सकल घालन्न येवचो आनी तकली सकल घालन्न वयचो. तेगेल काम भला, तो भला. हें पळय. कालच पत्र येयलां तेगेल. त्या म्हारवाक रेखाक वाचूंक यो गो म्हण सांगीलें. येयलेकत ना म्हारु.

**(रेखा एक तरणी चली, वय वर्सा २०-२१ दारांत येवन रावता.)**

तारा : तेकात सून कन्न हाड गो. बरें आस पोर ए शिपडी आनी स्वभावान बी बरें आसा.

विमल : म्हागेलो बी तोच विचार आस गो!

रेखा : **(प्रवेश कर्ता)** तारा मावशी बरी मगे? केन्ना येयीली?



तारा : बरे कर्माचे! मेलना म्हण लासल ना. शंबर वर्सा आयुश आस मुगो तुका. आतात तुगेलीत याद केल्ली.

रेखा : **(विमलाक)** पत्र खंयतें गे? वाचतां हाड.

विमल : हें घे मातर वाचून सांग.

रेखा : मामे म्हाक घराकडे काम आसात. हांव पत्र वाचून सांगतां. मागीर च्या केलाली.

विमल : तस जालार वाच बाये पत्र.

रेखा : **(पत्र वाचता)** तिर्थरूप आईक बाळा खिपंच्यान साष्टांग नमस्कार.

तारा : पोट भल्लें मुगो? साष्टांग नमस्कार खंय! पळइलोत हो चमत्कार!

रेखा : आई म्हाका तुगेलीत काळजी जाता. उट्ट बस्ताना तुगेली याद येता. तू म्हाज बद्दल काळजी कन्नाका. तू काम काय कन्नाका.

तारा : काम कन्ना जालार खावूक कोण अवोल घोव हाडन्न घालतलो?

विमल : आयकय गो पाप्या. तुगेल चेड्या भशेन न्ही म्हागेल चलो, आवोली कितली काळजी पळय. पत्रात बरोवूक किद फावो!

रेखा : आई तुवें धाण्ण दिल्ली सुकी सुंगटां आनी घाटण्या लाडू मेळ्ये. ते लाडू खाताना म्हाका तुगेली खूब याद येता.

तारा : आईन दिल्ले खाताना याद येता. आईक दिताना याद येना. फकत हो कागदा वैलो घोडो. म्हागेलो चेडो पयले असोत बरयतालो. आईसाठीर हत्तीत करतलो, घोडोत करतलो. एक जाळेर करू जाल ना लेंबड्याच्यान.

रेखा : तारा मावशे मातर थांब गे पत्र वाचूं दी.

तारा : वाचूं दिता गो धुवे. ही असलीं पत्रात बरोवची रंगा पळौवन राग येत म्हाका. वाच तूं.

रेखा : आई तुवें कन्न दिल्ले घाटण्या लाडू सोनूक खूब आवडले आनी तें तुका पळोवूंक येता म्हणता.

तारा : अगो. विमला, हें सोनू कोण गो? खंयी गुटलयले ना न्ही बेडसीट?

विमल : मोरु हो म्हारु. हेका केन्नाय संशयाचोत रोग.

तारा : आताच्या पोरार येयलात तसो भोग. तश्मण तूं हुशारेन राब. म्हागेल पयलेत भिल्लेत मन तें! वाच तूं.

रेखा : आई हाव येताना तेका आमगलें घर दाखोवंक घेवन येतां. जास्त काय बरयना. तारा मावशेक नमस्कार सांग. रेखाक गोड-गोड पापी.

तारा : आनी कायना मुगो बाकी.

रेखा : ना. बरें हांव येत हां.

विमल : च्या पिवन वचना?

रेखा : ना वैतां.

तारा : गोड-गोड पापेनत गोड जाल दिस्ता.

रेखा : **(लजेता)** उठ गे. **(भायर वैता)**

तारा : विमला घर दाखोवक कोणा घेवन येत खंय? खंयी घर पळोवक येईलेत घर घेवन बसत. ते ब्रिटीश आनी पुर्तुगेज देश पळोवंक म्हण येईले देश आनी गोंय घेवन बशील खबर आस मुगो? नाजाल्यार बसू दिल्ली मणय कपलाक बसत.

विमल : म्हागेल चेडो तसो आलतु-फालतु न्ही हा. कोणी सावकाराले संमदीक बी उरतले. मातर घर निगुत कन्न दवरतां.

तारा : अगो विमला म्हाका दिसता तुगेल गती बी म्हागेल भाशेन जायन मुगो?

विमल : तुका म्हारवाक संवशयाचोत रोग पयलीच्यान.

तारा : रोग न्ही. हांवें भोगली भोग. म्हागेल बाळा बरा येईल चेडु घर पळोवन घट्टत जाल ना हय गो घरात.

विमल : तुगेल चेड्यान धल्लो हट्ट. तशमण जालें तें घट्ट आनी म्हागेल बाळान जर असली अवदसा घरात घेवन येवत तर त्या कलीली झिपरी अुमटून हातीत दिना तर हांव नावचेत विमल न्ही. किदें फकांडा म्हण समजल हय गो तुं?

तारा : हांव अशेंत तरतरतालें. पण त्या सुरपाने मुखार म्हाज्यान एक शब्द काडु जायना. म्हागेल चेडो पयलीं काटे खायरो. ना जालार त्या कलीक समा आळबंदाक हाडता आशिलें हांव! तेगेल बायलेक किते सांगलार म्हाकात दोळे तांबडेकन्न दाखयता. रावण म्हण बायलेक एक चक्रशब्दान उलयना. तश्मण सांगता तुका. वलेमडकेची कड वली आसतानाच बागोवुक जाय. चेड्याक लग्न केलार सुनेक पयले मुठीत घे. सुपारी आसतना मुठीत धल्ली म्हण म्हाडी जाल बरा धन्ना. कळ्ळे मुगो?

विमल : तशें हांव साप्प पिशें म्हण केला. हांवें हाडील भूत म्हाजकडेन आवाज केलार झिपरेक खापा घालतलें.

तारा : मातर हुशारेन, नाजाल्यार तेका खापरा घालू वचून तूं तुगेली धोपरां म्होडन्न घेवशी पापया.

विमल : राम जाचे पयलीं रामायण कित्याक आनी हाती काकणांक आरशी कित्याक? तूं पळयेशी मागीर मागेल परताप. यो भितर यो बाये. इल्ली च्या कन्न पिवया. चल भीतर या.

**(दोगी जाण भीतर वेतात)**

**पयलो प्रवेश समाप्त**

**प्रवेश दुसरो**

**(भायल्यान फॅशनेबल चली, बॉबकट केल्ले, दोळ्याक गोगल आनी तोंडाक बरो मेकप आनी व्होटाक दाट लीपस्टीक आनी खांदाक व्होड पर्स मारला. हें सोनू आनी तेगल फाटल्यान विनोद विमलाल चलो हातांत आनी खांदार बॅग घेवन आसा. दोगी जाण प्रवेश कर्तात.)**

विनोद : आई ये आई. खंय गेल काय? **(भीतर पळयत)** आई ये आई **(विचार करते)** तारा मावशेगेर नातर रेखागेर गेल उरतली बडी.



सोनू : विनू हांव तुज्या आईक किर्ते म्हणू रे? मम्मी काय आई काय सासुमाय म्हळ्यार बरें?

विनोद : आईच म्हण तूं. आनी आईकडे गोड उयल हा. मागीर आमगेल लग्नाचें सांगलार जालें. आई येत म्हणलार म्हाक इल्ली च्या कन्न हाड पळया.

सोनू : बरें बाबा, पण हांव चायेचें सामान खंय सोदूं?

विनोद : हें पळय आमचें किचन (हात दाखयत) सामान थयीत उरतलें. मातर पळय गो!

सोनू : बरें डार्लींग **(सोनू भीतर वैता. विनोद बॅगांतल्यान पेपर काडन्न वाचते बसता तेन्नाच भायल्यान विमल प्रवेश कर्ता.)**

विमल : **(प्रवेश करत)** अरे बाळा केन्ना येयलो आनी अचानक कसो?

विनोद : आत्ताच येयलों. अचानक म्हणलार चार दीस रजा आशिली असोऽ गावा वचून येवया म्हणलो!

विमल : बस हा बाळा. भितर च्या कर्न दवरिली आसा घेवन येतां.

विनोद : आता तुवें च्या कर्न हाडची गरज ना. तें येतलें तूं मातर बस गे.

विमल : तें? कोण तें? **(तेन्नाच किचन रुमांतल्यान च्या घेवन सोनू प्रवेश कर्ता)**

सोनू : **(स्वगत)** ही आनी जगदंबा कोण काय? **(उगड)** टेक धीस टी माय डार्लींग **(विनोदाक च्या दिता)**

विनोद : **(च्या हातात घेवन)** सोनू ही म्हागेली आई.

सोनू : **(विमलाक हात मुकार करत)** हाय.

विनोद : आई, हेत तें सोनू.

विमल : हयी **(हात मुकार दिता. सोनू विमलाल हात जोरात आवुळटा. विमल गौजी मारता)** हाय, हाय आवय गे. हेजें नांव हाळ पडूं गो. मलामतीन बोटां पुराय म्होण्ण घायलीं. आवय गे!

विनोद : सोनू तुका आमगेल घर आवडलें?

सोनू : हय. ओल्ड इज गोल्ड.

विमल : तस जालार आत वैत मुगो?

विनोद : आई तें वचूंक येयल ना. तें आत हिंगात रावतलें. तुका एकट्याक हिंगा बेजार येत न्ही.

विमल : तश्मण ही कामवाली हाडला?

विनोद : हय आई **(सोनू विनोदाक दोळे व्होड कन्न पळयता आनी विनोद गप राव म्हण खूण करता)** आई, हांव निसत्याक किदें मेळता काय म्हण पळयतां तेदो म्हणलार तुमी उलयते बसा. **(भायर वैता)**

विमल : अगो तुका सगळें जेवण रांधुंक येत मुगो?

सोनु : ना!

विमल : ना? काम कळना जाल्यार तूं किदें हांगा फकत मुंगळूंक येयलां? इतली व्हडली घोडी तूं आनी रांधुंक कळना. म्हणलार किर्ते? घरांत कुंडो खावन रावता?

सोनू : आमचे घरा आमी काम करपाचें ना.

विमल : काम करपाचें ना तर पोट भरपाचें ना. चल बिडकी कवळ. आनी येयील पायान चलू लाग. ही मार आनी कित्याक घेवन येयल काय? फकत कुळ मारूंक?

सोनू : आई हांव वचपाक येवंक ना. रावपाक येयलां.

विमल : तूं रावूंक येयलां काय जीव खावूंक येयलां कोणा खबर! अगो तुगेली आनी म्हागेल चेड्याली वळख कशी जाली?

सोनू : आई ती मगे एक मज्जाच आसा. हावं बाजारान वयतालें आनी तो फुडल्यान येतालो **(लजता)** आमचे दोळ्याक दोळे मेळ्ळे आनी आमचो मोग फुल्लो.

विमल : म्हणल्यार?

सोनु : म्हाका तुजो चेडो आवडलो आनी तूं बीन आवडली म्हाका.

विमल : **(स्वगत)** वट्टार हे प्रकरण तारान सांगिल्या म्हणकी न्ही मू? हेका अपुरबाय केलार हें माथ्यार बसतलें. एक घावात दोन तुकडे केल्ले बरे **(उघड)** अगो म्हागेल चेडोत तुका आवडूंक बाकीचे चेडे पुराय मिलेट्रीत भल्ले काय?

सोनू : आईऽऽ

विमल : **(रागान)** लाथ घालन गो कंबरार म्हाक आई म्हणलार. आई, आई कन्न घराची चावी म्हाजकडल्यान काडू पळयनाका कामवालेन, कामवाले भाशेन रावूं जाय.

सोनू : **(रागान)** कोणाक कामवाली म्हणटा गे तूं? आयकतां आयकतां चड सुभेज उलौवपाक लागली. हांव आई, आई म्हणता तर तूं कसाई सारकी बॉब मारता.

विमल : हड्यार लाथ घालन गो बोब मारता म्हणलार. तुजेर ती पडूं बोब. तूं कोणाल घरांत घुसून कोणाकडेन दादागीरी करता? काडण्ण आडमुठी तोणो मारलार पेंगट मोडन्न वैतलें.

सोनू : तूं म्हजें पेंगट म्होडतासर म्हाजे हातें कितें केळी खावपाक गेल्या तर गे? ओल्ड वुमन खंयची!

विमल : **(रागान)** आवोल घोव तुगेलो ओल्ड वुमन. म्हाक्क गाळी मारूक हांवें तुगेल बाप्पाली पोटली खायल ना. खिमचो दळभद्री कावळो घरात घुसलो रे हो! अगो तूं माजकडेन मागेल सुने भशेन झगडूंक तूं सुणे कोण गो?

सोनू : म्हाका सुणे म्हणल्यार तुका पुणे दाखोवपाक उणें करपाक ना सांगतां तुका. हाव तुज्या चेड्याक घेवन आतांच परत वैतलें.

विमल : म्हागेल चेडो किदें कुकडा पील हय गो घेवन वचूंक. खिमचे माडती खोड घेवन येल रे हो. हैन टायमार हो बी नाजावन आसा म्हणलार. अगो तु ह्या घरातल्यान वैता काय ताराक आपव?

सोनू : ना हांव वयचें ना. कितें करता तें कर.

विमल : ना. कशें वचना हांव पळयतां. **(हाता धन्न ओडूक वैता. दोगीजाणाली झडामुंडी जाता. सोनू विमलाक धुकलता. विमल एक मुल्यात पडता आनी बोब मारता)** आवय गे आवय गे! हेजो सत्यानास जाई गो ह्या कलीचो. म्हागेल कंबर मोण्ण थेयलें आवय गे! **(तेन्ना विनोद भायल्यान येता हातात निस्त्याचो खोते (पोती) आसा)**

विनोद : **(विमलाक पळोवन)** आई, आई किदें जाल गे तुका?

विमल : ह्या सुरपानखेन म्हागेल कंबर म्होण्ण घायलें रे. आवय गे!

विनोद : **(रागान)** सोनूऽऽऽ

सोनू : विनु हांव तुजी आई बरी म्हण केला. पळयलार ही ललीता पवार मरे! विनू एकतर ह्या घरांत हाव रावतले नातर ही.

विमल : तूं ह्या घरात रावूंक तूं किदें म्हागेल सवत हय गो? तुज नांव हाळ पडन वचू गो.

विनोद : आई तेका किदें उलयनाका. तेका तुगेल घरांत सून म्हण घे.

विमल : म्हागेल सून म्हण घरांत घेत न्ही घराभवतणी तीन पटी उवाळून उडोवन दिता ह्या शिगम्या सोंगाक.

विनोद : आई हांव तेज बरा लग्न जालां.

विमल : अरे बाळा, ह्या देवतेबरा किद्या लग्न जाल रे काळा? हेणी मोडली म्हागेली बरकळा.

विनोद : सोनू किदें जालें?

विमल : त्या सोंगाक कितें विचारता? हांव सांगतां तुका! हांव एक ओल्ड वुमन खंय!

विनोद : सोनू ती म्हगेल आई!

सोनू : तुका कोण जाय आई जाय काय हांव जाय?

विनोद : म्हाका तुमी दोगी जाण जाय.

सोनू : तुज्या आईक तूंच घेवन बस. हाव चल्लें. **(भायर वैता)**

विनोद : **(रागान)** आई तुज्यान तेका सांभाळन्न घेई जालना. फालेक सुनेक अशीत करतली. हांवें व्हडले वंड्राम हाडील तेका घर दाखोवंक. तुवें तुगेल आवतार दाखयल मगे! तूंत घेवन बस हें घर. हावं वैतां. **(सगळें सामान घेवन वैता)**

विमल : **(परवता)** आवय गे आवय.

तारा : **(भायल्यान प्रवेश कर्ता)** अगो विमला कितें जाल गो?

विमल : व्होडार पडले गो बाये!

तारा : हांवें आयकल्लें तुगेल बाळ येयला म्हण! खंय तो?

विमल : बाळ बळ्ळो आनी बायले फाटल्यान पळ्ळो.

तारा : म्हणलार गो?

विमल : तुगेल जाय म्हण म्हागेल नाका. कशेकन्न आपोवन हाड गो तेका

तारा : म्हणलार विनोदान थंयीत मुटलावन घेतले मुगो? आत खा माती.

विमल : त्या चेडवाक शिकवूंक गेल्लें पाठ, लायली तेणी म्हागेली वाट. मातर बर जावू फोडटा तेगेली फाट. करूं गेलें एक आनी जालें भलतेंच.

तारा : म्हाक शाणेपण सांगताल न्ही तूं. आत कितें जालें?

विमल : तारा जाल्ले घायार मीठ फाफुडनाका. तुगेल आयकून हांव सुपारी मुठींत धऱ्या म्हण केल्ली. ती मुठींत फुटली. तारा तुका एक चेडु आसा सुख, दुःख सांगूंक. पूण म्हागेल बाळा शिवाय कोण ना. खरेत तारा आज कळ्ळें म्हाका तुगेल जाय म्हण म्हागेल नाका.

(सोंपता)





– संदेश श्रीकांत बांदेकार

सदाशीवगड, कारवार.

# तेफ्फां

*संवसार म्हणटकीच आयदनांक आयदन आपटताच पूण आमच्या आयदनांचो आवाज मातसो चडूच जावपाक लागला, म्हज्या 'अ' गुणांची सुलूस लागिल्ल्यान आसत. एक वेळ देवा माथ्यावयलें फूल चुकत पूण 'तात्यान बरोब्बर टोपी घाली, रूपान आसा तश्शें गुणान' हें मंत्रफुल केन्नाच चुकलें ना. सद दां उठून झगडीं-झुजां आनी धोमणे (एक विरुद्ध तीन) घोव तर सगळ्यांभितर मुकूटमणी. हाचो निशेध म्हण हांवें एक वर्साक म्हजो एक कलमी कार्यक्रम घोशीत केलो, 'आतां हळद-कुकूम बी कांय करचें ना, कित्याक आनी कोणांखातीर करूं?'*




रुपा कोसंबे

व्हडलें भाट,
तालगांव.
मो. : ९४०४९१४४३७


# 'अ' एके 'अ'

मळबांत उडटां उडटनांच अकस्मात पाखां तुटचीं आनी अकस्मात जमनीर ढबांयच करून पडचें हो अणभव हांवें सपनांतच न्हय तर जागृतावस्थेंत पसून खूबदां घेतला. फरक इतलोच की सपनांत हांव खऱ्यांनीच उडटां आनी जागृतावस्थेंत मात म्हजें मनविमान मळबांत स्वैर करता आनी अकस्मात ताका वास्तवतेचो ब्रेक लागून परत जमनीर येवन जाता-नजो करून ल्हव ल्हव पावलां मारता. असल्या वेळार मनाक कितल्यो यातना जातात त्यो म्हजें हांव जाणां!

त्या दिसाच्या फोनाची गजाल. 'हॅलोऽ, हॅलोऽ तुमी अमूक अमूक न्हय?' मोबायलाचेर कोणालो तरी फोन.

'हय, हय' हालींसराक कोणालो फोन आयलो म्हणटगीर हांव खुशालभरीत जातां, फकत ते फोन म्हज्या धनकोचे मात रीण फारीक करपाचें मन्मंतर लावपी आसूंक फावनात. खुशाली म्हणटात ती इतल्याच खातीर. हालीं हालीं हांव मात्शें धव्याचेर काळें करूंक लागलां! कितेंय खरडायलें म्हणटगीर दितां खंयच्याय मासिकाक नाजाल्यार दिसाळ्यांत धाडून. छापून येतना सकयल बरेंऽऽ येदो व्हडलो फोटो, नांव, पत्तो, मोबायल नंबर, इमेल आय डी बी घालून बरें ओर्राद छापून येता, बरप कशेंय आसूं मागीर. वाचक बाबडे केन्नाकेन्नाय फोन करून आनीक आनीक बरोवपाची उर्बा दितात. तशें एकेक वेळार पुर्रादय पडटा, ना न्हय, पूण तें साप्प थोडें. (क्षण एक पुरे भाग्याचा, वर्षाव पडो मरणाचा) सांगपाचें तर मोबायल वाजतगीर बरें दिसता आनी फुडलीं स्तुतीसुमनां आयकुवचे खातीर कान उबे जातात. अनवळखी नंबर आसतगीर मातशें चडच. कारण सदांच फोन करपी वाचकाच्या नाय म्हळ्यार फुडल्या उलोवपाचो अदमास येताच, नमनाकच कळसुलीभर तेल म्हणटात तसली गजाल जाली. तर हॅलो, म्हणनाफुडें दुसरेवटेनची फुतफुतली, 'तुमी विनोदी बरयतात न्हय?'

'अजी म्यां ब्रह्म पाहिलें'चो म्हाका भास जातनाच कोणेंतरी म्हज्या लेखनाची दखल घेतिल्ली पळोवन, हांव पाडसभर वयर पावलें. एकेकटो एकेक विनोदी 'गर्नाल' फोडटा तें पळयल्यार विनोदांतलो 'व' पसून म्हणपाची म्हजी लायकी ना हें हांव पुरेपूर जाणां म्हणूनच हांवें आजमेरेन केन्नाच त्या प्रकाराक हात घालपाचें धाडस करूना, फकत कोणूय अनंताचे यात्रेक



गेलो म्हणटगीर 'मेल्ले म्हशीक बारा शेर दूद' हे उक्तीप्रमाणे चार वळी खरडायल्यात, ना न्हय, ताच्या आशिल्ल्या-नाशिल्ल्या गुणांचें तिखट-मीठ लावनच न्ही तर बरो सुवादीक मॅगी क्युब लावन वर्णन केलां. तेंय बी हाका विनोदी दिसूंक ना मूं? खात्री करून घेवपा खातीर, हांवेंय म्हज्या आवाजांत जाता तितली नमळाय हाडून विचारलें, 'तुमी म्हजे कितें कितें वाचलां?'

'ना ताचें कितें आसा सद्याक हांव एक 'सांवळयालो गोंदळ' म्हण एक अंक काडपाच्या यत्नांत आसां, तातूंत विनोदी दोन-चार लेख जाय. आतां विनोदी लेखक मेळपाक कुस्तार जाल्यात. तुमचो एकदां केन्ना लेखापोंदाक फोन नंबर आशिल्लो तो नोट करून घेतिल्लो, तसो लेख वाचूंक मेळ्ळोना (वाचिल्लो जाल्यार हें धाडस करपाचे न्हय. हांव मनांत पुटपुटलें) तुमच्यांनी जाता जाल्यार एक लेख हो म्हयनो सोपच्या पयलीं मातसो धाडून दिवश्यात?' 'बरें बरें' जाल्या तितली पुजा पुरो आनीक आनी मंत्राक्षता नाकात म्हण हांवें बेगबेगीन म्हजे उबे जाल्ले कान आडवे घाले आनी मळबांत उडटालें तें विमान बेगबेगीन जमनीर हाडून थीर केलें.

थोडीं जाणां जन्मतांच तोंडांत चांदीचो चमचो काय दवलो घेवन जन्माक येतात. हांव खंय जातनाच 'अ' घेवन जन्मांक आयलें. ताचें अजागळ, अबरगत, अक्कलशुन्य, अवचिन्न, अरवळ, अक्कलबुडें अशे जायते अर्थ आसात. आमच्या मायभाशेंतल्या बाराखडींतल्या पयल्याच 'अ' ह्या अक्षराच्या म्हज्या जन्माक लागून जाल्ले दैनेक हांव कारणीभूत थारलां हाचें म्हाका खूब्ब वायट दिसलें. पूण ताका उपाय नाशिल्लो. हांव जावन खंय आयलां जन्माक? तुमीच तर हाडलां म्हण म्हाकाच थातारून घेतलें.

खरें म्हळ्यार म्हज्या ह्या 'अ' गुणांचो (दोशांचो?) सोद म्हज्यापयलीं बाकिच्या सगळ्यांक लागलो. म्हजे यादीप्रमाण शाळेक वचपाक लागतसान्न ताची सुरवात जाली. तेन्नासान्नच म्हज्या गुरूजनांची आनी बरोबर शिकतल्यांचीं थोकणां सुरू जाल्ल्यान शिकपावेलें म्हजें लक्ष उडलां आसतलें (हो म्हजो सोद) एकेक यत्तेक, एकाच बांकार णव त्रीक सत्तावीस (शालेय वर्साचे उरिल्ले तीन म्हयने दिवाळी, नातलां, मे म्हयन्याची सुटी) म्हयने एकाग्र चित्तान हाच्या ताच्या तोंडाकडेन पळोवन एकदांचें धाव्वे मेरेन पावपाचें हांवें 'अ'जाप केलें. पूण म्हजे जिद्दीची तोखणाय कोणेंच करूंक ना. तेन्ना आताचेभशेन कितेंय शिकात नाजाल्यार शिकूं नाकात, आठवीमेरेन वर्सानवर्स पास हो कायदो येवंक नाशिल्लो, नाजाल्यार सगळ्यांक कितें तें दाखोवपाचें.

तर 'आराम हराम है' म्हणनासतनाच आराम घेत घेत म्हज्या धाव्वेक पावपाचो परिणाम जावपाचो तोच जालो. 'आदींच म्हस मोटेली, तातूंत आनी गोठेली' (म्हजो सोद) तशें धावेक पावतासर हांव घोडनवरी दिसूंक लागलें न्ही, जालेंच आनी परिक्षा दितनाच घरच्यांनी म्हजे खातीर वरसंशोधन सुरू केलें. हांवेंय तो मेरेन तांकां तो तरी आधार जावचो म्हूण म्हजेपरीन यत्न केलेच. पूण लायन जुळोवपाक म्हाका येस म्हणटात तें आयलें ना. तातूंकय खरें म्हळ्यार म्हजी कांयच चूक ना. 'चलाओ ना नैनोसे बाण रे' म्हण हांवें म्हजे कितलेशेच नयनबाण विरुध्द पार्टेचेर रोखले तरीकूय 'आंब्याक काय जांब्याक पळयता तें कळना रे?' अशी म्हजी दोळ्यांची अवस्था जाल्ल्यान कोणच जखमी म्हणटात ते जाले ना.

म्हज्या फाटल्यान आनीक तिगां जाणांक उजोवपाचें आशिल्ल्यान कसलोय जावं, कोणाकय धरून म्हजें तारू संवसारसागरांत लोटून दिवपाची सगळ्यांची तयारी आशिल्ली. पूण जावचें कितें? म्हाका पळयतगीर पळयतल्यांक बाबड्यांक 'यंदा कर्तव्य नाही' हें म्हणल्याबगर गत्यंतर नासतालें (ही म्हजी चूक?) पूण म्हजेखातीर आयिल्ल्यांक एकेक करून म्हज्यो फाटल्यो भयणी नदरेक पडून पसंत पडल्यो आनी तांचें आलायतें जावन गेलें. हाचें पुण्य म्हाका ह्या पृथ्वीतलाचेर मेळनाका पूण वयर वतगीर मेळटलेंच हाची म्हाका शंबर टक्के खात्री आसा.

असोच एकटो म्हाका पळोवपाक आयिल्लो तेन्नाची गजाल. गायनकलेचो दर्दी. ताका बायल दिसूं कशीय पूण गावपी जाय आशिल्ली. ताणें म्हाका टेस्ट करपाक पदेवपाक सांगतगीर, जमल्यार जमलें म्हण हांवेंय म्हज्या भसाड्या गळयाची पर्वा करिनासतना 'मुकाबला मुकाबला' म्हण गावपाक सुरवात केली मात, 'व्हंकले चिन्नां खंय वाळ्या कट्टराचेर कळ्ळीं' अशें पुटपुटत ताणें आनी दोन हात न्हय तर चार हात करपाची तयारी दाखयना आसतना थंयच्यान पपा काडली.

आयिल्ल्यो सोयरिको म्हज्या 'अ' न्नाडीपणान मोडटात म्हण दुबाव मारिल्ल्यान म्हज्या बापायन, हांव तांकां 'तात्या' म्हणटालें 'कोणेंय येतगीर कांयच पचपचपाची गरज ना, कितें तें हांव पळयतां.' म्हण सरळसरळ म्हाका धमकी घाली आनी म्हाका नुलोवपाशिवाय गत्यंतर उरलें ना. असोच एकदां कोण तरी आयिल्लो तेन्ना 'उस डोंगा परि रस नाहीं डोंगा' म्हण म्हजी तोखणाय करतकरत तात्यान ताका कसोय करून आपले गरयेंत फारायलेंच आनी एकदांचें शुभमंगल जालें. तात्या आनी आई सुटून 'म्हजी माती, म्हजीं मनशां' बदलिल्लीं. पूण म्हजे ग्रह तशेच उरले.

संवसार म्हणटकीच आयदनांक आयदन आपटताच पूण आमच्या आयदनांचो आवाज मातसो चडूच जावपाक लागला, म्हज्या 'अ' गुणांची सुलूस लागिल्ल्यान आसत. एक वेळ देवा माथ्यावयलें फूल चुकत पूण 'तात्यान बरोब्बर टोपी घाली, रूपान आसा तश्शें गुणान' हें मंत्रफुल केन्नाच चुकलें ना. सद्दां उठून झगडीं-झुजां आनी थोमणे (एक विरूद्ध तीन) घोव तर सगळ्यांभितर मुकूटमणी. हाचो निशेध म्हण हांवें एक वर्साक म्हजो एक कलमी कार्यक्रम घोशीत केलो, 'आतां हळद-कुकूम बी कांय करचें ना, कित्याक आनी कोणांखातीर करूं?' तोंडांतलीं उतरां सोपचींच आसात, जाण्टेली कच्च करून आंगार आयली, 'तशें जाल्यार भोंवती भागरथ कशी गांवभर भोवन लोकांलीं वायणां कित्याक पुनयता? उश्णीं वायणां म्हणटात तांकां, परतीं दिवंकच जाय. शी, थुमेकाल कशें, आमगेर आडव्यांगेर अशें उलोवप म्हळ्यार पसून पातक. खंयची अबरगत गळ्यांत पडल्या देव जाणां?' जाण्टेलो हो उबो. दोगांय उबीं-

आडवीं रावन म्हाकाशीं कित्याक खुरसाक मारतात तें बाबडो तो वयलोच जाणां!

हांवय खूबकडेन चुकतां, ना न्ही. मनीस म्हणटगीर चुकतलेंच न्ही! तातूंत आनी 'अ' गुणांचें. अशीच एक वर्साच्या तुळशी लग्नाची गजाल. म्हाका दोंगरार वचून जिन्या बडी हाडपाची ओर्द पडली. हांव खंय जिन्या बडयेक वळखतां? पूण सांगपाची गत आसा? म्हज्या आवयचो-बापायचो उद्धार जावपाचो. तांगेर आसासर तांणीं म्हजो केलो आतां हीं तांचो करतात, दिल्ल्या मापान खंय घेवचें. तोंड धापून कोयती घेवन गेलें आनी कोंड्या बडी हाडून बरी सुळसुळीत करून दिली. हरशींय म्हण तुळशी लग्नाक तुळस व्हंकल आनी विष्णु न्हवरो. जीन्या बडी धेडो, फकत आदाराक म्हण. मागीर म्हळें तो आधार जिनो आसूं नाजाल्यार कोंडो, मेळटगीर जालो (चुकलें म्हजें?) जाल्यार हें आनी 'अजागळ' नेमकें आमकांच कशें सापडलें म्हण तात्याल्यो आशिल्ल्यो नाशिल्ल्यो टोपयो वयर सरपाच्यो त्यो सरल्योच.

सकाळचें फात्यापारार उठटा तें न्हिदमेरेन संवसाराखातीर राब राब राबतां, पूण कोणाकच पडिल्लें ना. म्हज्या एकाय बऱ्या कामाची जावं निर्णयाची तोखणाय ना. बरोबरच आसा म्हणा, सत्ताधाऱ्यांनी कितलोय बरो अर्थसंकल्प मांडलो तरी विरोधी पक्षांतले ताचेर टिका करतातच तसल्यांतली गजाल. बरी सत्ता आसा पूण लत्ता कश्योच चुकनांत.... आतां पयलींसान्न म्हाका आळवड्यो म्हळ्यार जीव काय प्राण म्हण पयर आमगेर केल्ल्यो. त्या दिसाक बऱ्यो तळून, धाएक खाल्ल्यो जाल्यार आनीक एक फीत मेळ्ळें, 'अधाशी'! अशें येनकेन प्रकारेण 'अ'चो पाढो चिरीत चिरीत, हांव म्हज्या 'अ' गुणांचें खातें फुगयत आसां. लोक 'डायरी' बी बरोवन आपल्या वेदनांक वाट करून दितात. हांव भितल्ले भितर घुसमटतालें. आतां हांवेंय हाचेर एक उपाय सोदून काडला. कितेंय दिसता तें जमता तशें बरोवन दुखाक वाट करून दिवपाची. छापपाक दिलें म्हणटगीर येता एकूण छापून आनी ताका तुमच्या सारकिल्यांचो मेळिल्लो प्रतिसाद पळोवन घरच्यांकय एक धाक कसो बसला, 'हें अवचिन्न कितेंय बरोवन घरांतलें सगळें वाऱ्यार घालपाक आसा' तेन्ना धापिल्ली मूठ सव्वालाखाची म्हण तींवय विचार करूनच वेव्हार करतात आनी म्हज्या ह्या कामगिरीचेर (खूश जावन काय?) ताणीं म्हाका आनीकय एक 'अतीशाणें' म्हण पदवी बहाल केल्या.



# परमळ

*जेन्ना घर मोडून जालें तेन्ना बुनियाद खणून पळयली. पळयत जाल्यार फकत तीन चिऱ्यांची बुनियाद. पुतान सोमतेंच बापायक विचारलें. 'पप्पा तूं इतले दीस तुज्या येदी बुन्याद घाल्या म्हणटालो मरे? खंय आसा ती? फकत तीन चिरे?' तेन्ना घोवान जी जाप दिली ती आयकून आमी थंड पडलीं. ताणें म्हटलें, 'म्हज्या शाण्या, घर बांदिल्लें १९६८त. तेन्ना हांव पांच वर्सांचो आसलों. तेन्ना ती बुन्याद म्हजे येदीच आसली. म्हजें बाय (आवय) सगल्यांक सांगतालें 'बाबा येदी बुन्याद घाल्या.' तिची चूक ना आनी हांवूय फट उलोवंक ना. आतां तुमी म्हाका 'स फूट दोन इंच' पळोवन १९६८तली बुन्याद चिंततात ताका हांव कितें करूं?'*




**अपर्णा गारुडी**

शिवोली – गोंय

मो. : ८८०६३०८०९३


केन्नाय उलयतना आमी म्हणटात, 'तो सुरय फटास मारपाक फिशाल'. पूण हांव बरयतां त्यो तसल्यो फटासो न्हय. ह्यो फकांडां वरी दिसपी खऱ्यो गजाली! ह्या गजालींच्यो यादी केन्ना केन्ना एकसुरेपणांत मनाच्या आंगणांत नाचपाक लागतात. केन्ना खातखुतल्यो करतात तर केन्ना विनोदाच्यो फुगोट्यो कश्यो फुटत रावतात. वाचात आनी हांसात.

दिवाडे ऑगस्टाच्या म्हयन्यांत 'बोंदेरां' जातात. तेन्ना फटाश्यो मारतात. 'फटाश्यो' हें उतर हांव सगल्यांत पयलीं दिवाडे इश्कोलांत शिकयतालें तेन्ना आयकल्लें आनी अर्थासयत अणभवल्लें. 'बोंदेरांचे' परबेक फटाश्यो मारपाची थंय पध्दत आसली. फटाश्यो म्हळ्यार एका पोक्या वेळूच्या तोंडार तेफळां दवरून त्यो बंदुकीच्यो गुळयो कश्यो मारप. हे दिसा तेंफळांचो मार सगल्यांकूच खावचो पडटालो. कोणाकच कागाळ करपाक मेळनाशिल्ली. दुस्मानाचेर 'झोड' काडपाचो हो दीस. दिवाडकारां खातीर म्हत्वाचो. चडशीं इश्कोलाचीं भुरगीं सगल्या टिचरींक अपुरबायेन 'बोंदेरांचें' आमंत्रण दितालीं आनी तापोवपी वा मारपी टिचरींक लिपून रावन फटाश्यांनी यथेच्छ फोडटालीं. तांकां नाका शेवट करतालीं. तेफळांचो घमघम पडटालो आनी फटाश्यांचो झणझणीत मार बसतालो. ते मानान हांवें खूब कमी फटाश्यो खाल्यो. दुस्मानाचो सूड घेवपाचें हें कायदेशीर शस्त्र दिवाडकारांकडेन प्रथा म्हूण आशिल्लें. 'आशिल्लें' इतलेच खातीर कारण कांय वर्सां पयलीं, दोगां-चवगांचे दोळे फुट्टकच ही प्रथा कायदेशीर बंद जाली. फटाशींच्यो यादी मात आयजूय, तेंफळांच्या मिरमिरीत वासासयत मनांत परमळत आसात.




शिक्षक जाल्ल्यान कितें कितें आनी कोणाकोणांक कशें-कशें समजून घेवचें पडत सांगपाक येना. शिक्षकाकडल्यान समजाच्यो अपेक्षा वाडतूच आसात आनी त्यो कितल्यो वेदनादायी वा विनोदी आसच्यो हाका सीमा ना.

आमच्या गांवांत एक व्हडलो सरकारी अधिकारी रावता. ताका 'हाय स्टेट्स आनी इंग्रजी भास' हांचें भलतेंच आकर्शण. मराठी शाळेंत शिकून व्हड जालो. पूण व्हडलो जातकच इंग्लीशीबगर दुसरी भास उलयलो ना. ताच्या दोन वर्सांच्या पुताक लेगीत ताणें 'इंग्लीश मॅन' करून सोडला. 'काम बाबा, गो बाबा, इट बाबा, मेक शू शू...' ह्या कॉंग्लीशी वांगडाच तो अभिमानान सांगता 'म्हजो पूत इंग्लीशींतूच उठ्ठा आनी इंग्लीशींतूच न्हिदता. सामको इंटरनॅशनल.' तें आसूं. गजाल सांगतालें ताच्या लग्नाची. तीन वर्सां पयलीं ताची सोयरीक जाली. व्होंवळीको छांपून आयल्यो. बापायन तांकां सांगलें. तुजी इंग्लीश मात्शी कुशीक दवर आनी व्होंवळीकांच्या पाकीटांचेर मराठींतल्यान नांवां बरय. तेन्ना ह्या इंग्लीश सायबान नांवां घालचे पयलीं श्री. आनी सौ. बरयतात त्या जाग्यार सगल्यांक कै. बरयलें. सगल्यांक 'कैलासवासी' करून उडयले.

हांवें म्हटलें. 'हें रे बाबा कितें? आमकां जीतेपणीच वयर पावयलें मरे?' जाल्यार म्हणपाक लागलो, 'आगे कितें फरक पडटा? श्री., सौ. आनी कै. म्हजे सारकिल्याक सगलें सारकेंच! म्हजी मराठी मात्शी कच्ची आसा. पूण तूं टिचर मुगे... तुका समजून घेवंक जायना?' जितेपणीच आख्ख्या गांवांक 'वयर' पावयतल्या मनशाक कितें समजून घेतलें? ओगीच रावलें. ह्याच मनशाचो बापूय भायर पडलो. ताणें ऑफीसांतले कोणूच घरा येवचे न्हय म्हूण ऑफिसराक एसएमएस केलो 'रिलेटीव्ह ऍक्सपायर्ड'. बापायच्या 'अंत्यविधीक' केंस कापचे पडटले आनी सगल्यांक कळटलें म्हूण आपल्या भावोजीक 'अंत्यकर्म' करपाक लायलें? (तेन्ना इंग्लीश लोकांचो, हायस्टेटस वाल्यांचो बापूय केन्ना मरच ना काय? असो म्हाका प्रस्न पडलो.) ताच्या बापायच्या मरणाची खबर कशी कोण जाणा पूण ऑफिसांत पावली आनी सगलो स्टाफ 'मरणाक' उपस्थित रावलो. तांकां पळोवन हो अजाप! वयल्यान हांसत विचारता 'हू टोल्ड यू?' तेन्ना ताच्या ऑफीसरान सगल्यां हुजीर कोंकणींतल्यान ताका विचारलें 'तो एक्सपायर्ड रिलेटीव तुजो बापूय म्हूण तुवें कित्याक कळयलें ना?' तेन्ना सगल्यांक अजाप दिसलें. ह्या मनशाचें तोंड मात पळोवपासारकें जाल्लें.

इंग्लिशीचो सांवार आयिल्लो आनी 'हाय स्टेटसाची' ओड लागिल्लो मनीस खंयच्या पावंड्यार देवत सांगपाक येना.

दोन वर्सां पयलींची गजाल. आमचें नवें घर बादपा खातीर आमी पोरनें घर मोडटालीं. १९६८त बांदिल्लें घर मोडचे पयलीं ह्या घराविशीं हांवें कांय गजाली आयकल्ल्यो. म्हजो घोव एक गजाल सदांच सांगतालो. ती म्हळ्यार 'हें घर आमी स्वताच्या हातांनी बांदिल्लें आनी ताची बुन्याद म्हजे येदी घाल्ली. (दाखयतना तो स्वताक दाखयतालो. ताची ऊंची स फूट दोन इंच) म्हाका चिटमीटे लागताले. इतली खोल आनी घट बुन्याद आशिल्लें घर मोडून परत बांदप? पूण पुताक आनी घोवाक नवें घर जायच आशिल्लें.

जेन्ना घर मोडून जालें तेन्ना बुनियाद खणून पळयली. पळयत जाल्यार फकत तीन चिऱ्यांची बुनियाद. पुतान सोमतेंच बापायक विचारलें. 'पप्पा तूं इतले दीस तुज्या येदी बुन्याद घाल्या म्हणटालो मरे? खंय आसा ती? फकत तीन चिरे?' तेन्ना घोवान जी जाप दिली ती आयकून आमी थंड पडलीं. ताणें म्हटलें, 'म्हज्या शाण्या, घर बांदिल्लें १९६८त. तेन्ना हांव पांच वर्सांचो आसलों. तेन्ना ती बुन्याद म्हजे येदीच आसली. म्हजें बाय (आवय) सगल्यांक सांगतालें 'बाबा येदी बुन्याद घाल्या.' तिची चूक ना आनी हांवूय फट उलोवंक ना. आतां तुमी म्हाका 'स फूट दोन इंच' पळोवन १९६८तली बुन्याद चिंततात ताका हांव कितें करूं?'

सामके शांततायेन एखाद्र्या प्रामाणीक भुरग्यावरी ताणें सांगलें. ताचो हो विनोद 'बुन्याद' उत्तर आयकना फुडें आयजतागायत हांसयता.

आमचो एक शेजारी सामको आळशी. वाड्यार केदीय व्हडली घडणूक घडूं तो सगलें सोंपल्या उपरांतूच पावता. सगल्या लोकां हुजीर एकदां एकल्यान ताचेर झणझणींत कमेंट मारलो 'पुजा खंयूय पावूं पूण तूं मात सदांच दोण्याकच पावता.' तेन्नाच्यान तो मात्सो सुदारलो.

जिणेंत उतरांच्यो फटाश्यो खायमेरेन मनीस सुदरना हेंच खरें! पूण त्यो विनोदी आसत जाल्यार चड बरें!



## तात्पर्यकथा

**धरणें धरपाक परवानगी दिवंक ना म्हूण गोवा राखण मंचान केलो सरकाराचो निशेध!**



हें सरकार म्हणल्यार सामकेंच पाँच न्ही रे?
ना तर आनीक कितें!आमी काय बरे धरणें धरपाचे आशिल्ले!
ते पासत काम धंदो सोडून एकलांय जाल्ले
पूण ह्या सरकाराक ताचें मात्तूय पडून गेल्लें ना धरण्यांक लेगीत परवानगी दिना हाचो अर्थ कितें?
हाका धरणें म्हणल्यार कितें धरण बी दिसलां काय कितें?
आमकां बरो वळखून नकलो हो! आमी पेटत जाल्यार हाका पळचें पडटलें!
आनी कितें? पूण धरणें धरप म्हणल्यार आंदोलनाचो एक प्रकार न्हय रे?
मागीर कितें तर! आंदोलनच तें!
म्हणटकच सरकारा आड आंदोलन करता तेन्ना कोण सरकाराची मान्यताय घेता? आदलीं सगळीं आंदोलनां सरकाराक किंकोंत करूनच जातालीं. पूण आमी आतां सिस्टॅमॅटीक करूया. सरकाराची परवानगी घेवनूच सरकाराक जाग्यार हाडुया! तशें जाल्यार आमी धरणें सोडुया आनी सरकाराचो निशेध करूया!

**तात्पर्य : पाद्र्याक वर्णाचें निमित्त!**



## चडतीक तेग

मात्शें ताका देंवया सकयल
पळेवंक जायना वोळवोळचें
दोन सास्र वर्सां जालीं
पुरो ताणें उमकळचें

एकलोच आसल्यार परवा नातली
चडतीक तेग आसात
तांचे खातीर पुणय तुमी
काळीज खालतें करात

चरया नदर हांचेर थोडी
रुंदावन तुमचे दोळे
वजन ताचें व्हावव्न आसात
खुरसाचे तीन खिळे!

## इस्त्री

हून जाल्यार तूं केदी
पिटो वस्तुर लेगून खडक जाता
मनीस जरूय हून जालो
खडक संबंध सयत पिटो जाता



– मेल्विन रोड्रीगस
मंगळूर
मो.:०९९८०१३६२९७

## चॉकलेट

मम्मा,रेप म्हळ्यार कितें गे?
म्हाका दाखय मगे रेप!
ताची कशी आसता गे शेप?
आनी ताचो कलर आसता रेड?
मम्मा,तूं म्हाका ओग्गी बस कित्याक म्हणटा?
आमच्या क्लासीन मगे
ह्योच गजाली चलता
आनी आमकां टिचरीन सांगलां
कोणेंय चॉकलेटी दिल्यार खांव नाका!
कित्याक गे खांव नाका?
मम्मा,चॉकलेटीनी रेप आसता गे?
तूं सांग गे म्हाका!
ना जाल्यार हांव डॅडीक विचारूं?
भैयान रेप पळेल्या?
मम्मा, तूं रडूं नाका,
तुवें हाडल्यार लेगीत
हांव केन्नाच चॉकलेटी खावचें ना
आय प्रॉमीस मम्मा
आय प्रॉमीस ...



– नुतन साखरदांडे
म्हापशें – गोंय

## रंग

तूं
येतना
हाड कांय रंग
काळो, निळो, जांबळो,
तांबडो, पांचवो
हळदुवो आनी धवो...
आमी रंगोवया
फांतोड
सकाळ
भर दनपार
सांज–तिनसांज
रात
आनी काळरात...
रंगोवया आमी
गरागरा फिरपी
कालचक्र
आनी काळय बी...

तूं
येतना
इल्लो चडूच हाड
काळो
आनी ताचे परसय
चडूच हाड
धवो...



– आर. रामनाथ
एम–ओ–६,
गोवा हाऊजींग बोर्ड,
कुर्टी – फोंडा, गोंय.
मो.:९८५०४५८७६३

## शबै तुवें घातली देखून....

शबै तुवें घातली देखून ही होळी पेटली
पेट्टी चूड उबारपाची पाळी म्हजेर आयली

मंदिराचे गर्भकुडींत देवी सुगूर आशिल्ली
भुजा खांदार पालखी तुवें भक्तिभावान नाचयल्ली
चार चौगांत अब्रु तिची तुवेंच पणाक लायली
पेट्टी चूड उबारपाची पाळी म्हजेर आयली

घोव भाव पूत म्हूण उजवेपण दिल्लें तुका
घात असो घेशी बळयां मातूय दिसलें ना रे म्हाका
मनीस कुळाक लावन ल्हाशें धिंड तुवें काडली
पेट्टी चूड उबारपाची पाळी म्हजेर आयली

सृजनाचो कुसवो म्हजो तुवेंच तो उजयल्लो
मातृत्वाचो उत्सव हांवें तुज्याच बळार मनयलो
विश्वासाची नाळ तुवें मुळासकट तोडली
पेट्टी चूड उबारपाची पाळी म्हजेर आयली

अधर्मी नरा तुवें सरण म्हजें दाळ्ळें
नराधमी कर्म तुजें संवसाराक कळ्ळें
केल्ल्या सगल्या पापांचीं मापां आतां भरलीं
पेट्टी चूड उबारपाची पाळी म्हजेर आयली

रगत आतां कडटलेंहोमखण आतां पेट्टलें
फाटलें फुडलें रीण आतां पळय कशें फिट्टलें
शांत आसली शांता आतां दुर्गा जावन उठ्ठली
शक्तिचीं रुपां तुका तरेतरेन दिसतलीं

– चंद्रिका पाडगांवकार
पर्वरी – गोंय.
मो. : ९८२३७६९११५



## धडपड

न्हायनां फुडें
म्हाका म्हजें तोंड
हारश्यांत पळोवपाक
खूब आवडटा
तें शांत, प्रसन्न
मुखामळ पळोवन,
हांव म्हज्यांतच मुरगूट्टां,
खोशी जातां
दीस वता तसो
रांदनी मुखार,
कंप्युटरा मुखार,
वतान, रस्त्यार,
म्हज्या त्या प्रसन्न
तोंडाचेर हल्ले जायत वतात...
तें बावता, करपता,
पूण ताचे वाटेक
हांवय वचना
आनी कोणय...
कांय दिसांनी
न्हाल्या उपरांतय
म्हजें तोंड
म्हाकाच वळखुपाक भियेता
आनी हांव धांव घेतां
ब्युटी पार्लरांत
मेक ओवर करपाक...
दुसरे दिसा न्हाल्या उपरांत
परत एक फावट
म्हाका तें प्रसन्न दिसता,
हांव धादोशी जातां,
दिसाचें चक्र परत सुरू
म्हजी धडपड पळोवन,
म्हाका हांसून,
म्हजें मन सांगता,
आगो म्हजीय केन्नाय कर गो,
अशीच लक्तुबाय...



–अन्वेषा सिंगबाळ
मडगांव – गोंय
९९२३४४२७४६



## मौन

रखरखीत वतांत
मनाकाळजांत एक
वादळी वाळवंट घेवन
हांव उबें
आनी तूं म्हणटा
म्हजें मौन
म्हळ्यार तुजी
शक्त

## तान

जिवीत कणाकणान
खिणाखिणान
उणें उणें जायत वता
तितलें तितलें हांव
खोशी खोशी जायत वतां
खंयच्यातरी अनंतांत
विलीन जावपाची
विरगळून करगून
नाच्च जावपाची
जशी तानच
लागल्या



– राजश्री सैल
फादर अग्नेल कॉलेज,
पिलार.

## कथा

# पांय गूण

*अरविंदान आनी वेळ केलो ना. बेगीन घरांत भितर गेलो, फ्रेश जावन नवे कपडे घाले, व्हडली गाडी काडली आनी ते गाडयेन दोगांय वास्को विमानतळार गेलीं. थंय पाव जाल्यार विमान निवतेंच देंविल्लें. थोड्या वेळान विमानांतल्यान विशाल देंवलो. कस्टम ऑफिसांतलें सगळें काम करून तो आवय बापाय म्हऱ्यांत आयलो. थोड्याच वेळान ताणें अमेरिकेकसून सामान हाडिल्लें ताचीं बॅगां आयलीं. तीं सगळीं बॅगां गाडयेन भरून तीं तिगांय घरा आयलीं, जेवलीं आनी थोडो वेळ विसव घेवपाक आड पडलीं.*




शिवा भेंडे

इग्रामळ, केपें

फोन : ०८३२-२६६२१०९




**स**मीर एक मध्यम घराण्यांतलें चली, ताका दोग भाव, आवय, बापूय. समीर ग्रेज्युयेट जावन नोकरी करतालें. दुसरो भाव सुहास तो बारावेक आशिल्लो. तिसरो भाव सोहम तो आठवेक आशिल्लो. आवय शाळेची बाई आनी बापूय एका सरकारी कार्यालयांत कारकून.

समिराचो बॉस अरविंद सरदेसाय आनी ताची बायल अवनी सरदेसाय समीराक बरींऽ करतालीं. समीर कामांत रेक्त आनी हुशार आशिल्लें. आयचें काम तें केन्नाच फाल्यां दवरी नाशिल्लें. ते खातीर अरविंदाक सदांच फायदो जातालो आनी ताका लागून तो समीराचेर खूश आशिल्लो. अरविंदाक एकूच चलो विशाल. बरो शिकिल्लो, गरीब सभावाचो, अमेरिकेक एके तुथपेस्ट कंपनींत बऱ्या हुद्द्यार कामाक आशिल्लो. म्हयन्याक पांच लाख जोडटालो. पूण ताका आपल्या आवय बापायची खूब याद येताली म्हणून ताणें सात वर्सांच काम करून तें काम आनी अमेरिका सोडून येवपाचो निर्णय घेतिल्लो. आनी हो तागेलो निमाण्या वर्साचो निमाणो म्हयनो चलतालो. ताणें गोंयां आपल्या आवय बापायक सांगिल्लें की आपूण जानेराचे एक तारखेक गोंयां पावतां. व्हरपाक वास्को विमान तळार गाडी घेवन यो. आवय बापूय खूश आशिल्लीं. बापायन ताका तो कामाक आशिल्ली तसलीच तुथपेस्टाची फॅक्टरी बांदून भायली मशीनरी बसोवन दवरिल्ली. अरविंदान, अवनीक म्हळें आमी समीराक ते विशालाचे फॅक्टरीचें मॅनेजर करूया. सट्ट करून अवनीन 'ना' म्हळें. ताणें कित्याक काय म्हणून विचारतकूच अवनीन सांगलें की, "हांव समीराक विशालाचें लाईफ पार्टनर करूंक सोदतालें. पोर बरें तें! हांव बरें नाशिल्लें तेन्ना ताणेंच म्हजी बरी काळजी घेतली. दोनूय वेळचें जेवण, च्या पाणी ताणेंच करून दिलें. रातीचें पुसून म्हज्या म्हऱ्यांत रावून वेळार वखदां दिलीं. असलें भुरगें सून म्हणून मेळपाक नशीब जाय. पूण आमच्या चिरंजीवाक पसंत पडूंक जाय न्ही! ताणें जर कोणूय अमेरिकी गोरी मेम बी पसंत करून दवरल्या जाल्यार!"

"अशें आसा जाल्यार आतांच विशालाक फोन करून विचारतां." अशें म्हणून अरविंद फोनाकडेन गेलो आनी अरविंदान विशालाक फोन लावन विचारलें तर विशालान सांगलें, "म्हजें कोणूच ना. तुमची पसंती तीच म्हजी पसंती." अरविंदाक हें आयकून बरें दिसलें. ताणें रोखडेंच अवनीक ताची पसंती सांगली. दोगांकूय बरें दिसलें. दुसरे दीस आयतार आशिल्ल्यान दोगांयनी समीरागेर वचपाचें थारायलें आनी दुसरे दीस सांजेचीं दोगांय समीरागेर गेलीं. घरा फुडल्यान समीराचो धाकटो भाव सोहम एकटोच खेळटालो. दुरगाचो दरवंटो उगडून अरविंदान विचारलें, "बाबा, हें समीरालें घर न्ही?" सोहमान हय म्हळें आनी दिदी दिदी म्हणून उलो मारीत घरांत भितर धांवलो आनी समीराक भायर घेवन आयलो.

समीर दोगांकूय पळोवन अजाप जालें आनी भायर वचून तांकां घरांत भितर हाडलीं आनी घरच्यांची वळख करून दिवन तांकां हॉलांत बसोवन, समीर रांदचेकुडींत च्या करपाक गेलें. च्या बरोबर तळिल्ले कणगांचे घोस आनी सांणगे घेवन भायर आयलें आनी टिपॉयाचेर दवरून तांकां सगल्यांक च्या घेवंक सांगली. अरविंदाक आनी अवनीक समीरान केल्लो परामस आवडलो. समीराच्या बापायन अरविंदाक विचारलें, ''हरशींच आयिल्ली न्ही?''

अरविंदान सट्ट करून म्हळें, ''येवपाक कारण आसा.''

समीराच्या बापायन भियेत विचारलें, ''कसलें? समीरान कसली चूक केली?''

''हय आमचीं दोगांयचीं काळजां समीरान चोरल्यां म्हणून आमी ताका मागूंक आयल्यांत. तुमचें समीर आमकां दिता? आमकां तें आमची सून म्हूण पसंत आसा.''

समीराचो बापूय थक्क जालो आनी आवयन खोशी जावन हय म्हळें.

''पूण समीराक हें पसंत आसा काय ना तें विचारल्यार बरें न्ही?''

समीराचे आवयन म्हळें, ''ना ना तें आमच्या उतरा भायर ना.''

अवनीन म्हळें, ''तरी पूण एकदां विचारल्यार बरें. भितर वचून विचारात न्ही ताका.''

ताच्या उतराक लागून समीराची आवयन रांदचेकुडींत वचून समीराक विचारलें. समीर मुमुरखेंच लजून हांसलें आनी हय म्हणून सांगलें.

थोड्या वेळान समीर भायर आयलें. ताच्या हयकारान भायर खोशेचें वातावरण आशिल्लें. समीराक पळोवन अरविंदान म्हळें, ''आज तुवें म्हजो व्हडलो हुस्को पयस केलो. आज आमी सुनेच्या रूपान धूव जोडली.''

समीर लजलें.

''बरें तर येतात आमी'' अशें म्हणून अरविंद आनी अवनी घरा वचपाक उठलीं. समीरान म्हळें, ''सर!''

''पळे समीर अवनीक तूं माँ म्हणटा. आयच्यान म्हाका तुवें सर म्हणपाचें ना. म्हाका बाबा म्हण. आतां सांग तूं कितें सांगतालें तें.'' अरविंदान म्हळें.

''बरें बाबा आनी माँ आज तुमी आमगेरूच जेवन वचात न्ही. म्हाका खबर आसा की आज तुमचो भायर वचून जेवपाचो दीस म्हणून. तुमचे आवडिचोच बेत केल्लो आसा आज हांवें.''

समीरान सुहासाक बाजारांत धाडून चीकन आनी पाव हाडून घेतिल्ले. सकाळीं समीराच्या बापायन विसवण हाडिल्लो. समीरान चिकनाची बरी शाकुती केली. बरो व्हेजीटेबल पुलाव केलो आनी सालाद करून बरीं चुरचुरीत विसवणाचीं पोस्तां तळ्ळीं. तांचें घर लागींच आशिल्ल्यान समीरान रातच्या णवांक सुशेगाद जेवपाची तजवीज केल्ली. ते प्रमाण समीरान णवांक जेवण मेजार हाडलें आनी तांकां जेवंक आपयलीं. रूमांत जेवणाचो खमंग वास पडिल्लो. समीराचे हाताचे रुचीची तुस्त करीत दोगांय जेवलीं आनी रातच्या धांक तांचो निरोप घेवन घरा गेलीं.

दुसऱ्या दिसा जानेराची एक तारीख आशिल्ली. विशाल फाल्यां गोंयां पावता म्हणून अरविंद आनी अवनी खोशी आशिल्लीं. केन्ना काय फायचो दीस येता आनी विशालाक वास्को विमानतळा वयल्यान घरा हाडून हें सगलें सांगून आनी दाखोवन अचर्यें करता अशें जाल्लें.

दुसरो दीस म्हळ्यार जानेराची एक तारीख आशिल्ली. विमान साडे बारांक पावपाचें आशिल्लें. वेळ आसा म्हूण अरविंदान भटागेर वचून त्या दिसाचो फॅक्टरीच्या उक्तावणाचो म्हूर्त काडून हाडलो. त्याच बराबर तो समीरागेर वचून फॅक्टरीच्या उक्तावणाचें आमंत्रण दिवनय आयलो. अरविंद घरा पावता म्हणसर अकरा जालीं. अवनीन विशालाचे आवडीचें जेवण करून दवरिल्लें. अरविंद जर घराकडेन यो जाल्यार अवनी वास्को विमानतळार वचपाचे तयारेन रावलां. अरविंदान आनी वेळ केलो ना. बेगीन घरांत भितर गेलो, फ्रेश जावन नवे कपडे घाले, व्हडली गाडी काडली आनी ते गाडयेन दोगांय वास्को विमानतळार गेलीं. थंय पाव जाल्यार विमान निक्तेंच देंविल्लें. थोड्या वेळान विमानांतल्यान विशाल देंवलो. कस्टम ऑफिसांतलें सगळें काम करून तो आवय बापाय म्हऱ्यांत आयलो. थोड्याच वेळान ताणें अमेरिकेकसून सामान हाडिल्लें ताचीं बॅगां आयलीं. तीं सगळीं बॅगां गाडयेन भरून तीं तिगांय घरा आयलीं, जेवलीं आनी थोडो वेळ विसव घेवपाक आड पडलीं. विशालाले फॅक्टरी उक्तावणाच्या म्हुर्ताचो वेळ सांजेच्या ६ वरांचेर आशिल्लो म्हणून अरविंद आनी अवनी साडेचारांक उठलीं. पांचांक विशालाक उठोवन, च्या बी घेवन आमकां खंय तरी वचपाक जाय म्हणून साडे पांचांक न्हेसून तयार रावपाक सांगलें. तेवटेन समीरान फॅक्टरींत सगळी तयारी करून दवरिल्ली. फक्त विशालान उक्तावणाचें फीत कापून फॅक्टरींत प्रवेश करपाचो उरिल्लो. इतल्यान जुस्त स वरांचेर अरविंद, अवनी आनी विशाल फॅक्टरीच्या दारांत गाडयेंतल्यान देंवलीं.

''बाबा कोणाचे फॅक्टरीचें उक्तावण?'' विशालान विचारलें.

''यो सांगतां.'' अरविंदान म्हळें आनी विशालाक फॅक्टरीच्या दारार व्हरून उबो केलो. समीर थंय सजयल्ल्या ताटांत सजयल्ली कातर घेवन उबें आशिल्लें. अरविंदान म्हळें, ''विशू, घे ती कातर आनी हें फीत कापून चल भितर.''

विशाल बापायचें उलोवणें आयकून अजाप जालो आनी ताणें कातर घेवन फीत कापलें. अवनीन म्हळें, ''ऑल द बेस्ट विशू. ही फॅक्टरी तुजीच. आमचे कडल्यान हें तुका पयलें सरप्राजय गीफ्ट.''

''म्हणजे आई आनीकूय आसा?''

''हय!'' अवनीन म्हळें. ''चल भितर दुसरें दितां.''

विशाल भितर गेलो. सगल्यांनी ताचें अभिनंदन केलें. भितर अरविंदान एक ल्हान शी पार्टी दवरिल्ली. सगलीं भितर गेलीं.

अरविंदान म्हळें, ''आयकात आयज आमचो खोशेचो दीस आनी ह्या दिसा हांव कितें सांगपाक सोदतां. आयकात. विशाल हांगा म्हज्या म्हऱ्यांत यो. हांव विशालाची सोयरीक समीराकडेन करतां. विशाल हें समीर तुका पसंत आसा?''



विशालान समीराक पळयलें. ताका तें फीत कापतना ताट घेवन उबें आशिल्लें तेन्नाच पसंत पडिल्लें. पूण तो आवय बापायक सांगपाक भियेल्लो. पूण आपली सोयरीक बापायन ताचेचकडेन थारयल्या म्हूण विशाल खोशी जालो आनी तकली सकयल घालून ताणें 'हय' म्हळें. त्याच म्हयन्याचे धा तारखेक तांचें लग्न जालें. लग्न जावन थोड्या दिसांनीं विशाल आपले फॅक्टरींत वचपाक लागलो. प्रोडक्शन चालू जालें. तुथपेस्टीक ताणें सोना डेन्ट नांव दिलें. बाजारांतूय तिका खूब मागणी आशिल्ली. दोन म्हयन्यांनींच विशाल बरे पयकी उद्योगपती जालो. अरविंदान आनी अवनीन म्हळें, 'हो सगलो समीराचो पांय गूण. विशाल फायच्यान तूं समीराकूय तुजे फॅक्टरींत घेवन वच. तें तुका तुज्या कामांत आदार करतलें. ह्या पयलीं ताणें तुज्या बाबाचे कंपनींत काम केलां आनी समीराक लागून तुज्या बाबाक फायदोच जाला. केन्नाच लुकसाण जावंक ना.'

आवयचें आयकून विशाल दुसऱ्या दिसाच्यान समीराक आपले बराबर फॅक्टरींत व्हरपाक लागलो. फॅक्टरींत चडसो ताका आदार समीरूच करतालें.

हे वटेन समीराच्या दोगाय भावांक गिमाची सुटी पडिल्ली आनी लग्न जाल्ल्याक समीर कुळारा वचूंक नाशिल्लें. समीरान थारायलें भावांक गिमाची सुटी पडली तेन्ना हांव चार दीस तांच्या म्हऱ्यांत रावपाक वतलें म्हणून. ताणें आपले मांयक, मांवाक आनी घोवाक सांगलें की, एक चार दीस हांव म्हजे आई, बाबा आनी भावांकडेन रावन येतां म्हणून. तांच्यांनीं ताका वचपाची परवानगी दिली आनी येतना दोगाय भावांक घेवन यो म्हणून सांगलें. दुसरे दीस विशालान ताका व्हरून कुळारा पायलें. समीर रावपाक आयलां तें पळोवन दोगूय भाव खूश जाले. विशाल पयलेच खेप मावोड्यां आयिल्लो. पयले दीस समीरान फोन करून आपले आवयक सांगिल्लें की आपूण एक चार दीस रावपाक येतां म्हणून! म्हाका पावोवपाक विशाल येतलो, तो दनपरां जेवणाक आसतलो. ते प्रमाण तांच्यांनीं दनपारच्या जेवणाची बरी तयारी केल्ली. विशाल जेवलो आनी सांजचो घरा येवपाक भायर सरलो. सगल्यांनी ताका ताचे गाडयेकडेन पायलो आनी तो गाडी घेवन बरें येतां अशें सांगून गेलो. चार दीस बरे मजेन गेले. आतां समीराक वचपाचो हुस्को जावपाक लागलो. ताणें विशालाक फोन करून व्हरपाक यो म्हणून सांगलें. सुहास कसलो तरी कोर्स करतालो म्हणून ताणें आपल्या धाकट्या भावाक, सोहमाक आपले बराबर चार दीस रावपाक यो म्हणून सांगलें. समीरान आपल्या बापायक सोहमाक आपले बराबर चार दीस रावपाक व्हरतां म्हण सांगलें. तो नाका म्हणूंक लागलो. समीरान म्हळें, ''बाबा मांन ताका आमगेर रावपाक आपयला. तिका हांव कितें सांगू तर?''

पूण समीर तें! कशेंय करून आपल्या बापायकडल्यान सोहमाक आपले बराबर व्हरपाची परवानगी घेतलेंच! हट्ट करून घेतलें पूण घेतलेंच! आनी सोहमाक ताणें आपल्यागेर व्हेलो. सोहम चार दीस रावून मजा करून खोशी जावन घरा परत आयलो आनी तो प्रत्येक सुटयेंत समीरागेर चार दीस वतालोच. आतां सोहम आनी सुहास दोन भाच्यांचे मामा जाल्ले. दोनूय घराण्यांतली आतां यो वच वाडिल्ली. दोनूय आजे आनी दोनूय आजयो तर सामकीं आपल्या दोनूय नातवांनी गुल्ल जाल्लीं. समीर आनी विशालूय खूश आशिल्लीं. आपली फॅक्टरी आनी घर आतां तीं दोगांय सांबाळूंक लागलीं.



उत्सव

बिम्ब परिवाराचो
दुसरो
महिला साहित्य मेळावो २०१३



# आयची महिला आत्मनिर्भर : फळदेसाय

आयच्यो महिला फाटल्या काळांतल्या महिलांवरी कुटुंबांतल्या जोडकाराचेर अवलंबून नाशिल्ल्यान त्यो आत्मनिर्भर जाल्यात अशें गोंय राज्य सहकारी पथसंस्थेचे अध्यक्ष उल्हास फळदेसाय हाणीं बिम्ब परिवाराच्या महिला मेळाव्याच्या उक्तावण सुवाळ्या वेळार उलयतना सांगलें आनी हें सगळें घडूंक पावलें ताचें कारण म्हळ्यार महिला जागृत जाल्यात, आपलो फुडार तांकां होलमला आनी आर्थिक घटाय येत जाल्यार स्वाभिमानान जगूंक शकतात हाचो साक्षात्कार जाला. देखुनूच त्यो आत्मनिर्भर जावन समाजांत वावुरतात. तांकां सहकारी पथसंस्थांचो आनी बँकांचो आधार मेळटा ही एक जमेची बाजू अशें ताणीं सांगलें. ह्या वेळार बायलांचो एकवट संघटणेच्यो अध्यक्षा आवदा व्हियेगस, बिम्ब परिवाराच्यो कामिनी किणी आनी दिलीप बोरकार हाजीर आशिल्लीं.

गोंय सरकारच्या कला आनी संस्कृती खात्याच्या पालवान आयोजीत केल्ल्या ह्या दुसऱ्या महिला साहित्य मेळाव्याक गोंयभरच्या सेल्फ हेल्प पंगडाचे प्रतिनिधी व्हडा संख्येन हाजीर आशिल्ले. वेगवेगळ्या विशयांचेर भासाभास, काव्यवाचन आनी बालसाहित्याच्या पुस्तकांचें प्रकाशन अश्या कार्यावळींनीं पुराय दीस 'धर्म-लक्ष्मी', आगशी हांगा मोट्या दबाज्यान मनयलो.



## दिका

*नालिनी आपले न्हिदपा कुडींत गेलें. आल्मारी पोंदाक लिपोवन दवरिल्लो मिलेर काडलो आनी थंयच बसलें. 'हातुंतल्या पयशांनी विजमीत विकतें मेळत काय?' ताणें स्वताकूच प्रस्न केलो आनी तो मिलेर जमनीर मारून फोडलो. कितलेच मोडचे पयशे सगळे कडेन पसरले. ताणें ते एकठायले आनी मेजूंक लगलें. दोन फावटी मेजले. नव्वद आनी सात रुपया पन्नास पयशे आसले. ते पयशे ताणें तशेच एके ल्हानशे पोतयेंत घाले आनी फाटल्या दारांतल्यान भायर सरून गेलें.*




विन्सी क्वाद्रुस
'स्नोज कृपा'
आर्लें राय,
सालसेत-गोंय
मो. : ९८२२५८७४९८




# विजमीत

**आ**नंद धांवून धांवून बोस्त्यांवाच्या घरा आयलो आनी असो तसो पळेत घरभर भोंवलो. ताका घरांत कोणूच दिसलो ना.

''नालिनी!'' ताणें बोस्त्यांवाल्या चेडवाक उलो मारलो. तें ताच्याच वयावयलें सुमार १०-१२ वर्सांचें. आनंदाक कोणाचीच जाप मेळ्ळी ना. तो तसोच घरांतल्यान भायर आयलो आनी कपेला दिकेन धांवूंक लागलो. भुरगीं दिवाळेचे सुटयेंत आसलीं. तो गांवगिरो वाठार म्हणतच भुरगीं जळीं-मळीं भोंवतालीं. चेडे आपले तरेचे खेळ खेळटाले जाल्यार चेडवां आपले तरेचे खेळ खेळटालीं. वाड्यांत एक ल्हानशें मैदान आसलें, थंय सांजे वेळार चेडे फुटबॉल खेळूंक गुल्ल आसताले आनी वाड्यावयल्या कपेलाच्या प्रांगणांत चेडवां मिठांनी, चांटांनी, दोरयांनी बी खेळटालीं. नालिनी थंय आसतलें अशें धरून तो थंय धांविल्लो!

सांजेचीं पांच वरां जाल्लीं. आनंद कपेला कडेन पावलो. नालिनी थंयसरूय नासलें. ताणें थंय खेळपी चेडवांकडे विचारलें. ताणीं सांगलें नालिनी मावशेगेर गेल्लें आसा आनी ताका हाडूंक ताची आवय गेल्या म्हण. तो तसोच पर्थून धावूंक लागलो. आतां ताची मोख बोस्त्यांवाचें शेत आसलें. बोस्त्यांव एक शेतकार आनी घराकडेन नासत जाल्यार तो शेतांत आसता ही आनंदाक खबर आसली. उगत्या पांयांनी बांदावयल्यान धांवता म्हणल्यार आनंदाचे पांय दुकले. तरी तो थांबलो ना.

सुर्याचीं किरणां मोव जाल्लीं आनी शेतांतलें काम सोंपिल्लें. बोस्त्यांव घरा वचपाची तयार करतालो. पयसुल्ल्यान बोस्त्यांवाक आनंदान पळयलो आनी उलो करीतूच तो ताच्या फुड्यांत पावलो. ताची खपखप वाडिल्ली.

''कितें जाला बाबा, असो धांवून कित्याक आयला?'' बोस्त्यांवान आनंदाक विचारलें.

''काका, तुमचो पूत फूटबॉल खेळटासतना जमनीर पडलो आनी ताचे तकलेंतल्यान रगत व्हांवता. बेगीन यो ताका पळेवंक.'' आनंदान आपल्या हड्ड्याचेर हात दवरून धापेत सांगलें.

आनंदालीं उतरां आयकून बोस्त्यांव घाबरलो आनी ताचे फाटल्यान धांवतूच मैदानार आयलो. तितलें म्हणल्यार थंय आनीकय लोक पाविल्ले. कोणें एकल्यान १०८ गाडयेक फोन लायलो. बोस्त्यांवान पडून आशिल्ल्या आपल्या पुताक उखललो आनी ताची वासपूस केली. ताच्यान बरे तरेन उलोवंक जायनासलें. ताणें आपल्या खांदावयलो तुवालो काडलो आनी ताचे तकले पोंदाक धरलो. रगत आजूनय व्हांवतालें. ताणें हेर भुरग्यांकडे आपल्या पुताविशीं चौकशी केली. कोण सारक्यो जापो दिना जाले. तो ताका खांकेंतूच घेवन जमनीर बसलो.

थोड्या वेळान १०८ गाडी आयली. गाडयेंतल्या मनशांनी बेगीन-बेगीन स्ट्रँचर हाडलो आनी थंय उबो केलो. गाडयेंतले नर्सीन बोस्त्यांवाच्या पुताची नाडी तपासली. बोस्त्यांवान तिका पुताची तकली दाखयली. तिणें खुणेनूच 'आसूं' म्हण सांगलें आनी ताका धरून स्ट्रेचराचेर घालो. १०८ गाडयेच्या स्ट्रँचराची मांडावळ बरी, तो उबारून दवरूंक पडना. सरळ गाडयेचे मांडावळींत बसता. आदीं दोन मनशांक उठाबशी काडच्यो पडटाल्यो. बोस्त्यांव स्ट्रँचराक तेंकून गाडयेंत बसलो. वेळ करिनासतना १०८ गाडी हॉस्पीटला दिकेन धावूंक लागली. गाडयेंत सगळें शांत आसलें तरी बोस्त्यांवाची नदर आपल्या पुताचेर आसली. तो बेशुध्द आसलो.

बोस्त्यांवालो चेडो रुदोल्फ अभ्यासांत तसोच खेळूंक हुशार आसलो म्हण बोस्त्यांवाक ताची लक्तुबाय दिसताली. ताणें इतले ल्हान पिरायेंतूच खेळामळार ताचें नांव वयर काडिल्लें. तो शाळेचे टिमींत खेळटालो. फाटल्या वर्साक ताचो खेळ पळोवन राज्य पावंड्यार खेळपाची ताका संद

मेळिल्ली. ह्या खातीर बोस्त्यांव रुदोल्फाक खेळूंक वचूंक केन्नाच आडयनासलो.

१०८ गाडी हॉस्पीटलांत पावली. थंयच्या दोतोरांनी रुदोल्फाचे तकलेक पळेना बराबर ताका तसोच परत १०८ गाडयेंत घालो आनी गाडी सायरन वाजयत बांबोळेचे गोंय वैजकी कॉलेज हॉस्पीटलाचे दिकेन धावूंक लागली. बोस्त्यांवाचेर आकांत आयलो. ताणें हात जोडले आनी मनांतल्या मनांत देवाक ऊलो मारलो.

गोंय वैजकी कॉलेज हॉस्पीटलाचे कॅज्युल्टींत भीतर सदांवरी गर्दी आसली. ते गर्देंतल्यान वाट काडीत रुदोल्फाक भितर व्हेलो. एका दोतोरान रुदोल्फाक तपासलो अनी दुसऱ्या दोतोराक कितें तरी सांगून रोखडोच ऑपरेशना खातीर व्हेलो.

रुदोल्फ खेळटासतना पडलो आनी ताका बांबोळे हॉस्पीटलांत व्हेला ही खबर रोखडीच वाडोभर पसरली. कोण तरी गाडयेंत घालून नालिनीक आनी ताचे आवयक हॉस्पीटलांत घेवन आयलीं. बोस्त्यांव ऑपरेशन थियेटराच्या दारांत बसून आसलो. ताची बायल क्लारा ताचे कुशीक बसली. तिच्या दोळ्यांत दुका भरिल्लीं.

''डॅडी, कितें जालां आमच्या बाबाक?'' नालिनीन बापायक विचारलें.

''बाय, आमचो बाबा बरो ना. ताका बरो करूंक दोतोर भितर घेवन गेल्यात.'' दोळ्यांनी दुकां हाडीत बापायन आपले धुवेक सांगलें.

''मम्मी बरो जातलो न्ही आमचो बाबा? ना जाल्यार म्हजे बराबर कोण खेळटलो?'' नालिनीन आपले आवयक विचारलें.

''तूं भियेनाका बाय. ताका कांयच जावचें ना.'' आवयन नालिनीक समजायलें.

रुदोल्फ फुटबॉल खेळटना फातराचेर निसरून फाटीन सकल पडिल्लो आनी ताचे तकलेक फातर तोपिल्लो. तातुंतल्यान रगत व्हांवतालें. पूण तो बेशुध्द कित्याक जालो तें कोणाकूच कळूंक ना. फातर तोपून रगत व्हांवलें जाल्यार बेशुध्द जातात? असो दोतोराचोय प्रस्न आसलो. पूण जेन्ना ताका ऑपरेशन करूंक व्हेलो तेन्ना ताचे तकलेंत भितर आनीक जायतेंच कितें मेळ्ळें. ताका हे आदीं मार लागिल्लो आसलो आनी भितर रगत किणेल्लें आसलें. आतां थंयच तो आपटिल्लो आनी त्या किणेल्ल्या रगतान ताच्या मेंदवाचेर आघात केल्लो. ह्या खातीर ताच्या मेंदवाक मार लागून तो बेशुध्द जाल्लो. ऑपरेशन करून तें किणेल्लें रगत काडलेंच पूण मेंदवाक जाल्ली दुखापत गंभीर आसली! ऑपरेशन करून पासून मेल्लो कसो रुदोल्फ वॉर्डांत पावलो.

कितलेच दीस गेले आनी एक म्हयनो भरलो. रुदोल्फ सिंतीदार आयलो ना. नाकांत एक वादी घाल्ली आनी तातुंतल्यान ताका जेवण भरयताले. सर चालूच आसलो.

''पळयात, ताका हांगा दवरून कांयच फायदो ना. आमी दितात तितलींय वखदां तुमी ताका घरा दवरून दिवंक जातात. हे अवस्थेंत ताका हांगा दवरलो जाल्यार तुमकांय त्रास आनी तुमी जाणांत ह्या हॉस्पीटलांत दुयेंतीक दवरूंक आमकां कितल्यो धांवपळी करच्यो पडटात त्यो! देखून तुमी ताका घरा व्हेल्यार आमचेरूच उपकार जातलो.'' एक दीस दोतोरान बोस्त्यांवाक समजावन सांगलें.

''तो बरो जावपाची कसलीच आस्त ना दोतोर?'' बोस्त्यांवान बाबडो जावन विचारलें.

''मुंबय एक हॉस्पीटल आसा. थंय तुमच्यांनी ताका व्हरूंक जाता. पूण खर्च मात खूब चड जातलो.'' दोतोरान ताका एक वाट सांगली.

''कितलो सुमार खर्च जातलो दोतोर?''

''उणेंच पांच लाख रुपया. सरकाराचें अनुदान मेळटा तें सोडून तुमी दोन एक लाख आनीक



एकठांय करचे पडटले. तशी तुमची तयारीय आसल्यार म्हज्यान थंय वेवस्था करूंक जाता.'' दोतोराचीं उतरां आयकून बोस्त्यांव विचार करूंक पडलो. ''ना जाल्यार ताका फकत विजमीतूच साल्वार करूंक शकता आनी विजमितां आमच्या हातांतल्यान घडनांत. आमी आमच्यान जाता तितले उपाय केले. तो आमच्या वखदांक प्रतिसाद दिना. तूंच सांग बोस्त्यांव, ह्या मुखार आमी आनीक कितें करूंक शकतात?'' दोतोरान तुवाल्याक हात पुशीत सांगलें.

अप्रत्यक्षपणान सगळ्यांनीच ताची आस्त सोडून दिल्ली देखून ताका हॉस्पीटलांतल्यान घरा हाडलो. वाड्यावयलो लोक ताची खबर घेवंक येवंक लागलो, ताचे खातीर तेर्स–रोजार करूंक लागलो. रुदोल्फ शुद्धीर येवपाचें नांव घेनासलो.

असोच एक दीस ताची खबर घेवंक म्हण गांवचो पाद्री तांगेर भितर सरलो.

''हांवें तुज्या पुताची खबर आयकल्ली पूण इगर्जेच्या कामांत वेळूच मेळूंक ना, कितें म्हणटात दोतोर?'' पाद्रीन रुदोल्फाची चौकशी केली. नालिनी लागींच वण्टीक तेंकून आसलें.

''दोतोरांनी सोडून दिला ताका. हे नाकांतले वादयेन जेवण घालतात इतलेंच. इतले ल्हान पिरायेर देवान ताका अशें कित्याक फाव केलें? ताणें कोणाचें कितें वायट केलां म्हण ही ताका शिक्षा फाव केल्या?'' बोस्त्यांव. शीण काडून रडूंक लागलो.

''देवाक जाय जाल्लें मनशाक मेळना बोस्त्यांव. धीर धर. देवाच्या घरांत उशीर आसता, काळोख न्हय.''

''हय पाद्रीबाब दोतोर म्हणटात, ताका एक विजमीतूच साल्वार करूंक शकता म्हण. कशें घडूं येता एक विजमीत आमच्या घरांनी?''

''आमी देवाक एक ल्हानशें मागणें उबारूया, कोण जाणा केन्ना कसलें विजमीत घडूं येता तें!''

बोस्त्यांवान आल्तारी कडल्यो वाती पेटयल्यो. पाद्रीन आपले दोनूय हात विस्तारून मागणें करूंक सुरवात केली. मेजार आशिल्लें पवित्र पुस्तक घेवन, तातुंतलें वाचूंक लागलो. धाकटें नालिनी हें सगळें पळेतालें पूण कितें

करचें तें ताका कांयच समजनासलें. येतो-वेतो लोक एक विजमीत जाय म्हणटालीं. इतलेंच तें जाणां आसलें. पूण विजमीत म्हणल्यार कितें तें ताच्या लक्षांत नासलें. पाद्री एक अर्थाभरीत मागणें सोंपोवन रुदोल्फाचेर आशिर्वाद घालून गेलो.

नालिनी आपले न्हिदपा कुडींत गेलें. आल्मारी पोंदाक लिपोवन दवरिल्लो मिलेर काडलो आनी थंयच बसलें. 'हातुंतल्या पयशांनी विजमीत विकतें मेळत काय?' ताणें स्वताकूच प्रस्न केलो आनी तो मिलेर जमनीर मारून फोडलो. कितलेच मोडचे पयशे सगळे कडेन पसरले. ताणें ते एकठायले आनी मेजूंक लगलें. दोन फावटी मेजले. नव्वद आनी सात रपया पन्नास पयशे आसले. ते पयशे ताणें तशेच एके ल्हानशे पोतयेंत घाले आनी फाटल्या दारांतल्यान भायर सरून गेलें.

थोडया वेळान तें एके फार्मासीच्या काउंटराचेर उबें आसलें.

"कितें जाय आसलें?" फार्मासकारान विचारलें.

"म्हजो भाव खूब खूब दुयेंत आसा, देखून हांव ताचेखातीर विजमीत म्हणटात तें वखद विकतें घेवंक आयलां." नालिनीन निश्पाप जाप दिली.

"विजमीत म्हणटात तें वखद?" फार्मासकार नांव आयकून अजाप जालो.

"ताका एक चॉकलेट दिवन धाड आनी म्हजें वखद म्हाका पयलीं काडून दी." त्याच वेळार आनीक एक मनीस थंय येवन आपलीं वखदां घेवंक ताकीद करूंक लागलो. फार्मासकारान ताची रेसीद घेतली आनी वळून वखदां काडूंक लागलो.

"तुका हांवें सांगिल्लें आयकूंक येना?" नालिनीन रागान पयशांची पोती काउंटराचेर आपटिली. "म्हजो भाव एक म्हयनो मायज अनकॉन्शीयस आसा. म्हजो डॅडी म्हणटा एक विजमीतूच ताका वांचोवंक शकता म्हण! कितले पयशे पडटात विजमीत विकतें घेवंक?"

"सॉरी आमी विजमीत म्हणटात तें वखद विकीनांत." फार्मासकारान मोव आवाजांत सांगलें.

"पळे, सद्द्याक म्हजेकडेन इतले पयशे आसात." नालिनीन पोतयेंतले पयशे काउंटराचेर दवरले. "आनीक जाय जाल्यार म्हजे कडेन आसात. पूण ते म्हज्या शाळेंतल्या संचयनी खात्यांत आसात. ते काडून हाडून दितां.पूण म्हज्या भावाक बरो करूंक म्हाका विजमीत जाय. ना जाल्यार म्हजे वांगडा खेळूंक म्हाका कोण ना."

"कसले तरेचें विजमीत जाय तुका?" इतलो वेळ नालिनीक नियाळीत आशिल्ल्या वखद घेवंक ताकीद मारतल्या मनशान नालिनीक विचारलें.

"तें म्हाका खबर ना. हांव इतलेंच जाणां की म्हजो भाव सिरीयस आसा आनी ताका व्हडलें ऑपरेशन करूंक जाय. त्या खातीर लागतात ते पयशे डॅडीच्यान दिवंक जायनांत म्हण हांवें म्हजो मिलेर फोडला. नव्वद आनी सात रुपया पन्नास पयशे आसात ते."

"ओह! तुका जाय तसलेंच एक विजमीत म्हजेकडे आसा. जाय तुका!" त्या मनशान शांतपणी सांगलें आनी ताचे पयशे आपल्या हातांत घेतले. नालिनीन मानेनूच हयकार दिलो.

"जेमस्, म्हजी वखदां काडून दवर. हांव हाका मात्सो आदार करतां." फार्मासकाराक सांगून ताणें नालिनीच्या हाताक धरून म्हणलें.

"म्हाका तुज्या घरा व्हर. हांव तुज्या भावाक पळोवंक सोदतां." त्या मनशान आपलें बॅग घेतलें आनी नालिनी बराबर आपले गाडयेंत बसलो.

नालिनीन ताका आपलें घर दाखयलें. रुदोल्फ खाटीर पडून आसलो आनी ताचीं आवय-बापूय ताचे फुड्यांत बसून आसलीं.

"हांव आर्थर आर्मस्ट्रॉंग, तकलेचो दोतोर. अमेरिकेंत म्हजें तकलेचें एक व्हड हॉस्पीटल आसा. म्हजो भाव दुयेंत आसा म्हण हांव ताका पळोवंक कालूच हांगा आयिल्लों. तुमची धूव फार्मासींत आपल्या भावा खातीर विजमीत नांवाचें वखद विकतें व्हरूंक आयिल्ली. तें पळोवन म्हाका अजाप दिसलें. म्हण ताच्या भावाक हांव पळोवंक आयलां."

"आमी ताका देवाच्या हातांत घाला दोतोर." क्लारान सांगलें.

"ताची तपासणी केल्लीं कागदां म्हाका दाखयात, हांव पळेतां म्हज्यान तुमकां कसलो आदार करूंक जाता जाल्यार."

बोस्त्यांवान हॉस्पीटलांतल्यान हाडिल्लीं सगळीं कागदां ताचेकडे दिलीं. दोतोरान तीं बारीकसाणेन वाचून काडलीं आनी मागीर रुदोल्फाक तपासलो.

"पळेयात, तुमी ताका देवाच्या हातांत सोडलाच, म्हजे परीन यत्न करूंक म्हाका एक संद दिवशात?"

बोस्त्यांवान दोतोराक बारीकसाणेन पळयलो. 'तो आमचीं फकांडां बी करिना मूं? किते करूं? विजमीत करूंक देवानूच ताका धाडला बी काय?' आपलेच भितर प्रस्न केले आनी आल्तारीचेर नदर घाली.

"पूण आमच्यान तुका पयशे दिवंक घडचेंना." बोस्त्यांवान सांगलें. दोतोरान ताच्या खांदावेल्यान हात फिरयत कांयच चिंतीनाका म्हण खुणा केली आनी आपल्या मोबायला वेल्यान एक फोन मारलो.

"डॉक्टर नंदन न्ही, विन्टेज हॉस्पीटलांतलो?... हय. हांव डॉक्टर आर्थर आर्मस्ट्रॉंग उलयतां. हय, हय कालूच आयलां भावाक पळोवंक. म्हाका तुमच्या ऑपरेशन थियेटरांत एक ऍमरजन्सी ऑपरेशन करूंक जाय आसलें... तुमी परवानगी दितात न्हय? ओके...ओके. पेशंट घेवन हांव आतांच भायर सरतां." दोतोरान आपलो मोबायल बंद केलो.

"आतां चलात म्हजे बराबर." दोतोरान ताकीद केली. रुदोल्फाक दोतोराचे गाडयेंत घालो आनी सगळीं विन्टेज हॉस्पिटलांत गेलीं. थंय सगळें तयार दवरिल्लें आसलें. रुदोल्फाक दुसरे माळयेर ऑपरेशन करूंक व्हेलो.

तब्बल पांच वरांनी दोतोर भायर आयलो. ताच्या तोंडार खुशालकाय झळकताली, तो हांसत आसलो.

"बाय म्हजें विजमीत तुज्या भावाक सारकें लागलें. आनीक थोड्याच दिसांनी तो तुजेकडे उलोवंक लागतलो, तुजे बराबर खेळूंक लागतलो." दोतोरान नालिनीक आपले खांकेत घेवन सांगलें.

"खरेंच दोतोर?" नालिनीन दोतोराचो उमो घेतलो. दोतोराचीं उतरां आयकून बोस्त्यांव आनी क्लारा खुशाल जालीं आनी तेच खुशालकायेंत भरिल्ले दोळे घेवन ताणीं दोतोराच्या पांयांक हात लावन ताचे उपकार मानले.



# मतलबी राकेस

दनपारची शाळा सुट्टकीर घरा येतना भुरगीं सदांच राकेसाचे बागेंत खेळूंक वतालीं. पांचवेंचार मोव तणान भरिल्ली ती बाग बरीच व्हड आसली. नखेत्रां कशीं तणाच्या मदीं मदीं फुलां फुलिल्लीं आसतालीं. ते बागेंत आशिल्लीं बारा फळांचीं झाडां, वसंत ऋतूंत फुलतालीं आनी शरद ऋतूंत फळां दितालीं. सवणीं तांचेर बसून इतलीं गोड गायतालीं, की तांकां आयकूंक भुरगीं आपलो खेळ विसरतालीं.

'हांगा आमी कितलीं खुशाल आसात!'

आड्डून तीं एकामेकांक सांगतालीं.

सात वर्सां सरल्या उपरांत, तो राकेस परत आयलो. कोरनीश ह्या राकेसाक, आपल्या इश्टाक तो मेळूंक गेल्लो आनी थंय ताचे म्हऱ्यांत राविल्लो. सात वर्सां सोंपल्या उपरांत, आपले पालासींत परत येवपाची ताका हुरहूर लागिल्ली. तो थोडेंच उलोवपी. आपल्याक जाय तितलें उलोवन ताणें घेतिल्लें. परत येतनाच, भुरग्यांक ताणें आपले बागेंत खेळटना पळयलीं.

''तुमी हांगा कितें करतात?'' घोगऱ्या आवाजान ताणें विचारलें. ते बरोबर भुरग्यांनीं थंयच्यान पळ काडलो.

''म्हजी बाग, म्हणजे म्हजी ती बाग.''

''म्हाका सोडून, हांव हांगा कोणाकूच खेळूंक दिवचो ना, हें सगल्यांनीं जाणा जावंक जाय.''

आनी ताणें, बागेचे भोंवतणी उंच वणत बांदली आनी तिचेर 'सुचना फलक' हुमकळायलो.

'अतिक्रमण करप्यां आड कारवाय करतलों'

तो राकेस बरोच मतलबी आसलो.

भुरग्यांक आतां खंयच खेळूंक जागो नासून, तीं बाबडीं रस्त्यार खेळूंक लागलीं. पूण धुल्ल आनी फातरांनीं भरिल्लो तो रस्तो, तांकां आवडनासलो.

आपलो अभ्यास सोंपल्या उपरांत तीं भुरगीं ते वण्टी भोंवतणी पासय मारीत, भितरले ते सुंदर बागे बद्दल उलयतालीं. ''आमी भितर कितलीं खुशाल आसतालीं.'' एकामेकाक तीं म्हणटालीं.

वसंत सुरू जावन पुराय वाठारांत, फुलां, फळां आनी सवणीं दिसूंक लागलीं. फक्त त्या मतलबी राकेसाचे बागेंत मात, शिंयाळो सोंपूंक नाशिल्लो. भुरगीं थंय नासलीं देखून, सवण्यांकूय थंय गावपाचें पडून वचूंक ना आनी झाडांय चंवरपाचें विसरून गेल्लीं. तणांतल्यान एका फुलान ल्हवूच तकली वयर काडिल्ली पूण तो सुचना फलक



वाचून त्या भुरग्यांची काकूळट दिसून तें परत जमनींत वचून न्हिदलें. फक्त झेल आनी दंव मात खूश आसले. ताणें म्हळें,

"वसंत ऋतू हे बागेक विसरलो, म्हणट्कीर आमकां वर्सूयभर हांगाच रावंक मेळटलें."

तणाक तर झेलान धवेच कपडे घाल्ले आनी दंवान झाडांक चांदीन पितारिल्लीं.

मागीर ताणीं उत्तरेच्या वाऱ्याक आपले वांगडा रावूंक येवंक आमंत्रण दिलें. ल्हंव पांगरून तें आयलें. पुराय बागेंत आइडी मारीत धुमशेणां घालून धुंवराच्यो चिमण्यो सकयल उडयतालें.

"खूब सुखी हो जागो" ताणें म्हळें, "बर्फाच्या पावसाक आपयल्लो बरो." आनी तोय थंय आयलो. दर दिसा, तीन वरां हो बर्फ पावस पालासीचेर झडत रावलो. कितलेच नळे ताणें फोडले आनी जाता तितले बेगीन पुराय बागेंत धांवत रावलो. ताची न्हेसण गोब्रा रंगाची आनी ताचो स्वास झेला सारको.

"हे फावट वसंत येवंक इतलो कळाव कित्याक जालो तें म्हाका समजना." धवेच जाल्ले आपले बागेंत जनेलांतल्यान पळयत, मतलबी राकेसान म्हळें, "हवामान बदल्ल्यार पुरो." पूण वसंत आयलोच ना आनी गिमाळ्याचोय पत्तो नासलो. सगल्या हेरां पोरसांनीं शदर ऋतून रसाळ फळां दिलीं. पूण राकेसाचे बागेंत मात कांयच दिवंक ना. 'तो चडूच मतलबी' ताणें म्हळें आनी अशे तरेन थंय शिंयाळो सोंपूंक ना. फक्त उत्तरेचें वारें, झेल, दंव आनी बर्फाचो पावस ते बागेंतल्या झाडांमदीं नाचत रावलो.

एके सकाळीं आपले खाटीर जागोच आसतना ताणें भोवच सोबीत संगीत आयकलें. ताच्या कानाक तें इतलें मधूर लागलें की ते वटेच्यान राजाचे संगीतकार वतात असो ताका भास जालो. पूण तें एक ल्हान गावपी सवणें ताच्या जनेलाभायर गायतालें.

राकेसान संगीत आयकल्यार खूब काळ सरिल्लो आनी म्हणूनच तें संगीत ताका संवसारांतल्या सगल्या संगीता परस सुंदर दिशिल्लें. मागीर बर्फाचो पावस ताचे वयर नाचपाचो थांबलो आनी उत्तरेच्या वाऱ्याचो गाज थंडावलो आनी जनेलाचे उक्ते फास्केंतल्यान सुवादीक परमळ भितर आयलो.

"म्हाका दिसता वसंत ऋतू आयलो." राकेसान म्हळें आनी खाटीवेल्यान उडकी मारून भायर पळयलें.

कितें ताणें पळयलें जायत?

हय. मनभुलोवणो देखावो तो. ते वण्टीक आशिल्ल्या एका ल्हान बुराकांतल्यान भुरगीं भितर सरतालीं आनी झाडांच्या खांदयानी बसतालीं. राकेसाक दिसतल्या दर एका झाडार भुरगें आसलें. झाडां, भुरग्यांक पळोवन इतलीं खुशाल जालीं कीं तांकां चंवर फुटलो. भुरग्यांचे तकले वयर झाडां आपले हात धोलयतालीं. सवणीं चिंवचिंवत खोशयेन उडटालीं आनी पांचव्या तणांतल्यान वयर पळयत फुलां हांसतालीं. भोवच अप्रूप तो देखावो. पूण एका कोनशाक मात शिंयाळो आशिल्लो.

बागेंतल्या पयस कुशीक अशिल्ल्या त्या कोनशाक एक ल्हान भुरगो उबो आसलो. खूबच ल्हान आशिल्ल्यान झाडाचे खांदयेर चडून बसूंक तो शकलो ना. म्हणून रडत, झाडा भोंवतणी तो घुंवतालो. तें झाड बाबडें आजूनय, दंवान आनी झेलान भरून आसलें आनी उत्तरेचें वारें गजर घालीत ताचे वयल्यान व्हांवतालें.

"माणकुल्या! वयर चड." आपले ताळे बरेच सकयल बागयत झाडान भुरग्याक म्हणलें. पूण, तो खरेंच खूब ल्हान आसलो.

"कितलो म्हण मतलबी हांव!" ताणें म्हळें आनी भायलो तो देखावो पळोवन ताचें काळीज वितळ्ळें.

"आतां म्हाका कळ्ळें हांगा वसंत ऋतू कित्याक पावूंक ना तो! हांव त्या धाकटुल्याक झाडार वयर चडयतलों आनी मागीर ही वणट मोडून उडयतलों आनी म्हजें हें पोरसूं सदां सदांकाळ जातलें भुरग्यांक खेळपाची बाग."

सवकास निसण देंवून तो सकयल आयलो. ल्हवूच ताणें मुखावयलें दार उगडलें आनी बागेंत आयलो. भुरगीं ताका पळोवन थंयचीं पसार जालीं आनी पर्थून थंय शीं पडलें. तो धाकटो भुरगो मात धांवलो ना. ताचे दोळे दुकांनीं भरिल्ल्यान ताका राकेस येता तो दिसलो ना. लिपत लिपत राकेस ताचे फाटल्यान गेलो. त्या भुरग्याक उखलून ताणें झाडार बसयलो. अजाप म्हळ्यार खिणा भितर

तें झाड चंवरून फुललें आनी सवणीं ताचेर बसून गावंक लागलीं. त्या माणकुल्यान आपले दोनूय हात विस्तारून राकेसाच्या गळ्या भोंवतणी घातले आनी ताचो उमो घेतलो.

भुरग्यांनीं हें पळयलें आनी तांकां कळ्ळें राकेस दुश्ट न्हय! परत तीं बागेंत भितर सरलीं आनी तांचे वांगडा वसंत ऋतूय.

''भुरग्यांनो आतां ही बाग तुमची''

राकेसान म्हळें आनी कुराड घेवन ताणें ती वणत मोडून उडयली. दनपारच्या बारा वरांचेर जेन्ना लोक ते वटेच्यान बाजाराक वताले, राकेस तांकां भुरग्यां वांगडा खेळटना दिसतालो. पुराय दीसभर भुरगीं थंय खेळटालीं आनी सांजेचीं घरा वतना, राकेसाचो निरोप घेवन वतालीं.

''पूण एक सांगात, तुमचो तो धाकटुलो वांगडी खंय?'' राकेसान विचारलें, ''तो, जाका हांवें झाडार वयर चडयल्लो तो.'' राकेसाक ताचो चड मोग आसलो, कित्याक त्या भुरग्यान ताचो उमांव घेतिल्लो.

''आमकां खबर ना. तो गेलो.'' भुरग्यांनीं म्हळें.

''तुमी ताका सांगूंकच जाय हां, फाल्यां खात्रेन हांगा यो म्हणून.'' राकेसान तांकां विनयलें. भुरग्यांनीं त्या माणकुल्याक आदीं केन्नाच पळोवंक नासलो आनी तो खंय रावता तेंय तांकां खबर नासलें. राकेसाक ताणीं तशें सांगलें आनी तें आयकून तो दुःखी जालो.

सदांच दनपारची शाळा सोंपतकीर, भुरगीं येवन राकेसा वांगडा खेळूंक लागलीं. राकेसाचो जाचेर चड मोग आशिल्लो तो पिटकुलो मात परत केन्नाच थंय दिसलो ना. आपल्या त्या पयल्याच माणकुल्या इश्टाक मेळूंक राकेस खरेंच आतूर जाल्लो आनी खूबदां ताचे बद्दल उलोवन ह्या भुरग्यांक म्हणटालो, ''ताका पळोवंक हांव आशेवन रावतां!''

अशींच वर्सां धांवलीं आनी राकेस जाण्टो जावन अशक्त जालो. पयलीं भशेन, ताच्यान आतां खेळूंक जायना आसलें. व्हडल्या कदेलार बसून तो भुरग्यांक खेळटना पळयत आपले बागेक तोखेतालो.

''हांगा म्हजे कडेन खूब सुंदर फुलां आसात.'' ताणें म्हळें, ''पूण भुरगीं हीं सगल्यांत चड सोबीत फुलां.''

एके शिंयाळे सकाळीं, न्हेसता आसतना, राकेसान जनेलांतल्यान भायर पळयलें. आतां ताका शिंयांचो राग येना आसलो. शीं म्हणजे वसंत ऋतूची न्हीद आनी फुलां त्या काळांत विसव घेतात हें तो जाणा आसलो.

भायर पळोवन एकदम तो अजापलो. दोळे चोळीत तो पळोवंक लागलो. खऱ्यांनीच दोळे दिपकावपी देखावो ताणें



पळयलो. पयसुल्ल्या त्या कोनशाक धव्या फुलांनीं भरिल्लें झाड उबें आसलें. भांगराच्या ताच्या खांदयांचेर चांदीचीं फळां लांबतालीं आनी ताचे सकयल तो भुरगो उबो आसलो – ताच्या मोगाचो तो भुरगो.

खोशयेन भरून, राकेस सडसडीत देंवून आयलो आनी ताणें बागेंत धांव घेतली. झपाझप तणावयल्यान चलून भुरग्या म्हऱ्यांत आयलो. ताचे लागीं पावला मात, रागान तांबडोच जालो आनी म्हळें, ''कोणें तुका घायाळ केलो?'' कित्याक त्या भुरग्याच्या दोनूय हातांच्या ताळटार आनी दोनूय पावलार खिळ्यांच्यो निशाणी ताणें पळयल्यो.

''कोणाक काळीज जालें तुका दुखोवंक?'' राकेसान रडत विचारलें, ''सांग म्हाका, म्हजी तरसाद घेवन ताचे कुडकेच करतां.''

''नाका!'' भुरग्यान जाप दिली.

''हे घावे मोगाचे.''

'कोण तर तूं?'' राकेसान विचारलें, आनी अजापीत जावन त्या भुरग्यामुखार ताणें दिमी मोडली.

तो भुरगो राकेसाक मुमुरखो हांसलो आनी म्हळें, ''म्हाका आनी एकदां तुजे बागेंत खेळूंक दी. आयज, तूं म्हजे वांगडा म्हजे बागेंत येतलो. ती बाग म्हणजे सर्ग.''

त्या दिसा, दनपारचीं जेन्ना भुरगीं बागेंत खेळूंक आयलीं तेन्ना राकेस त्या झाडामुळांत मरून पडिल्लो तांकां मेळ्ळो. धव्याफुल्ल फुलांनीं ताका पांगरूण घाल्लें.





**मूळ कथा : ऑस्कर वायल्ड**

**अणकार : ब्रॅण्डा मिनेझीस**

# शिंवासन बत्तिशी

## तिसरी कथा

विजया परीन एक काणी सांगून ती परत पुतळी जावन शिंवासनाक दसली. पूण भोजराजाक सूख लागनासलें. दुसऱ्या दिसा तो परत शिंवासना म्हऱ्यांत आयलो. ताचेर बसपाचो तो विचार करतालो. इतल्यांत आवाज आयलो. ''राव! राजा राव! तूं विक्रमराजावरी धिरवान आसा? जाल्यारच ह्या शिंवासनार बसूंक शकता.''

तिसरी मूर्त जिवी जावन उलोवंक लागली. ''म्हजें नांव जयंती. विक्रमाच्या धिरिश्ट सभावचेर तुका एक काणी सांगतां ती आयक.''

विक्रम राजाचे हेर खंयखंय जळींमळीं भोंवून बातम्यो हाडून विक्रमाक सांगताले. एक फावट कितें जालें, एक हेर चित्रकूट पर्वताचेर गेलो. ताणें येवन विक्रमाक सांगलें, ''म्हाराज चित्रकूट पर्वताचेर हांवें एक अजाप पळयलें. थंय एक जगदंबेचें देवूळ आसा. देवळा कुशिच्यान एक न्हंय व्हांवता. पुण्यवान मनीस ते न्हंयत न्हाल्यार न्हंयचें उदक निवळ जाता, आनी पातकी मनीस न्हाल्यार उदक खदूळ जाता. त्या देवळांत एक

## धिरवान विक्रम



मनीस कितल्याच वर्सां साकून तप करीत आसा. पूण देवी ताका अजून प्रसन्न जायना. हेंय एकेतरेन अजापच शें! म्हाराज तुमी हें सगळें पळयल्यार तुमकांय अजाप जातलें.''

राजाक तें वचून पळोवपाची उमळशीक लागली. राजान हेरांक निरोप दिलो. राजान आपल्या राज्याची नीट वेवस्था केली आनी हेरान सांगिल्ले प्रमाण एकटोच उठून चित्रकूट पर्वताचेर गेलो. थंयची न्हंय आनी देवूळ पळोवन ताका बरें दिसलें. तो न्हंयत न्हावंक लागलो. तेन्ना न्हंयचें उदक स्फटिकावरी निव्वळ जालें. आपूण पुण्यवान हें पळोवन राजाक खोशी जाली. न्हावन तो देवळांत गेलो. देवीचें दर्शन घेतलें. मागीर थंयच आशिल्ल्या ब्राह्मणाक ताणें विचारलें, ''ब्राह्मणा, कितलो तेप जालो तूं हांगा अशें तप करता?'' ब्राह्मणान सांगलें, ''म्हाराज, म्हज्या ल्हानपणासाकून हांव असों हांगा येवन सद्दां तप करतां. देवीचीं स्तोत्रां म्हणटां. कंदमुळां खावन रावतां. तीन तपां परस चड काळ गेला आसतलो. अजून म्हाका देवी प्रसन्न जायना.''

विक्रमान म्हळें, ''हांवय तुजे पासत जप करतां. आमी दोगय मेळून देवीची प्रार्थना करूया.''

इतलें सांगून विक्रमय देवळांत बसलो आनी 'जगदंब', 'जगदंब'! अशें म्हणत जप करू लागलो. अशे दोन-तीन दीस गेले. राजाच्या मनांत एक विचार आयलो, ''ही म्हजी कूड हांव ह्या ब्राह्मणाक ताच्या तपाचें फळ मेळचें म्हणून देवीक ओपतां.

तो हळूच उठलो आनी देवीचे म्हुर्ती म्हऱ्यांत वचून ताणें म्हळें, ''हे आदीमाते ह्या ब्राह्मणाचेर दया कर. ते पासत हांव म्हजी कूड तुका ओपतां.'' अशें म्हणून ताणें आपलें खड्ग काडलें, देवीमुखार तो धोंपरां तेंकोवन बसलो आनी खड्ग आपले मानेचेर मारूंक वयर उखल्लें.

तितल्यांत देवी प्रकट जाली. तिणें विक्रमाक आडायलो. आनी म्हळें, ''राजा, तूं ह्या ब्राह्मणा पासत कित्याक आपलो जीव वगडायता? तो खरे भक्तीन म्हजो जप करना म्हणून हांव ताका दर्शन दिना.'' राजान देवीक म्हळें, ''देवी हांव तुका विनयतां, तूं ह्या ब्राह्मणाक दर्शन दी आनी ताची मनांतली इत्सा पुराय कर. तुज्या दर्शनान ताचें मन बरें जावंदी.''

देवीन म्हळें, ''तूं म्हणटा तशेंच जावं. हांव ताका दर्शन दितां. पूण एक लक्षांत दवर, देव म्हणटात तो वोगीच कित्याकित्यांत नासता, लाकूड, फातर, माती अशा गजालींनीं देव नासता. जंय भक्ती आसता थंय देव आसता. खरो भक्त आसता ताकाच देव प्रसन्न जाता.''

तेवटेन तो ब्राह्मण दोळे धांपून जप करतालो. तेन्नाच ताका देवी दिसली. ताणें देवीक नमस्कार केलो. तुजी इत्सा पुराय जावं असो देवीन ताका वर दिलो. विक्रमाकय बरें मागून देवी गेली. त्या ब्राह्मणान विक्रमाची तुस्त केली. पूण विक्रमान म्हळें, लोकांच्यो अडचणी सोडोवंक म्हाका आवडटा.''

जयंती परीन भोजराजाक म्हळें, ''राजा तूं जर विक्रमावरी धिरीश्ट आसा जाल्यारच ह्या शिंवासनाचेर बस.'' राजाक लज दिसली आनी तो थंयच्यान गेलो. जयंती परत मूर्त जावन शिंवासनाक दसली.





**– माया अनिल खरंगटे**
सी-४-१, वैभव अपार्टमेंट,
मारुती देवळा लागीं,
दवर्ली-नावेली, गोंय.

# अती हुशारकाय



**कों** कों कों कोंकोंचऽ कों. अदीं मदीं व्हडल्यान साद घालीत घालीत कोंबडी पोरसांत भोंवताली. तिच्या बरोबर तिचीं धाकटुलीं चार-पांच पिलांय भोंवतालीं. हांगा-थंय भोंवन भोंवन ती आपलें आनी पिलांचेंय पोट भरताली. कोंबयेचें आपल्या पिलांचेर बरेंऽ बाऽरीक लक्ष आसतालें. एकाद्रें पील फाटल्यान उरत जाल्यार कोंबी थंयचे थंयच घुटमळटाली आनी फाटल्यान उरिल्ल्याक सांगातान घेवन फुडें वताली.

श्यामू शेतकारान पोशिल्ली कोंबी ती. ताणें गोरवांय पोशिल्लीं आनी एकली एकसुरी बोकडीय पोशिल्ली. पावसा दिसांनीं तो आपलें शेत रोयतालो आनी शेत कापतगीर थंयच तरेकवार भाजयो, मिरसांगो, कणगां असली पिकावळ रोवन काडटालो.

गोरवांचें, बोकडेचें सगळें काम श्यामू आपुणच करतालो. तिनसांज जाली काय कोंबयेक तिच्या पिलां सकट घुडांत घालतालो. गोरवांक आमडून हाडून गोठ्यांत बादतालो आनी त्या बोकडे पिलाक पडवेवेल्या 'खुंट्याक' बांदून घालतालो.

श्यामू शेतकारालें सगळें कुटूंब एकठांयच रावतालें देखून ताका शेताच्या वावराक आपलीं घरचींच मनशां कामाक मेळटालीं आनी आतां ल्हान ल्हान नातरांय व्हड जातालीं. आज्या फाटल्यान भोंवतना ह्या नातरांकय त्या सगळ्या मोनजातीची बरी माया लागिल्ली. श्यामू केन्नाय घरा येवंक वेळ जाल्यार नातू सगळ्यांक सारको जाग्यार घालतालो. गोरवांचें दूद काडपाचें काम लेगीत तो अदीं मदीं करतालो.

अशेच दीस वताले. दिसा-मासा कुकडां पिलां व्हड जातालीं. एक दोन पिलां आंगान मातशी मोटीं आसलीं आनी तातूंतय एकलें मात बरेंच मोटें, गुबगुबीत आशिल्लें. तें खूबूच हट्टी आनी मस्तेंय आशिल्लें. मदींच तें खंयतरी पयस भोंवडी मारून येतालें. तें दोळ्यांमुखार दिसलें ना काय आवय बाबडी भिताली. कोंऽ कों करीत हेवटेन तेवटेन ताका सोदताली. मागीर हळूच खंयच्यानय दुत्त करून हें तिच्या समोर हाजीर जातालें. अशे तरेन भावंडांची, आवयची मजा करूंक ताका भोव आवडटालें. फुडें फुडें वचून तें मेळटा तें रगडटालें. भाटकारान घाल्लें खाण खावंक लेगीत तेंच फुडें धांवतालें.

व्हड जालें तशें ताका खूबच नेट आयलो. आपूण बरें गुबगुबीत आसां. दिसताय बरें. आपूणच हुशार अशें ताका दिसूंक लागलें. आतां तर तें आपल्या भावंडांक तिडायत रावतालें. तांचेकडेन झगडत रावतालें. तातुंतल्यान आनंद घेवंक शिकलें तें. आवयच्या लक्षांत येतगर आवयन ताका समजावपाचो यत्न केलो. तशें करप समा न्हय, तुमी सगळीं भावंडांच, तुवें तांकां तशें म्हणप न्हय, झगडप न्हय! अशे तरेन आवय ताका खूब समजायताली. पूण आपल्या भावंडांक हाडकुळीं म्हूण चाळोवपाचें तें कशेंच सोडना आसलें.

अशेंच भोंवतां भोंवतां तें एक दीस आवय, भावंडां पासून बरेंच पयस गेलें आनी दिस्त त्याच वेळार शेतकाराल्या चल्यान ताका धरलें. ताच्या मित्राक ताणें तें विकलें. ताका बरेऽ पयशे मेळ्ळे.

पिशवेंत बसून घुसमट्टना तें पील विचार करतालें. "सदांच आई सांगताली म्हाका एकलें एकलें भोवूं नाका म्हणून. पूण हांव? पिशेपणांच केलीं हांवें आनी बरें गुबगुबीत हांवूच आसलें म्हूण म्हाकाच धरलें जातलें. चडच गर्व जाल्लो म्हाका. आतां म्हाका मरचेंच पडटलें. कोण वाचयतलो म्हाका?"

कोंबी पिलाक सोदताली. तें खंयच दिसना जालें तेन्ना ती सामकी काचाबूल जाली. इतल्यांत शेतकाऱ्याल्या चल्याचीं उतरां तिच्या कानार पडलीं. "बाबा. त्या मोटेल्या कोंबये पिलाक धरलां हांवें आं. म्हज्या मित्राक जाय खंय. फाल्यां तागेर पार्टी आसा. बरे पयशे मेळ्ळे ताचे."

आवय कोंबी दुकां झरी व्हांवयताली. "पिशें पोर. गेलें जिवानिशी. आपल्या मोटसाणेचो चडच गर्व जाल्लो ताका. भावंडांक कमी लेखतालें. अती हुशारकायच नडली पोराक."



– उषा कामत
मडगांव – गोंय
मो. : ९७६३८२३७४५

## बाळ म्हजो

हुलूलुलू हुलूलुलू हुलूलुलू हुलूलुलू ।।

बाळ म्हजो हांसता गालांत
धरला ताणें बाजो हातांत ।। १।।

बाळ म्हजो दिमखुऱ्यांनी चलता
पायांत ताच्या पांयजणां वाजता ।।२।।

नदर ताची पडल्या म्हजेर
चोखूंक रावला चॉकलेट जिबेर ।।३।।

पावतकच लागीं आयलो वेंगेंत
दोळे सामके भरले खोसयेन ।।४।।

गोड गोड ताणें पापी दिली
खोशी म्हज्या काळजाक पावली ।।५।।

हुलूलुलू हुलूलुलू हुलूलुलू हुलूलुलू ।।



– रेखा रामनाथ नायक
मार्रा–पिळर्ण,
बार्देस–गोंय.
फोन : २४०७६५५

## बाबू नाचता

तबल्यान धरले ठोके
था धीन ऽ धा धीन
धीन धीन तक
तकऽ तकऽ धीन !

पेटयेन सूर काडले
पे पे पें पेंरे पेंपें
हात हालयत
तालार गाजले !

गिटार घेवन हातांत
बोटां फिरयलीं ताणें
टूण! टूण! टूक! टूक!
सूर ताल एक जाले

त्याच सुरार, त्याच तालार
नाचता बाबू आमचो
हात करून वयर सकयल
कोणेय ताका तोखेवंचो!



– भिकाजी घाणेकार
राज कॉम्प्लेक्स,
ताळगांव – गोंय
फोन : २९०४२६२

# म्हज्या कम्मो खातीर...!

**ए**क आसलें पोपू : गोरें-पिट्ट, मोव-मोव, गुबगुबीत आंगाचें, फुगऱ्या पोल्यांचें, पिंगसार केंसांचें!

ताचें खरें नांव आशिल्लें प्रफुल्ला! पूण स वर्सांचें जायसर ताका कितलींशींच नांवां पडिल्लीं.

आजो म्हणटालो, "आगो सुंदऱ्या, हांगा यो गो तें...!"

आजी म्हणटाली, "म्हजो पोटलो खंय गेला? एऽ पोटल्याऽऽ"

मम्मी म्हणटाली, "बायू, चल, न्हावया मुगो...

पप्पा उलो मारतालो - "कुकूऽ, हांवें कितें हाडलां पळय तुका...."

बिल्डींगेंतलीं सगळीं ताका 'पोपू' म्हणटालीं... शाळेंतल्यो इश्टिणीय ताका 'पोपू' म्हणटालीं.

अशें हें पोपू शाळेंत सगल्या टिचरींक जाय-जाय दिसतालें. कितेंय बरयता-वाचता तें मन लावन करतालें... शेंकड्यांनीं प्रस्न विचारतालें... तापयल्यार लेगीत दातांच्यो कणयो दाखोवन विच्च करून हांसतालें.

पोपूक शिकूंक आवडटालें तशेंच मस्ती करूंकय आवडटालें. आनी सगळ्यांत चड म्हणचे पोटाक पोट्टभर खावंक ताका खूब-खूब आवडटालें. भूक ताका कशशीच सोंसनासली.

"बायू, शाळेचें बॅग भरलां मगो.... सारकें पळय..." अशें मम्मीन म्हळ्यार पोपू विचारतालें - "मम्मी, म्हजो टिफीन घाला मगे? आज टिफीनांत कितें घालां...? खूबशें घाला मगे?"

असलें हें पोपू, कशें कोण जाणा, एक दीस आपलें टिफीनच घरा विसरलें.

मदली सुटी जाली. सगळीं भुरगीं आपलो टिफीन खातात... पूण पोपूच्या बॅगांत टिफीनच ना...?? ताणें बॅगांतलीं पुस्तकां, कंपास बॉक्स, सगळें भायर काडलें... सगळ्या खणांनीं पळयलें... पुस्तकां, पट्टी, नॅपकीन, उदकाची बाटली, कंपास सगळें-सगळें आसा... फकत टिफीन ना...!!

आतां कितें करूं? पोपूच्या पोटांत भुकेचे कवळे येवंक लागले... पोटांतल्यान गुर्रऽ आवाज येवंक लागलो. पोपू रडकुरें परतलें... ताच्यान भूक कशशीच सोंसना जाली...

पप्पा ऑफिसांत... मम्मी ऑफिसांत... आजो-आजी जाण्टीं... तीं कशीं म्हजो टिफीन हाडटलीं?

पोपूक रावन-रावन किचनांत मेजार दवरिल्लो टिफीन याद जावंक लागलो. मम्मीन आज टिफीनांत पोळे आनी चटणी घाल्ली.... यादीनच ताच्या तोंडाक उदक सुटूंक लागलें.



क्लासांतल्यो इश्टिणी टिफीन खाताल्यो. तांचेकडेन मागूं इल्लेंशें खावपाक?... पूण पोपूक लज दिसूंक लागली.

मागीर तशेंच पोपू भायर येवन स्कुलाच्या सोंपणार बसलें... दोनय हातांचे कोपर धोंपरार... हातांच्या तळव्यार दोनय पोले तेकोवन तें भूक कशीतरी थाथारतालें.

गेटीवेल्या गुरख्यान ताका पळयलें. येद्दीशी पोटली कशी... सारखेंच म्हज्या कम्मोभशेन... पूण अशें रडकुरें शें? तो म्हऱ्यांत आयलो.

"हांगा कित्याक बसलां बाय? टिफीन खालो?" ताणें विचारलें.

"ना.. टिफीन घराच उरलो..." पोपून रडकुऱ्या आवाजान सांगलें.

गुरख्याक ताची काकूट दिसली. म्हज्या कम्मोयेदेंच पोर! हांव हाका कितेंय खावंक दिल्यार... गांवाकडेन कम्मोकय भुकेवेळार कोणय पावतलो... ताणें चिंतलें.

"चल बाय, तुका हे ते गाड्यार वडा-पाव खावंक दितां..."

वडा-पाव नांव आयकून पोपूच्या तोंडाक उदक सुटलें.

"खंय आसा वडा-पाव?" ताणें विचारलें.

"हेऽ त्या गाड्यार!" गेटीभायरच रस्त्याकुशीक आशिल्ल्या गाड्यावटेन ताणें बोट दाखयलें. "चल बेगीन... बॅल जावचे पयलीं खावन परतें पावतलें तूं... बेगीन बेगीन खावचो पडटलो हांऽ...." गुरखान पोपूच्या गुबगुबीत हातांक धरलें आनी तीं चलूंक लागलीं.

...सोंपणां देंवसर पोपू खूश आसलें. गेटीकडेन पावतकच ताका याद जाली... मम्मीन सांगिल्लें, "बायू, कोणेंय परकी, अनवळखी मनशान चॉकलेट बी दिल्यार घेवची न्हय हां... कितेंय दिल्यार खावचें न्हय हां..."

आनी आजी परती-परती सांगताली - "पोटले तुका टॉयलेटाक वचपाचें आसल्यार एकटें वचचें ना हां तूं... कोणय इश्टिणीक घेवन... बरोबर आपोवन.. टिचरीक सांगून..."

"चल बाय, बेगीन गेल्यार बॅल जावचे पयलीं परतें पावंक जाय... चल बेगीन..." तो गुरखो ताच्या हाताक धरून ओडूंक लागलो.

पयरच मावशेन सांगिल्लें - 'कोणेंय परक्यान हात धरल्यार, आंगाक हात लायल्यार.. हाताक जोरान घांस काडचो... पांयार खोंट मारची... व्हडल्यान बोवाळ करचो...'

पोपूचे इल्लेशे तकलेंत सगलोच गोंदळ जालो.

"हांव येना.. म्हाका वडा-पाव नाका..." ताणें हात सोडयत म्हळें.

"वडा-पाव आवडना?.... तुका सामोसा दितां..." ताणें अपुरबायेन म्हळें... कम्मोक सामोसा खूब्ब आवडटा... ताणें चिंतलें...

"चल, बेगीन चल, रोखडीच बॅल जातली..." तो ताका ओडूंक लागलो.

पोपून आकांतून ताच्या हाताक घांस काडलो. ताच्या पांयार खोंट मारली आनी व्हडान रडूंक लागलें.

रस्त्यावेल्यान वचपी बायलेन ताका हटकिलो - "एऽ ताका कित्याक रडयता रे?"

"ना बाय. तें टिफीन विसरलां. भुकेलां म्हूण ताका गाड्यार वडा-पाव दिवंक व्हरतां..." ताणें नमळायेन सांगलें.

ती बायल घुसपली. पांच-स वर्सांचें भुरगें. ल्हान आनी मुखार तो गुरखो ताच्या हाताका धरून... भुरगें रडटा....

तिका हालींच एका स्कुलांत जाल्ली ती घडणूक याद जाली... पेपरांनी वाचिल्ल्यो खबरी याद जाल्यो... ल्हान भुरग्यांचेर आगळीक केल्ल्यो.. तिणें आकांतून बोब मारली... "धांवात रे कोणय... हो पाडापडिल्लो... चलयेक कुशीन व्हरूंक सोदता."

...आशीकुशीचे लोक पळोवंक लागले... कितें घडलां तें पळोवंक धांवत आयले... गुरख्यान पोपूचो हात सोडलो. तशें पोपू धांवतच सोंपणां चडून शाळेंत पावलें....

...बोवाळ आयकून टिचर धांवतच भायर आयली. पोपून तिच्या कमराक वेंग मारली...

"कितें जालें पोपू?" तिणें पोपूक वेंगांत काडलें.



''खूब्ब भूक लागल्या...'' पोपून रडत सांगलें. गेटीकडेन पळयल्यार लोक गुरख्याक धरून बडयतात. टिचर धांवतूच थंय गेली.

''सायब हांवें कांयच करूंक ना... सोडात म्हाका...'' तो गुरखो कळवळून म्हणटा..

''रावात, ओगीच मारूं नाकात... सारकी चवकशी करया.. रामदीन, कितें जालें?'' टिचरीन विचारलें.

''टिचरजी, बाय भुकेन रडटालें... म्हज्या कम्मो येदेंच... म्हाका म्हजे चलयेची याद जाली... ताका वडा-पाव दिवंक व्हरतालों...'' गुरख्यान सांगलें.

''पोपू, तुका तो वडा-पाव दिवंक व्हरतालो?''

''हय टिचर... वडापाव नाजल्यार सामोसा...'' पोपून सांगलें.

''रामदीन, शाळेंतल्या भुरग्यांक गेटीभायर वचूंक जायना तुका खबर ना?... तुवें कोणाकय सांगपाचें न्ही? राव तुका आतां... चल ऑफिसांत... हेडमास्टरा मुकार...'' टिचरीन ताका तापयलो.

''ह्यो टिचरी अशोच! शाळेचें नांव पेड्ड्रे जावनये म्हणून सगलें दामून वडयतल्यो आतां...'' लोकांमदीं एकलो उलयलो.

''आनी कितें तर? वाचतात तुमी पेपरांत?... आतां त्या लोकांचेर आयला सांवार... केदें ल्हान भुरगें म्हणून लेगीत पळयनांत...'' दुसरो उलयलो.

''आनी कितें तर? कलियुग हें...'' एकली बायल उलयली.

चर्चा करीत लोकांचो चोमो फाफसलो. गुरख्याक अशें जालें... खंयतरी वचून जीव दिवचो..!! नाका जाल्लें उलयले लोक म्हजेविशीं...!! तो येदो व्हडलो दादलो भळभळीत रडत ऑफिसांत भितर सरलो. हेडमास्टराच्या पांयार घालून घेवन ताणें म्हळें - ''सायब... हांव हांगा जोडटां.. घरा पयशे धाडटां... म्हणून म्हजें कम्मो थंय गांवांत शाळेंत शिकता... सायब, कम्मोची याद येवन जीव कळवळ्ळो... भुकेल्ल्या त्या बायेक अपुरबायेन खावंक दिवंक केल्यार... कसलें पातक केल्लें हांवें सायब? सांगात न्ही सायब?... म्हजी चूक कितें ती..!!''





– सुधा खरंगटे
आकें, मडगांव-गोंय
२७५०५७३

## बडायखोर प्रवासी

एक आशिल्लो वेपारी. तो आपल्या वेपाराच्या निमतान विदेशांत वतालो. तो जाण्टो जातकीच तागेलो तरणाटो चलो वेपारसंबंदान विदेशांत वचूंक लागलो. तो सभावान बडायो मारपी आशिल्लो. ताणें वेपाराक वतना वाटेर जायत्यो वस्तू पळयल्यो. ताका खऱ्यांनींच तांची खूब तोखणाय दिसली. घरा परततकीच अजापाच्या वस्तुविशीं इश्टांक सांगूंक सामको आशेलो. इश्ट ताचे भोंवतणी उबे रावतकीच ताणें तांकां जायत्या अजापांच्या विशयांचेर सांगलें.

तो तरणाटो सांगूंक लागलो, ''इश्टांनों! हांव पॅरिसाक आसतना जागतीक मळार एके सर्तींत हांवें वांटो घेतिल्लो आनी उडी मारपाक हांव पयलो आयलों आनी म्हाका फाटीं उडोवपाक कोण नाशिल्लो. जण एकलो म्हजी तुस्त करतालो आनी हांव जण एकट्याच्या घरांतलो एक म्हत्वाचो विशय जावन गेल्लों. तुमकां फट दिसता जाल्यार पॅरिसाक वचून विचारात.''

सगळ्यांनी तकली हालयली जाल्यार एकल्यान म्हळें, ''आमकां पॅरिसाक वचपाची गरज ना. तुगेली साधनां आमकां हांगाच दाखयल्यार जाता.'' वेपाऱ्याक आनीक जाप दिवपासारकें कांयच उरलें ना. ताणें मान सकयल घाली.

**तात्पर्य : बडायो मारल्यो म्हूण मनीस व्हडलो जायना.**



## कुल्ली आनी तिची आवय

कुल्ली जमनीचेर भोंवता ती तुमी पळयल्या न्हय? ती एके वटेन आपली कूड बागोवन सावकासायेन चलता. तिचे कुडीची रचनाच तशी आसा. हो नेम भुंयेवेल्या समेस्त कुल्ल्यांक लागू जाता.

एक दीस आवय कुल्ली एके न्हंयचे देगेर बशिल्ली. तिचें पील तिच्या म्हऱ्यांत खेळटालें. आवयक खूब आनंद जालो.

अकस्मात कुल्लेचे आवयन पळयलें आपलें पील एकेवटेन वाकडेंशें चलता. आवयक मनापासून दिसलें आपलें पील नीट चलूंक जाय म्हूण.

''तुवें नीट चलूंक जाय, एकेवटेन बागोवन न्हय, म्हजें अपुरबायेचें तें!'' शाणेपणान कुल्लेन म्हळें.

''आई, नीट कशें चलपाचें म्हाका मात्शें शिकय. हांव तुका पळोवन तशेंच चलतां.'' तें आयकून आवय नीट चलपाचो यत्न करूंक लागली. पूण तिच्यान जालें ना.

**तात्पर्य : दुसऱ्याची चूक सोदून काडची न्हय.**

## माकोड जालो राजा

एक दीस रानांतल्या जनावरांनी आपल्याक राजा सोदून काडपाखातीर एक सभा आपयली. माकडान बरे भाशेन उडयो मारून सगळ्यांचें मन धादोस केलें. सगळ्यांनी मतां ताकाच घालून राजा केलो. जाल्यार कोल्याक मात माकोड ह्या जाग्यार आयिल्लो मानवलें ना. ताका माकडाची दुस्मानकाय जाली. ताच्या मनांत एक पाडी बुद्द आयली. एक दीस आपलें खाण सोदत तो रानांत भोंवतालो. थंय एका मनशान जाळें घालां तें ताणें पळयलें. जाळ्यांत मासाचो कुडको बरेभाशेन दवरिल्लो. कोलो धुर्त आशिल्ल्यान तो जाळ्यापासून पयस आशिल्लो. हें कोल्याक कळ्ळें, ते खातीर राजाक ताणें थंय आपयलो.

''राजा हांगा बरो मासाचो कुडको आसा. तुमचीच संपत म्हूण हांव ताका आफडूंक ना. तुमी खांवन ताचो आनंद घेयात.''

माकडान मास काडपाखातीर हात घालो मात, तो त्या जाळ्यांत अडकलो. कोलो ताका पळोवन व्हडल्यान हांसूंक लागलो.

**तात्पर्य : योग्य जाग्याखातीर बुदवंताची गरज आसता.**

– अलका असोळडेकार
बड्डें, मडगांव – गोंय
मो. ९८२२९८११०७





# एक कूप

एक कूप दर्यातल्यान वयर सरलें. वयर येतना ताका कोणतरी हात हालोवन आपयता शें दिसलें. कुपान पळयलें, माड चुट्टां हालोवन ताका आपयतालो. कूप ल्हव ल्हव करून माडा म्हर्‍यांत पावलें. थंय खूब माड आनी विंगडविंगड तरेचीं झाडां आशिल्लीं. सगलीं आपलीं पानां हालोवन ताका येवकार दितालीं. कुपाक खूब खोस जाली. तें झाडांच्या माथ्यार येवन थारलें.

बरो वेळ जालो आनी हालतलीं झाडां, माड थांबलीं. बेजार जाल्लेवरी ओग्गी उबीं रावलीं. कुपाक कळ्ळें ना कितें जालें. इतल्यांत एकट्यान म्हळें,

"कुपा कुपा, हांगा रावूं नाका. आमी उदक पितात, वत खातात. आमकां उपाशीं उडोवं नाका."

कुपान पळयलें, सगल्या झाडांचेर ताची सांवळी पडिल्ली आनी तांकां वत मेळनासलें. तें निर्शेलें. झाडांच्या माथ्यावयल्यान कुशीक सरलें. आतां खंय वतलें?

सावळी कोणाक जाय काय?

आपूण रावल्यार सावळी पडटा जाल्यार कोणाकय घालची. पूण कोणाक घालतलें?

इतल्यान ताणें पळयलें, पयस एके बिल्डिंगेचे तेर्‍हांसार एक बायल पापड सुकत घालताली. कुपाक तिची काकूट दिसली. 'वतांत सुकता बाबडी. येदें व्हडलें घर आसून ही वतांत हुलपता.' कूप वचून तिच्या माथ्यार रावलें.

"कर्मा गती! आळशी उठूंक शिमरो शिंकलो." अशें म्हणून ते बायलेन वयर पळयलें.

वयल्यान कूपय तिका पळयतालें.

"कुपा, कुपा पापड सुकोवंक म्हाका वत जाय. तूं हांगा रावूं नाका. म्हजे पापड इबाडूं नाका."

कूप बाबडें मुखार गेलें. मनांतल्यान ताका वायट दिशिल्लें. पूण कितें करतलें? ते बायलेचेय पापड सुकूंक जाय आशिल्ले. तें मुखार गेलें.

मुखार एका मळार भुरगे खेळटाले. ताणीं दोंयवशीन तीन तीन खूंट पुरिल्ले. तांचे म्हर्‍यांत दोग जाण फळकुटां घेवन उबे आशिल्ले आनी एक भुरगो हातांत गुळो घेवन धांवतालो.

'चल! हांकांच घालया सावळी. वतांत तळफेतात बाबडे. तांकां काय वत खावंक नाका आनी ताणीं कांय सुकतय घालूंक ना.' मनांत अशें म्हणून तें त्या भुरग्यांच्या माथ्यार वचून रावलें.

भुरगे उबगले. एकट्यान हात वयर करून कुरू केली आनी दुसर्‍यान खेळ सोंपलो म्हळो. सामान काडपाचे तयारेंत आसतना ताणीं वयर पळयलें. वयर कूप पातळिल्लें. ताणीं कुपाक म्हळें, "कुपा कुपा, हांगच्यान वच. तूं आसल्यान आमकां बॉल दिसना. आमकां खेळूंक वत जाय."

कुपाक सामकें वायट दिसलें. "देवा म्हज्या! हांव वतां थंय कोणाक नाका. सगल्यांक वत जाय. हांव कोणाक नाका." चिंतत वतना एका शेतांत शेतकार खणटालो थंय पावलें.

कुपान सकल पळयलें आनी शेतकाराक पळोवन तें भिलें. "आतां होय म्हाका धांवडायतलो' अशें मनांत येतकच ताच्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां आयलीं आनी सकल पडलीं. सकल काम करतल्या शेतकाराचेर दोन थेंब पडले आनी ताणें वयर पळयलें.

शेतकाराचें तोंड खोशयेन फुल्लें. "कुपा आयलें? तुजीच वाट पळयतालों."

शेतकारान अशें म्हणटनाच कुपाक हुमाळो आयलो आनी ताच्या सगल्या आंगाचें उदक उदक जालें. फटाफट थेंब सकल पडूंक लागले.

"पावस आयलो, पावस आयलो." भुरगीं नाचत भायर आयलीं. वारो ह्या पोंताक साकून त्या पोंताक धांवलो आनी कडेक उबीं आशिल्लीं झाडां खुदखुदूंक लागलीं.

सगल्यांक आनंद जाल्लो पळोवन कुपय खोशी जालें. आपल्या धारांनीं ताणें सगल्यांक वेंगेंत घेतलें आनी जमनी वयल्यान व्हावंक लागलें.





– किरण म्हांबरे
२०६, कैलाश दर्शन,
आर्के, मडगांव-गोंय.
मो. : ९८२३५७६०९२

## कथिका



# एकलेंच....

"हें गाबणें आसा दिसता... सामकेंच जड शें दिसता हालीं.'' शीलुच्या सुजिल्ल्या पोटाचेर नदर थिरायत स्वेतान म्हळें. शीलुचेर ताचो भोव मोग. स म्हयन्यां आदीं फिलोमेनागेरच्यान हाडिल्लें ताणें ताका. ल्हान आसतना सामकेंच सुकड आशिल्लें शीलु. स्वेतागेर रावन बरें घसघसशीत जाल्लें आनी आतां भोवतेक ताचें आबेर्तुरूय लागीं आयिल्लें. हालीं हुंदरांक बी धरप कमी जाल्लें ताचें. तें आपले वांगडा खेळना म्हणून शीखाय बेजारतालें.

"मम्मा, शीलु मगे आतां म्हजे बराबर खेळच ना. आळशी जालां सामकें.'' वाजेवणें तोंड करून शीखा स्वताक सांगतालें आनी स्वेता मात 'हाका आनी आतां कितें सांगूं!' अशे नदरेन पळोवन हांसत रावतालें.

"चल शीखा, शाळेक वचपाचो वेळ जालो. पुरो जालें शीलु वांगडा किरोवप...'' तापोवणेच्या सुरांत स्वेतान म्हळें आनी काल रातीं उरिल्ल्या चिकनाचे केल्ले सँडवीच शीखाच्या टिफीनांत घाले.

"मम्मा...''

"आतां आनी कितें शीखा?''

"म्हजें फ्रेंड कार्तीकी जाणां न्ही तूं?''

'ताचें कितें जालें?''

"ताची मम्मा मगे सद्दां सकाळीं वेग-वेगळो ब्रेकफास्ट करता. रातीचें चीकन तें हाडिना केन्नाच...''

"ताची मम्मा घराच आसता आसतली. तुजी मम्मा कामाक वता. तिका वेळ मेळूंक जाय मरे सद्दां उठून ब्रेकफास्ट तयार करपाक?''

"उं.... तेंय सारकें, पूण मम्मा...''

"शीखा, पुरो आतां जाणवायो. तुजी बस येवची जाली आनी मम्माकूय उशीर जाता. चल बेगीन बॅग फाटीक लाय.'' स्वेतान विशय टाळ्ळो पूण शीखान म्हणिल्ली ती एक सादी ब्रेकफास्टाची गजाल ताचे तकलेंत दीसभर घुंवत रावली. आपूण आवय म्हणून खंय कमी पडटा काय असो प्रस्न ताका पडूंक लागलो. शीखा आतां व्हड जाता, तें हळुहळू करून प्रस्न विचारपाक लागतलें. कितल्या प्रस्नांच्यो जापो ताचेलागीं आसतल्यो काय...

"मॅडम तुमी काल दिल्ले ते प्रस्न हांवें क्लासांत वाटलें हां.'' एके विद्यार्थीनीन अकस्मात येवन ताच्या विचारांक आळो हाडलो.

"आं... बरें!'' कोऱ्या नदरेन ताणें म्हळें. ती विद्यार्थीनी वतकच परत एकदां शीखाचो विचार! आनी अकस्मात ताचें मन ताका यादींनी घेवन गेलें.

एक दीस शीखा शाळेंतल्यान कसलो तरी फॉर्म घेवन आयलें. ताचेर 'फादर्स नेम' (बापायचें नांव) हो जागो भरचो आसलो. तेन्नाच वाचपाक शिकिल्ल्या शीखान अकस्मात विचारलें, "मम्मा, फादर्स नेम?'' स्वेता कांय वेळ तशेंच उरिल्लें. जापे शिवाय. मागीर धाडस करून ताणें जाप दिली, "थंय ब्लँक सांडप शाण्या...''

"ब्लँक कित्याक?''

"कारण, यु जस्ट हॅव मदर्स नेम. नो फादर्स नेम.''

स्वेतान ते दीस ही जाप दिली खरी, पूण मागीर ताका आपणाकूच खावंक लागलें. कित्याक आपणें शीखाक तशें सांगलें? आनी त्या निरागस मनान तें मानुनय घेतलें. पूण तशें सांगप कितलें बरोबर आसलें? ताका हक्क ना आपल्या बापायचें नांव आयकुपाचो?

"पूण त्या बापायन नांव सांगपा सारकें काम केलां तरी? आपलो स्पर्श तुज्या आंगांत वाडटा हें कळनाफुडें फुज्यो जालो मगो तो. शीखा व्हड जातकच सांग ताका सत.'' स्वेताची इश्टीण रसीकान त्या वेळार स्वेताक सागिल्लें. आज परत एकदां रसीकाक मेळचें पडटलें अशें स्वेताक दिसलें. ताचेकडेन सदांच बरीं सोल्यूशन्स आसतात. खूब प्रॅक्टीकल विचारांचें तें! स्वेतान जेन्ना ताका सांगलें की ताका दीस गेल्यात तेन्ना स्वेताच्या घरच्यांनी लेगीत जें केलें ना तें रसीकान त्या वेळार केल्लें. ताका आपल्यागेर रावपाक दिलें, ताका सांबाळ्ळें आनी स्वेता नोकरेक लागमेरेन ताचो सगळो भार आपल्या भुंजार घेतलो. खूब कमी लोक इतले निस्वार्थी आसतात जगांत...

"हॅलो रसीक... उलोवपाक जाय आसलें.''

"कितें जालें गो? परत 'फादर्स नेम' भानगड?''

"ना गो! टिफीन!''

"मेळुया... आज सांजे.''

थारिल्ले प्रमाण रसीका स्वेतागेर गेलें. स्वेता तेन्ना गॅस लायतालें आनी शीखा परत एकदां शीलुक खेळोवपाचो यत्न...

"शीखु, तें खेळचें ना शाण्या. तें मगो मम्मा जावपाचें आसा. ताच्या पोटांत इल्लीशीं पिलां आसात.'' रसीकान ताचे यत्न पळयत म्हळें.



"खरेंच रसीक मावशी? पूण तुका कशें कळ्ळें गे? तूं मम्माभशेन टिचर मगे..."

"कांय गजाली कळपाक मगो शाण्या फकत दोळे जाय पडटात."

"पूण ते म्हाकाय आसात. म्हाका कशें कळ्ळें ना तर?"

"कारण त्या पीलासारकें आजून तूंय बी ल्हान आसा. व्हड जातलें पळय तेन्ना कळटलें आं!" शीखा खोल नदरेन शीलुच्या पोटाकडेन पळयत रावलें.

"कसल्यो खबऱ्यो चल्ल्या शीखु आनी मावशेच्यो?" स्वेतान विचारलें.

"कांय ना. ताका सांगतालें तें शीलु गाबणें आसा म्हण."

"सांगलें तुवें ताका? बरें केलें. म्हाका समजच नाशिल्लें ताका कशें समजावप तें."

"आंवय! तूं आनी एक गो स्वेता... सोड, टिफीनाचें सांग."

"हांगा नाका. भितर या."

आनी सदचे प्रमाण स्वेताक पिशें थारावन रसीकान ताच्या प्रस्नाचो खूब सहज रितीन सुटावो दिलो. स्वेताच्या मनाक सुऽऽ जालें.

"सींगल मदर ईज नॉट अ क्रायम स्वेता, ती परिस्थिती. आनी हांव जाणां तूं शीखुक कांयच कमी पडूंक दिवचें ना." वतना रसीकान स्वेताक समजायत म्हळें.

"पूण, केन्ना ना केन्ना तरी ताका बापायची गरज भासतली मगो?"

"ज्या दिसा तो तुका सोडून गेलो पळय त्याच दिसा तूंच शीखुची आवय आनी बापूय जालो. दुसरें लग्न, सॉरी पयलेंच लग्न काय तूं जायना म्हण्टा. म्हणटकच तुवेंच जावचो पडटलो शीखुचो डॅडी! चल येतां हांव..."

रसीका गेलें. पूण स्वेताक दिसलें आपली जबाबदारी कमीची न्हय. आपूण खंयूय कमी पडलें जाल्यार... शीखा म्हजो दुस्वास तर करचें ना न्ही? त्या विचारान ताका न्हिदूच आयली ना. कुशीक न्हिदिल्ल्या शीखाच्या निरागस मुखामळार ताची नदर गेली. हळूच ताच्या कपलाचो उमो घेतलो आनी ताणें दिवो पालयलो. पूण तें कूस परतत रावलें....

फांतोडेचीं साडेचार - पांच बी जाल्यां जांवये. स्वेताच्या कानार कसलो तरी आवाज पडलो. बारीक... 'मी... मी...' कोण काय? कितें काय? ताणें चिंतलें, करतां करतां आवाज वाडपाक लागलो म्हणून तें कुडींतल्यान भायर आयलें. हॉलांतली लायट पेटयली. धवे टायल्स तांबडेच जाल्ले. शीलुन आत्तां चार पिलांक जल्म दिल्लो. इल्लेशे हुंदीर कशे. आनी शीलु तांकां चोवगांकय चाट्टालें, नीवळ करतालें... आपूण त्रास सोंसून लेगीत. कांय वेळ स्वेता पळयत उरलें.

"शीलु.. जालें गो?" ताणें मोगान विचारलें. आंगसो हाडून निवळ केलें आनी थंयच एका बॉक्सांत बरे मोव शे कपडे घालून शीलुच्या पिलांक पाळणें केलें आनी जशें काय शीलुक हें कळिल्लेच वरीं ताणें एका-एका पिलाक कानाक धरून बॉक्सांत अळंग दवरलीं. स्वेता पळयत उरलें. इतल्यांत ताची नदर एका पिलाचेर गेली. सगळीं पिलां शीलुसारकीं धवीं. हें एकलेंच कशें काय काळें? मागीर अकस्मात ताका त्या काळ्या बुकल्याची याद जाली जो शीलुक हाडिनाफुडें तांच्या घरावटेन घिरट्यो घालतालो. ताचेंच कर्म दिसता! पूण त्याय पिलाक शीलु सांबाळटलें न्हय? दुबावूच ना! ताचींच पिलां न्हय तीं? आनी एकलेंच सांबाळटलें काय हें चारूय जाणांक? मागीर! तांचो बापूय येतलो काय कितें... शीलुच पोसतलें तांकां... एकलेंच! स्वेता खूब दिसांनी एका वेगळ्याच आत्मविश्वासांत हांसलें...

"शीलु, यु आर ग्रेट! तुजेच भशेन हांवूय सांबाळटलें म्हज्या शीखाक... एकलेंच... हय. .. एकलेंच!!!!"



– तन्वी बांबोळकार
मो. : ९७६४७८०४९७

# कथिका

# अपुरो मोग



राकेशाल्या घरांत राकेशाच्या लग्नाचो बोवाळ चलिल्लो. सगळे घरांतले लोक खोशयेन भोंवताले. पूण राकेश न्हवरो आसुनूय खोशी नासलो. ताचें मन विचलीत जातालें. तो एकलोच आपल्या रूमांत बशिल्लो. इतल्यान ताका मेळूंक ताचो खाशेलो इश्ट अमोल आयलो. राकेश कितें तरी चित्ता हें अमोलाक होलमलें. राकेशाचें लक्ष अमोलाकडें ना हें पळोवन ताणें राकेशाक व्हडान उलो मारलो.

"आरे राकेश हें कितें? तुजें लग्न फाल्यां, घरांत येदो बोवाळ चल्ला आनी न्हवरो जावन तूं हांगा एकलोच कितें चित्ता? आनी हें कितें, तुज्या दोळ्यांत दुकां?" अमोलान इतलें म्हळें मात, राकेशाच्या मनांत दाटून आयिल्लो हुंवार आटपना जालो. तो व्हडान रडपाक लागलो.

"आरे राकेश सांग तरी, सियाची याद आयली रे? तूं जर सियाची याद काडीत रावत जाल्यार खचत वतलो रे आनी तूं असो निर्शेलो जाल्यार निमणे वेळार सियान मागिल्लें उतर तूं कशें पुराय करतलो? ताच्या आत्म्याक कशी शांती मेळटली? हें पळय राकेश तूं चड चिंतू नाका. दोन वर्सां सोंपलीं. दुख्ख सगळ्यांक आसता रे. पूण तें पचोवपाक शिकूंक जाय. सगळें घडिल्लें एक वायट पडिल्लें सपन समज आनी फुडें सर. आरतीकडे लग्न जावन नव्या पर्वाची सुरवात कर." इतलें सांगून अमोल भायर सरून गेलो. अमोल गेल्या उपरांत राकेश उठून टेबलाकडे आयलो आनी तातुंतलें एक पत्र भायर काडलें. तें पत्र पळयनाफुडें राकेशाक सगळें येवजून येवपाक लागलें.

सुमार पांच वर्सां पयलींची गजाल. राकेश कॉलेजीच्या निमण्या वर्साक आशिल्लो तेन्ना सियान ताच्या वर्गांत नवें ॲडमीशन घेतिल्लें. नवें आशिल्ल्या कारणान ताची क्लासींतल्या भुरग्यांकडल्यान सतवणूक जाताली आनी तें बाबडें रडून रडून सगळें सोंसतालें. ताचे हे हाल राकेशाच्यान पळोवंक नजो जातालें. ताका ताची काकुळट येताली. तो ताचेकडेन उलोवपाक सोदतालो पूण संद मेळनाशिल्ली आनी सीया एकदीस आपूण जावन राकेशाकडे आयिल्लें.

"हॅलो राकेश, म्हाका तुजी मजत जाय."

"सिया कसली मजत?"

"राकेश तुकां खबर आसतली की हांव हे कॉलेजींत नवें. तेंय बीन एक म्हयनो लेट ॲडमीशन घेतलां. तेन्ना म्हाका तुजे कडल्यान एका म्हयन्याचो चुकिल्लो अभ्यास जाय. आनीक कोणाकडेन मागपाची हे क्लासींत माणसुकी ना. तूंच एक म्हाका ओळखिचो दिसलो."

"हांव ओळखिचो कसो?" राकेशान अजापान सियाक विचारलें.

"हय खरी गजाल. चारूच दीस जाल्या आनी फाटल्या आठ दिसा सावन हांव तुका तूं घरांतसून भायर सरून वतना पळयतां. तुज्या घरा मुखार जें घर आसा न्ही त्या घरांत आमी रावपाक आयल्यांत. म्हजो पप्पा पोलीसेंत कामाक आसता आनी ताची बदली हांगा जाल्ले कारणान आमी हांगा रावपाक आयल्यांत."

"पूण सिया म्हाका एक सांग, तूं सांगता तुजो पप्पा पोलीस म्हण मागीर हे भुरगे जेन्ना तुका सतायताले तेन्ना तुवें तुज्या पप्पाक कित्याक सांगलें ना? तुजो पप्पा बरोच धडो शिकयतलो आसलो."

"राकेश, पप्पाक हांवें मुद्दामूच सांगूंक ना. अरे सतायणारीं तोंडां कितले दीस सतयतलीं? केन्नातरी बरीं वागतलींच न्ही? बरें तर राकेश हांव लायब्रींत बसून सगळे नोट्स काडटां आनी तुजेय बूक दितां." अशें म्हणत सिया चलत रावलें.

खरें तर राकेश-सियाचें आयज पयलेच फावट उलोवप जाल्लें. पूण दोगांयकय दिसतालें जशें खूब वर्सांची ओळख आसा. त्या दिसा उपरांत सिया राकेश सदांच वांगडा आसतालीं.

एक दीस अशेंच गॅदरींगची प्रॅक्टीस करतां करतां सिया अचानक काळजांत दुखता म्हण सांगता थंय आसतना धप्प करून पडलें आनी घामाघूम जालें. राकेश सियाक पळोवन सामको भियेलो. ताणें ताका दोतोराकडेन व्हेलें आनी तें निवळटकूच तो घेवन ताका घरा गेलो. सियाचेर राकेश खूब मोग करपाक लागलो. सदांच ताका आपल्या घरांतसून नदरेआड जायसर पळयत रावतालो. दोन वर्सां तो ताका लागून तळमळे काडटालो. पूण सियाक सांगपाचें धाडस ताका जालें ना. ताणें ही गजाल आपल्या मित्राक अमोलाक सांगली की ताणें ती सियाक सांगची म्हण!

आनी एक दीस सियाक अमोलान राकेशाच्या मनांत तें भरलां आनी राकेशाचो ताचेर ऊफाट मोग आसा हें सांगलें. हें आयकून सियाक अजाप जालें ना. कित्याक तर ताका तसो दुबाव मारिल्लो. पावसाचो शिंवर आंगार पडतकीच आंगार कांटो फुलता तशें सियाक जालें. ताका लेगीत अमोलाक सांगनशें दिसलें की तेंय बीन राकेशाचेर खूब मोग करता. ताका पळयल्या बगर ताकाय सूख लागना. ताचो आवाज आयकल्या बगर ताका जेवण चलना. मनांतले विचार भायर काडपाची ताका उमळशीक आशिल्ली. पूण मनांतलीं उतरां मनांतूच लिपून बसलीं. तोंडार हांसो येवपाच्या जाग्यार ताच्या दोळ्यांत दुकां दाटून आयलीं. पूण दुकां लिपोवन तें अमोलाक सांगपाक लागलें.

"अमोल आरे राकेशाबद्दल म्हज्या मनांत तशें कांय ना. आमी फकत बरीं फ्रेन्डां आनी कांय न्हू. हांवें ताची मजत घेतली म्हण मोगांत पडलीं अशें

जायना न्हू? अमोल तू ताका सांग म्हाका इतल्यान मोगांत बीन पडपाचें ना. ताका सांग म्हाका विसरून चल.''

''आगो सिया अशें कितें उलयता तूं. मात्सो ताच्या मनाचो विचार कर. खूब चिंत्ता तो तुजें आनी तूं अशें किते म्हण उलयता? तुज्या काळजांत खंय तरी ताका जागो दी.''

''ना अमोल वचून सांग ताका.''

''बरें तर वतां हांव. पूण वचचे पयलीं सांगतां पर्थून विचार कर!'' अशें म्हळें आनी अमोल थंयच्यान गेलो.

अमोल वचनाफुडें सियान दार धांपून घेतलें आनी रड रड रडलें.

''देवा म्हजी कसली परिक्षा पळयता तूं? हांवें साबसुबो एकल्याक निर्शेवन धाडलो. देवा म्हाका माफ कर.''

दुसरे दिसा जेन्ना अमोलान राकेशाक सियाचो निरोप सांगलो, तेन्ना तें आयकून ताचें काळीज सामकेंच दुखलें. सियान आपणाक न्हयकार दिलो हें ताच्या सोसण्या पलतडीं जाल्लें. तरीपूण आपूण ताका जाप विचारतलों ह्या नेटान तो सियाची वाट पळयत रावलो. पूण सिया त्या दिसा क्लासींत आयलें ना. कॉलेजींत येवंक ना म्हण राकेशान मोबायलाचेर कॉल केलो. पूण फोन स्वीच ऑफ आसलो आनी निमणें ताणें ताच्या घरा वचपाचें केलें. कॉलेज सुटल्या उपरांत तो तडक ताच्या घरा गेलो. पळय जाल्यार घराक कुलूप आसलें. ताका कसोच थार जायना जालो. मन पिशावरी जालें. जेवण ना, खाण ना फक्त सियाच्या घराकडे लक्ष लावन बसलो. अखखी रात ताणें जागून काडली आनी सकाळीं कॉलेजींत गेलो जाल्यार अमोल ताचीच वाट पळयतालो.

''आरे राकेश हें हें पत्र दिलां तुका सियान.''

''पत्र. केन्ना दिलें रे? काल दनपारच्यान हांव घरा पळयतां. पूण घर बंद आसा. खंय गेलीं काय सगळीं?''

''आरे काल सकाळींच मात्सो घरा यो म्हण सांगलें. हांव तागेर गेल्यार तीं बॉम्बे वचपाची तयारी करतालीं आनी हें पत्र दी म्हण ताणें सांगलां. वाच तें. प्रेमपत्र बी आसत.'' अशें म्हणीत अमोल आपले क्लासींत गेलो.

राकेशान बेगीबेगीन पत्र वाचपाक सुरवात केली. 'मोगाळ राकेशाक'

'सॉरी मोगाळ म्हणपाक म्हाका तुका कांयच हक्क ना. कित्याक तर हांव मोग करपाचे लायकीचेंच ना. म्हाका खबर आसा तुजो म्हजेर खूब मोग आसा आनी तूं म्हजे शिवाय रावूंक शकना. तुका कितें दिसता हांव तुजे शिवाय रावूंक शकतां? ना. हांवूय तुजे खातीर तळमळटां. आमच्या जनेलांतल्यान तुका तोखेतां. तूं म्हाका दिसना जाल्यार हांवूय सैरभैर धांवतां. राकेश, तुवें म्हाका, तुकां म्हज्या काळजांत रावूंक दी म्हटललें न्ही? पूण कशें दिवं रे? म्हजें काळीजूच म्हजेर रागार जालां. तें म्हजेकडे केन्ना कट्टी घेयत तें सांगूंक शकना. तुका खबर आसा, गॅदरींगच्या वेळार हांव काळजांत दुखता म्हण पडलें आनी त्या वेळार तुवें म्हाका दोतोराकडेन व्हेल्लें आनी हांव शाबुद्देर येयसर तूं थंयच आशिल्लो. ताच्या दुसरे दिसा म्हाका पर्थून काळजांत दुखपाक लागलें. पूण हांवें तुका सांगलें ना. अशें करतां करतां म्हजें दुखणें वाडत गेलें म्हण एक दीस पप्पा म्हाका घेवन काळजाच्या दोतोराकडेन गेल्ले कडेन म्हाका काळजाचें दुयेंस आसा अशें सांगलें आनी ट्रिटमेन्ट घेवपाक बॉम्बे वचचें पडटलें म्हण सांगलें. म्हण आमी बॉम्बे हॉस्पिटलांत गेलीं आनी थंय म्हजेर सगळ्यो टॅस्टी जाल्यो आनी दोतोरान एक निमणो उपाय सांगलो तो म्हणजे ऑपरेशन आनी तेंय बीन गंभीर स्वरुपाचें. केन्ना कितें जायत तें सांगूंक शकना अशें!

म्हज्या मनांत खूब इत्सा आशिल्ली तुजेकडेन लग्न जावपाची. तुजेर खूब मोग ओपपाची. पूण ना तें म्हज्या नशिबांत. म्हाका खबर आसा तूं म्हजेर खूब मोग करता आनी म्हजे शिवाय दुसऱ्याचो विचार करूंक शकना. पूण म्हाका तुका सांगनशें दिसता की जरी तर ऑपरेशना वेळार म्हजें कितेंय बरें वायट जालें जाल्यार हांव तुका पडिल्लें एक वायट सपन समज आनी विसरून वच. एक बरी चली पळय जी तुका म्हजे परसूय खूब मोग करतली. ताचेर मोग कर आनी लग्न जा. म्हाका खबर आसा हें तुजे खातीर खूबच कठीण. पूण म्हजी निमणी इत्सा समज आनी म्हाका उतर दी. पूण म्हाका दिसना की तुज्या उतरांची वाट म्हजेकडेन पावत शी!

तुजेंच केन्नाच न जावं शकणारें<br>
सिया'

पत्र वाचतना राकेशाच्या दोळ्यांचेर काळोख आयलो. दोळ्यांतसून दुकांचे लोट व्हावपाक लागले. राकेशान चिंतलें की आपूण ताच्या ऑपरेशना वेळार ताचे वांगडा रावतलों. अशें चिंतून तो बॉम्बे वचपाची तयारी करपाक लागलो. रेल्वेच्यो तिकेटी बूक करता थंयच ताका अमोलाचो फोन आयलो.

''आरे राकेश खंय आसा तूं?''

''अमोल हांव बॉम्बे वतां. म्हज्या सियाचें ऑपरेशन आसा रे. म्हज्या दोळ्यां देखत ताचें ऑपरेशन जाल्यार ताका म्हजो धीर जातलो आनी सिया थंय आसतना हांव कसोच हांगा रावूंक शकना.''

''राकेश तुका सिया शिवाय जगचो पडटलो. ताच्या नशिबांत तुजो मोग नासलो. तेंय तुज्या मोगाखातीर आशेल्लें. पूण ताची आस ही निमणे मेरेन आसूच उरली सासणाची.''

''अमोल कितें म्हणटा तूं हें अशें?''

''राकेश सिया आमकां सोडून गेलें रे. ताचें ऑपरेशन जावपाक पावलेंच ना. ऑपरेशन थेटरांत आसतनाच ताच्या काळजान ताचे कडेन कट्टी केली.''

''ना अमोल तशें जावचें ना. देव इतलो निश्ठूर जावपाक शकना. म्हजें सिया येतलें. हांव ताका आतां हॉस्पीटलांत वचून दोळे भरून पळयतलों. म्हज्या काळजाचो कुडको असो झडून पडचो ना. ना पडचो.''

अशें म्हणीत राकेश रेल्वे स्टेशनाचेरूच घुंवळ येवन पडलो. दोळे उक्ते करून पळय जाल्यार तो हॉस्पीटलांत आशिल्लो. शाबुद्देर येतकच पर्थून तो सियाचे यादीन गुरफटलो आनी खचून वतालो. दोन वर्सां जालीं तरीय राकेश सियाक विसरूंक शकनाशिल्लो म्हण ताची आवय-बापूय ताचें लग्न करूंक सोदतालीं आनी अमोलाच्या सांगण्यान एकदां तो तयार जालो. फक्त सियाचे निमणे इत्से खातीर!

सगळें येवजून राकेशाच्या दोळ्यांतसून दुकां व्हावूंक लागलीं.

''राकेश दार उगड आनी भायर यो.'' आवयच्या आवाजान राकेश भानार आयलो आनी दोळ्यांतसून व्हांवतल्या झऱ्याक बांध घालून भायर सरलो.





– अविता अजय गांवकार<br>
घर नं.: ३५/१<br>
सावर्शे, सत्तरी-गोंय.<br>
मो. : ९९२३०५८५४७

## पोसो

*आमच्या गोंयांत लोकवेदाच्या साहित्याचें गिरेस्त तितलेंच, समृध्द दायज पळोवंक मेळटा. तातूंत गद्य आनी पद्य अश्यो लोकांकाणयो, म्हणी, वाक्प्रचार, आरत, सकारत, गाराणीं, नमनां, शिळूक, झाडो, जती, लोकनाच, लोकगीतां, धालो, फुगड्यो, लग्नगीतां, धुलपदां अशीं कवनां आनी घडितां जायतीं आसात. अश्या ह्या गिरेस्त दालनांत भितर रिगिल्ल्याक भायर काडप तितकेंच कठीण! आनी एक गजाल ह्या साहित्यांत विधिसाहित्य आनी मनोरंजनात्मक साहित्य असोय फरक आसता.*




काश्मिरी स. पावसकार
बामण वाडो,
शिवोले – गोंय.
मो. : ९४२११९२८५८




# लोकवेद–एक नियाळ

अस्तुरी दिसा निमतान चित्रंगीन आयोजीत केल्ल्या परिसंवादाक हजेरी लावंक वतना वाटेर आमच्या ट्रॅक्साक एका मोडणाचेर एकलो (सुराटो) स्कुटरवालो वयलेवयर घश्टलो. तें नीब धरून ताणें आमचेर गाळयांचो शिंवर घालो. तागेलीं 'तीं' उतरां आयकून कुसूमाक कडकडो भरलो. म्हणूंक लागलें, ''शी! कसलीं गो बाये हीं उतरां!'' ताचे भावनेक तेंको दीत हांवें म्हळें, ''आगो, बेजार कित्याक जाता गो? हो तर आमच्या लोकसाहित्याचोच एक भाग!'' म्हज्या ह्या उतरांनीं ताचे भावनेक आनीक इल्ली वेर गेली. ती भरून काडपाक हांवें केल्लो हो सुपुल्लो यत्न.

आतां तुमीच पळयात. वेदांक आमी सासणाचे मानीत आयल्यात. देखून वेदांच्या सुक्ताचे कर्ते बी म्हूण आमी कांय सुक्तांच्या सुर्वेक रूषीमुनींचीं नांवां घेवपाची चाल पाळटात. ही जाली वेदांची गजाल. पूण लोकवेदाचें तशें नासता. ह्या साहित्याचें कर्तेपण आमी कोणाकूच दिवंक शकनांत. कारण तांचे कर्ते, लेखक वा कवी बी खाशेले कोणूच नासतात. हो लोकवेद चडसो लोकांच्या तोंडार आशिल्लो वा लोकांक खबर आशिल्लो अशे तरेचो प्रकार. ताका जल्मथळ आनी जल्मकाळूय लागना. काळजांतल्या उमाळ्यांनी तो निर्माण जाता. देखून आमचीं चडशीं लोकगितां, लोकनाच हे उमाळे उक्तावपी आसतात. अशें उमाळ्यांच्या विस्फोटांतल्यान तयार जावपी साहित्याक आमी लोकवेदाचें साहित्य अशें मानीत आयल्यात. दुसरी गजाल तें छापिल्लें नासता. हाका आडवाद, आतां मेळपी लोकवेदावयलीं कांय पुस्तकां. लोकवेदाक मुखार व्हरपाचें काम एक–एक पिळगी नेमान करीत आयल्या (सोडून आतांची आनी फुडली पिळगी.)

वेग–वेगळ्या प्रसंगार जशें लग्नकार्यांक, सणां–परबांक, दळपकांडपां करतना, शेतां–भाटांनी कश्टाचीं कामां करतना दादले–बायलो एकठांय येवन आपल्या सुखदुख्खाच्यो गजाली मारतालीं. ह्यो गजाली म्हळ्यार 'लोकवेद' अशेंय म्हणूं येता. पूण ह्या गजालींक मात्शें अलंकारीक रूप आसतालें इतलेंच! ह्या लोकसाहित्यांत समेस्तमनाचे अणभव, भावार्थ, भोगावळी, जिणेमुल्यां, प्रथा–परंपरा ह्या सगल्यांचो एकठांय आयिल्लो उस्वास पळोवंक मेळटा. हो उस्वास उतरांनीं परगट जाता इतलोच फरक. चड करून हें साहित्य खंयच्याय वेळार घडटा आनी म्हूण ताचो थाव घेवप भोव कठीण जाता. तरीकूय तांचो अभ्यास जावप गरजेचें नाजाल्यार लोकवेदाची खोलाय आनी प्रगल्बताय अशीं कांय साहित्यविशेश आंगां थंयच उरतलीं.

केन्ना केन्ना तिडकीन लोकांक उद्देशून 'लोक आनी ओक' दोनूय एकूच अशें म्हणटात. पूण

लोकांबगर समाजाचो गाडो मुखार वचप अशक्य आसा. लोकवेदांचें संकलन करपाक तर लोकजिणेचो आदार आमकां घेवचोच पडटा. आमच्या गोंयांत लोकवेदाच्या साहित्याचें गिरेस्त तितलेंच, समृध्द दायज पळोवंक मेळटा. तातूंत गद्य आनी पद्य अश्यो लोकांकाणयो, म्हणी, वाक्प्रचार, आरत, सकारत, गाराणीं, नमनां, शिळूक, झाडो, जती, लोकनाच, लोकगीतां, धालो, फुगड्यो, लग्नगीतां, धुलपदां अशीं कवनां आनी घडितां जायतीं आसात. अश्या ह्या गिरेस्त दालनांत भितर रिगिल्ल्याक भायर काडप तितकेंच कठीण! आनी एक गजाल ह्या साहित्यांत विधिसाहित्य आनी मनोरंजनात्मक साहित्य असोय फरक आसता. शिगम्यांक, काल्या-जात्रांक, सणां-पुजेंक घालपाचीं गाराणींच आयल्यार पुरो. लोकवेदाची गिरेस्तकाय रोखडीच होलमता.

आमच्या भारतीय लोकसाहित्यांत एकूण गद्य रुपांतलें साहित्य इल्ल्या उण्या प्रमाणांत आशिल्ल्यान, 'गोंय' हो प्रदेश ताका आडवाद ना. हांगा झाडो वा जती हो ह्या गद्याचो उत्कृश्ट असो नमुनो पळोवंक मेळटा. हातूंत लांबचीं लांब वाक्यां एकाच उस्वासान म्हणचीं पडटात. देखीक, 'अस्तीन पुस्तीन स्तीन सागर देवकीन पुरव उत्तर नमन साळकेच्या देठी गांव तुऱ्या शिंगसाठी पांच देव इतले देपण घर म्हळ्यार पान ना बस म्हळ्यार सावळी ना देव रे, भोंवता जळावर, अरे आमच्या देवानी रचली फपळमाडी, फपळमाडीचो बेडो टाकून दिलो सप्तकोटी सागरामध्ये पाळा गेली पाताळा कळव गेले, आकाशात माडीच्या कवळा रे देवांनी बसकार केलो.'

कुसुमाखातीर ह्या लोकसाहित्याचो नियाळ पुराय करतना 'गाळी' ह्या विशिश्ट प्रकाराचो उल्लेख म्हाका मुजरत करचोच पडटलो. 'गाळ' म्हळ्यार पोजड्या वा फाजील उतरांचें उलोवप. तो लोकजिणेच्या संभाशण पध्दतीचो एक भाग अशेंय म्हणू येता. हांगा बुरश्यो आनी बऱ्यो असो वेगळो भेद नासता. सुसंस्कृत वा शीश्ट लोकांक बुरश्यो दिसपी गाळयांची तर सामकी रास पडल्या. रागाच्या वा तिडकीच्या भारान उच्चार करपाचो हो प्रकार आशिल्ल्यान प्रतिस्पर्ध्यांच्या आदरणीय वा पुज्य सुवातेर तशेंच व्यक्तींचेर धपको घालप हें आपसुकूच घडटा. ताकाच लागून त्यो आवय-बापूय, भावभयणांचेर आदारून चड करून आसतात. देखून लोकसाहित्याच्या गिरेस्त दालनांत पावल दवरतकीच 'गाळी' ह्या प्रकाराचो इल्लो विचार करचोच पडटलो. नाजाल्यार गाळयो आयकून स्वताक दुकां गाळीत बसचें पडटलें. तेन्ना एकूच मागणें. ह्या गाळयांकडेन दुर्लक्ष करून, गाळयांविशी आमची नदर बदलून म्हजो लेख, वयलीं वायट उतरां म्हणी नासतना वाचचो.



## इंद्रधोणू

*आंगान बेंगरूळ कसो वाडपी बाबुल्याचीं भुरगेपणां तोखेयत-तोखेयत आज्जेन दोळे धांपले. इतलो तेप आज्जी बाबुल्याक बाबा-पुता करून ताचीं कामां जमता तशीं ताकाच करपाक लायताली. आतां सगलो भार भाटकान्नीचेर आयलो. हेर कामांभितर तिका बाबुल्याखातीर वेळ वगडावप अशक्य जाल्ल्यान तिणें ताचीं दिसपट्टीं कामां आपणेंच करपाक सुरवात केली. च्या-नाश्तो, खावोवप-पियोवप तें ताका न्हाणोवप लेगीत आवयूच करूंक लागली. पयलींच कमी बुध्दीचो बाबुलो आतां गोडाचो गणपती जालो.*




**आशा शानभाग**
सादोळशें - काणकोण.
फोन : २६३२२०४/ ९४०४१४५३३७




# राखीचें बंधन!

**शि**पु भाटकाराचे घरकान्नीन चल्याक जल्म दिलो तो दीस तांचेखातीर भांगराळो थारलो. व्हडल्या दोन धुवां उपरांत जाय-जाय म्हणून खूब तेपान जल्मल्लो चलो म्हळ्यार त्या घराण्याचो वारस, भावी भाटकार. 'घर दार भरलां पूण खावपाक कोण नां' ह्या मांयच्या थोमण्यांनी बेजारिल्ली भाटकान्न चल्याच्या जल्मान सुखावली. मनांतल्यान तिका खूब वायट दिसतालें मांयच्या थोमण्यांचें. लक्ष्मी-सरस्वतीसारख्यो दोन धुवो आसुनय 'खावपी कोण ना' हो मांयचो थोमणो तिचें काळीज चिरत वतालो. आसूं! घराण्याक वारस मेळ्ळो म्हणून भाटकार खोशी, घरांत धाकटो बाबू आयलो म्हणून ताई-दीदी खोशी, भायर पडिल्लो आपलो घोव पर्थून जल्मलो म्हणून जाण्टी मांय खोशी आनी आतां आनी बाळंतेराच्या पिडेंतल्यान वाचतली म्हणून भाटकान्न खोशी. एकंदर बाबुच्या जल्मान शिपुभाटकाराचें घर खोशेन भरलें.

भाटकारान गडगडाटान सटी केली. मस्त नुस्त्याचो भूस मारून वाडो बाबूक आशिर्वाद दीत घरा गेलो. सटीमांयन त्या दिसा बाबुच्या कपलाचेर आपलो लेख बरयलो. ताई-दीदी बाबू भोंवतणी घिट्ट्यो घालतालीं. जाण्टी आजी सुवेर जाल्ल्यान बाबूक हात लावंक दिनाशिल्ली. न्हावंक वचचेवेळार दोगांय बाबू म्हऱ्यांत बसून, ताका हात लायत पदां म्हणटालीं, 'कोंबलेबाबानों साद रे घालात, आमगेर एक बाबू जाला.' बाबुलो दोळे उक्ते करून न्हिदांतच हांशिल्लेवरी करतालो आनी ताई-दिदी खोशी जातालीं. घरच्यो चार बायलो, एक दादलो आनी हेर नोकरचाकर हांचे मेळ्यांत बाबुलो दिशीमाशीं व्हड जावंक लागलो. वंशाचो दिवो, वंशाचें आनी आज्या-पणज्याचें नांव फुडें व्हरपी वारसदार म्हणून बाबुल्याक घरांत खाशेली वागणूक मेळटाली. घरचें दूद, वेळावेळार दोतोरान दिल्लीं टॉनीकांक लागून बाबुलो घसघशीत वाडटालो. पूण वाडटां-वाडटांच सगल्यांक समजून आयलें की बाबुल्याची बुध्द वाडच ना.

हें समजून येतकीर शिपु भाटकाराचे आवयन आकांत मांडलो. "एका चल्याचेर बंद करिनाकात म्हणून सांगल्यार दोगांय आयकलीं नांत. ऑपरेसांव करून भुरगीं जल्मांक येवचीं ना ही तजवीज केली आनी हो असो जालो. म्हजेंच नशीब फुटकें." आवयचो आकांत, सुनेक चलिल्लो गाळयांचो शिवोर आयकून शिपुभाटकार फुर्ऽ जालो. "तीन-तीन बाळतेरांनी ती थकल्या ती दिसना मगे तुका? हे वेळार कॉम्लीकेसांव जाल्ल्यान दोतोरानूच बंद केलां आनीक बाळंतेर म्हळ्यार तिचें मरण हें दोतोरान सांगतकीर आनीक मार्ग आसा?" शिपु भाटकारान चल्याक जाग्यार हाडपाखातीर दुडवांचें तोंड पळयनासतना दोतोरांचीं दारां झरयलीं. एका

व्हडल्या दोतोरान सगली तपासणी केली ताची आनी चार दिसांनी आपलें म्हणणें सांगलें, ''शिपुबाब, ह्या भुरग्याक तुमी भरभरून फकत मोगच दियात आनी तोवूय ताचे कडच्यान मात कसलीच अपेक्षा धरिनासतना. ताका देव बुध्द दिवंकच विसरला. ताची कूड वाडटली. पूण मत केन्नाच वाडची ना.'' शिपुभाटकार आनी ताचे घरकान्नीचे दोळे भरून आयले.

आंगान बेंगरूळ कसो वाडपी बाबुल्याचीं भुरगेपणां तोखेयत-तोखेयत आज्जेन दोळे धांपले. इतलो तेप आज्जी बाबुल्याक बाबा-पुता करून ताचीं कामां जमता तशीं ताकाच करपाक लायताली. आतां सगलो भार भाटकान्नीचेर आयलो. हेर कामांभितर तिका बाबुल्याखातीर वेळ वगडावप अशक्य जाल्ल्यान तिणें ताचीं दिसपट्टीं कामां आपणेंच करपाक सुरवात केली. च्या-नाश्तो, खावोवप-पिवोवप तें ताका न्हाणोवप लेगीत आवयूच करूंक लागली. पयलींच कमी बुध्दीचो बाबुलो आतां गोडाचो गणपती जालो. शिपुभाटकर भाटां-बेसांचीं कामां आनी कोर्टांत गुंग! ताई बी.ए. फायनलीक जाल्यार दिदी बारावेंत जाल्ल्यान त्या वर्सा बाबुल्याची आवय जाम जाली. तें पळोवन ताईन बाबुल्याचीं थोडीं कामां आपले आंगार घेतलीं. ताणेंय आज्जेभाशेन बाबुल्याक आपलीं कामां आपणेंच करपाक शिकोवपाचें मनार घेतलें. ताचेर सामकी नदर दवरून ताईन ताका सादारण तयार केलो. आवयकय ना म्हळ्यार बरोच सुशेग जालो.

एक दीस ताईन कॉलेजींतल्यान येवन बाबुल्याचीं कामां करपाक घेतलीं. ताका आनी वांगडा आपल्याकय आवयकडच्यान वाडून घेवन दोनूय ताटां घेवन तें सालांत आयलें. बाबुल्याक वेवस्थीत जेवपाक लायतना ताका खूब समाधान भोगतालें. आवय दाराफाटल्यान रावन भावा-भयणीं मदलो निर्मळ मोग तोखेताली. ''बाबुल्या, चल हात धुवून येवया.'' ताईन सांगलेबराबर तो आंवपाक गेलो.



''बाबुल्या, आतां तूं मात्सो न्हीद. हांव हांगाच अभ्यासाक बसतां. मागीर तुका हांव तेल लावन न्हाणयतलें आंऽ!''

नंदीबैलाभशेन मान हालोवन बाबुलो मांड्रेचेर आड पडलो. ताई अभ्यासांत रंगलें. तीन-सव्वातीनांक आईन च्या केली.

''आगो, आयज दिदी बेगीन येवचें ना म्हणटालें. कॉलेजींत प्रेजेंटेशन आसा म्हणटालें! तें आयल्यार ताका च्या करून दी. हांव मात्शें वयल्या वाड्यावयल्या वीजुबायेगेर वचून येतां आं.'' दोनूय रिकामे पेले भितर विसळून दवरून आई भायर सरली.

''ताई च्या दी.'' बाबुल्याच्या आवाजान ताईली तंद्री भंगली. ताईन ताका थर्मासांतली च्या पेल्यांत घालून दिली. फुर्र-फुर्र करून च्या पिवपी बाबुल्याक पळयतनां ताईच्या दोळ्यांत दुकां दाटलीं.

''जाली च्या. सोंपली.''

''चल तर तुका न्हाणयतां!''

ताई ताका घेवन न्हाणयेंत गेलें. ताईन ताच्या फाटी-पोटाक तेल लावंक घेतलें. आयज बाबुल्याची मती वेगळेंच कितें चिंतताली. ताईल्या स्पर्शामदीं ताका भयणीची माया लागनाशिल्ली... अस्तुरेच्या कुडीचो वास ताका येतालो. मती कमी आसली तरी कूड व्हडल्या दादल्यावरी वाडिल्ली ताची. ताईच्या स्पर्शान ताचेमदलो दादलो जागो जालो, पेटलो. पयलींच बुध्द कमी आनी आतां तर सांवार आयिल्लेवरी मंदबुध्द ताका साथ दिवंक लागली. मुखावेल्या ताईमदीं ताका फकत एक मादी दिसताली. झोंपय मारून ताणें ताईक आड घालें. राकेसी तरेन कुडीची वान्सा भागोवन बाबुलो शांत जालो.

पंदरा मिन्टां उपरांत घरांत पाविल्ल्या आवयक न सांगतांच सगली गजाल कळ्ळी! 'आई तोंडांत पदर कोंबून कित्याक रडटा? ताई आपल्याक न्हाणयनासतना जमनीर पिंजके कपडे घालून कित्याक न्हिदलां?' हे प्रस्न बाबुल्याचे मंद बुध्दीक पिडावंक लागले. न्हावपाक आग्रो करपी बाबुल्याक कशें समजावप आनी ताईक, जें मना-कुडीन मोडून-तुटून पडलां ताका कशें सांबाळप हें आवयक कळना जाल्लें. कशेंतरी ताईक सावशीद करून ती घरांतल्या कामांत रमली. घराफाटल्यान नाल्लांच्या लॉजांतल्यान धुंवराचो लोट येता म्हणून ती ताकतिकेन फाटल्या दारांतल्यान लॉजाकडेन पावली...

लॉजाचें दार भितरल्यान बंद हें जाणवतांच ती थर्त भियेली. एक जनेल तिणें धुकल्ल्यार भितर उज्यान पेटिल्लें ताई सैरभैर धांवता... जणू पेटती मशाल फरफरता. तोंडांतल्यान एक उतर लेगीत काडीनासतना वळवळत मर्णाक तोंड दिवपी आपलेंच रक्तामांसाचें पोर पळोवन आईचें काळीज सामकें फुटलें. काळेंकिट्ट जावन पडिल्लें ताई आपणें हालयल्यार कित्याक उठना? आई, बाबा आनी दीदी रडटात कित्याक हें समजनाशिल्लो बाबुलोय हुयेल्यो मारून रडूंक लागलो. म्हज्या एका हाताक दिदी राखी बांदतलें. दुसऱ्या हाताक ताई उठलें ना जाल्यार राखी कोण बांदतलो? हो प्रस्न बाबुल्याचो मेंदू पोखरायतालो. ज्या हाताक राखी बांदिल्ली त्याच हातानी आपली राखण न करतां त्या हाताच्या धनयान, प्रत्यक्ष आपल्या भावाच्या राकेसी कुडीन भोग घेतिल्ल्याचो धक्को ताई पचोवंक शकलें ना हें बाबुल्याक कोण सांगतलो?



## उत्फर्के

*आंगार पडपी थेंबे*
*कान धापतकच*
*लेगीत टप् टप् करून*
*आवाज करतात.*
*तोंडार शितोडे पडतकच*
*थंड दिस्ता आनी*
*उदकांत पांय पचक्*
*पचक् करून वतना*
*खोशेचे उमाळे येतात.*
*शाळेच्या दारांत*
*पावतना कापोत*
*काडून जनेलांत*
*दवरली. सगळीं भुरगीं*
*आपल्यो कापोती*
*थंयच दवरतालीं. ओले*
*पांय घेवन भितर*
*वतना मास्तर*
*बारीकसाणेन*
*पळयतालो. खूबशीं*
*भुरगीं भिजून*
*आयिल्ल्यान*
*मास्तरान शाळा*
*बेगीन सोडली.*
*मंगेशान म्हाका*
*व्हडल्यान उलो*
*मारलो.*



हिरा दामोदर नायक
मडगांव - गोंय.

# कापोत



भुरगेपणांतल्यो घडणुको मनाच्या 'हार्ड डिस्कार' घट्ट चिकटल्ल्यो आसतात. पुसून वडोवपाक जाय जाल्यार लेगीत पुसनांत. जिणेंतल्या बऱ्या वायट प्रसंगाचेर ह्या घडणुकांचो छाप आसता. केन्नाकेन्नाय मनाच्या पड्ड्याचेर हे प्रसंग दिसतात आनी खोशेन अंत:स्कर्ण ओलें जाता.

दुसरेक शिकतानाची ही गजाल. गांवांतली शाळा देवस्थानाच्या एके अगरसाळींत चलताली. कार्तीक म्हयन्याचे पुनवेक देव वनांत वता म्हळ्यार हे जाग्यार येतालो. हो उत्सव मोठ्या दबाज्यान जातालो. गांवच्या लोकांक तशेंच म्हाजनाक आनी हेर भक्तांक महानैवेद्या खातीर बांदून घेतिल्ली ही अगरसाळ. लांबचे लांब जागो आशिल्ल्या कारणान मदीं पार्टीशन घालून क्लासी चलताल्यो. तशें पळोवंक गेल्यार देवी शारदेची पूजा हांगा सदांच करताले. गांवांतलीं आनी आडेकुशीचीं भुरगीं हांगा सातवी मेरेन शिकप घेतालीं. एका एका वर्गांत चौदा-पंदरा भुरगीं. मास्तर-बाई ह्यो आमचे जिणेचे तोडूंक येना आशिल्ले भाग. मास्तर म्हळ्यार देव. मास्तरान सांगलें आनी आमी केलेंना अशें केन्नाच जालें ना. गुरू ब्रह्मा गुरूविष्णू गुरूर्देवो महेश्वरा. कितले आपलेपणान तांचें शिकोवप आसतालें! अपुर्बायेन आनी तोखणायेन तें शिकप जातालें.

मंगेश म्हजे ल्हानपणांतलो वर्गमित्र. वयलेवटेन दोंगरार आमच्याच भाटांत ताची खोप वजा घर आशिल्लें. मंगेश आंगान बारीक, तकली आंगापरस मातशी मोठी, दिल्लो अभ्यास सदांच करपी. केन्नाय गैरहजर रावलीं जाल्यार एकामेकांक विचारून, एकामेका कडेन शिकून आमी अभ्यास करतालीं. गणीतांत हुशार म्हणून आई ताका सदांच तोखेताली आनी म्हाका कळना जाल्यार मंगेशाकडेन शीक म्हणून तांगेर धाडटाली. ना जाल्यार मंगेश आमगेर येवन आंगणांत बसून आमी शिकतालीं.

शाळेंत वतना न्हय, तर शाळेंतल्यान परत येतना तो म्हजेबरोबर आसतालो. चिरेखणींतलीं कणेरां काडून खावचीं, काजुचे म्हुट्टे चोखून उडोवचे, पडिल्ल्यो आमल्यो पुंजोवन मीठ लावन खावचें हें भुरगेपणांतलें आलायतें खाण. बोरां, चिंचो पित्त वाडोवपाक सांगाताक आसतालेंच.

शाळेकडल्यान घर हरशीं चलून पांच मिण्टांचे वाटेर आशिल्लें. पूण शाळा सुटतकच रमत गमत घरा येवपाचो नित्यनेम. नदर जमनीवेल्या फातरांचेर वताली. गुळगुळीत फातर पुंजावन तांचे देव करप आनी उरिल्ल्या फातरांनी जिखचेल्यानी खेळप. व्हडली मे म्हयन्याची सुटी पडटकच फक्त खेळ खेळ खेळप. आतांच्या भुरग्यांवरी ह्या कोर्साक त्या

कोर्साक वचपाची संदय नासताली आनी गांवांत कसले कोर्स आनी बिर्स? चडच जाल्यार पाण्ट्यार वचून न्हालीं धुलीं आनी येतना फातर पुंजायले.

दुसरी सोपून तिसरेचें वर्स सुरू जालें. जून म्हयन्याच्या दुसऱ्या आठवड्याक शाळा सुरू जाताली. तेन्ना निकतोच पावसाक आरंभ जातालो. पापान ते वर्सा म्हाका निळ्या कोराची बरीऽ कापोत हाडिल्ली. म्हाका ती खूबच आवडिल्ली. दोनय वटेन बोल्सां आनी मोठे मोठे निळेच बटण. सदांच हांव ती शाळेंत व्हरतालें.

ते दीस उटंगाराचो पावस आयलो. सकाळच्यान जो घोगेतालो तो दनपार मेरेन रकलो. सकाळीं उठून झेतान हांवें बोटवो गळ्याक घालो आनी कापोत चडयली. पावसांत कापोत घालून भिजपाक जी मजा आसा ती फक्त भुरगींच जाणां आसतात. आंगार पडपी थेंबे कान धापतकच लेगीत टप् टप् करून आवाज करतात. तोंडार शितोडे पडतकच थंड दिस्ता आनी उदकांत पांय पचक् पचक् करून वतना खोशेचे उमाळे येतात. शाळेच्या दारांत पावतना कापोत, काडून जनेलांत दवरली. सगळीं भुरगीं आपल्यो कापोती थंयच दवरतालीं. ओले पांय घेवन भितर वतना मास्तर बारीकसाणेन पळयतालो. खूबशीं भुरगीं भिजून आयिल्ल्यान मास्तरान शाळा बेगीन सोडली. मंगेशान म्हाका व्हडल्यान उलो मारलो. 'हिऽरा! आज आमी अशी व्हाळांतल्यान या.' हांवय तेंच सोदतालें. व्हाळांतल्या उदकांत पांय बुडोवंक कितलें बरें दिस्ता. उदकाचो झोत पांयांक आपटून वता आनी आमी दोगांय नीट रस्त्यावेल्यान वचनासतना व्हाळांतल्या रस्त्यान वचूंक लागलीं. ताच्या मनांत उदकांत खेळपाचें आशिल्लें. व्हाळांतल्या उदकाक झोत बरोच आशिल्लो. तरी मनाक आमच्या अजिबात भंय नासलो. एका जाग्यार मंगेश आनी कांय अंतराचेर हांव अशीं उबीं रावन एकट्यान कापोत उदकांत सोडपाची आनी दुसऱ्यान ती धरपाची असो आमचो खेळ सुरू जालो. ह्या खेळांत वेळाचें भान उरलें ना. बरोच वेळ रिपरिप्या पावसांत उबीं रावन खेळाची मजा आमी घेतालीं. म्हजी कापोत निळीच आशिल्ल्यान हुंवाराच्या तांबड्या उदकाचेर उफेताना सुंदरच दिसताली. मंगेशान कापोत उदकांत सोडली आनी ती धरपाक म्हजे हात फांकारले. पुणून मदींच अस्सो एक भोंवरो आयलो आनी कापोत हातांतली सुटली. उदकाच्या झोताबरोबर ती फुडें पावली. हांव कापोती फाटल्यान धांवलें. पुणून मंगेशान एकच आड्डी मारली.



'नाकाऽ नाकाऽ फुडें वचूं नाका.' ताचे ते किळांचेन हांव चित्रशें एकाच जाग्यार उबें रावलें. म्हजे दोळ्यां देखत कापोत चिरेखणींत पावली. मागीर ती म्हाका दिसूंकच ना आनी मात्शें फुडें गेल्यार कापोती बरोबर हांवय बी त्या तांबड्या उदकांत भरसतलें आसलें. आतां येवजील्यार लेगीत आंगार कांटो येता. पुणून हो भंय त्या सुपुल्ल्या वयार नाशिल्लो. घराकडेन कापोती खातीर उलोवणी खावचीं पडटलीं ह्या भयान सगळो जीव थरथरलो. मुखावेलें संकश्ट मंगेशाले किंळचेन जाणवलें जरी नासलें तरी पूण पांय थांबिल्ल्यान जीव वाचलो. कापोत गेल्ल्यान व्हडाव्हडान रडूंक आयलें. भुरगेपणांतल्या मोठ्यामोठ्यान आयिल्ल्या ह्या रडपाचो आवाज अजुनय केन्ना केन्ना आयकूंक येता. आनी आज जेन्ना ते चिरेखणीचो विचार करतां तेन्ना अशें दिसता की देवच मनशांक सांबाळटा.

कापोत गेली. घराकडेन येतकच आई कांयच उलयली ना. पूण व्हाळांतल्यान येवपाची वाट तिणें कायमची बंद केली. नीट रस्त्यान घराकडेन येतलें म्हणून दटायलें.

पावस सोंपतकच मंगेशाक हांवें म्हळें 'मंगेश आमी कापोत सोदूंक या रे?' तो रोखडोच तयार जालो. आमी दोगांय भितर चिरेखणींत गेलीं. कापोत एका फातरार आशिल्ली. रेब्यान तांबडीच जाल्ली कापोत हांवें उखल्ली. ती जड जाल्ली. उखल्ली आनी थंयच उडयली. आई उलयतली म्हणून घरा हाडली ना.

दर पावसाक म्हाका म्हजी कापोत याद जाता.

रस्त्यावेलें, खळयांतलें व्हावतें उदक लेगीत पळयल्यार त्या व्हाळांतल्या उदकाच्या झोताची याद जाता आनी आंग शिरशिरता.



# हांव फुलपिशें



*म्हज्या आंकवारपणांत हीं सगळीं फुलां जशीं वोंवळां, मोगरीं, सुरंगां, हातो हांवें केन्नाच विकत घेवन माळ्ळीं नांत. शेजारीय आवयक म्हजे 'घे घे माश्यान घाल' म्हण मोगऱ्यांची हाळ जावं हात्यांची पातय दितालीं. वोंवळीचो रूख, जावं सुरंगीचें झाड. हात्यांचे झील ह्या सगळ्या मुळांत भोवतनां जिवाण्यांचो भंय दिसतालो. तरीय मन भियनासलें. खंयचेंय जिवाणें तुवें पिडल्या बगर तुकां कांयच करना हेंवय खबर आसलें. इतलेंच न्हय तर तांचेर विश्वासय आसलो.*




**शर्मिला वि. प्रभू**

आगाळी-फातोर्डा.

फोन : २७४०६४०


**म**डगांवासून म्हार्दोळ वतना वाटेर वोंवळांचे पोड घेवन बायलां बशिल्लीं. तीं वोंवळां, त्यो मोगऱ्या फातयो पळोवन मन परमळ्ळें. दोन वोंवळांचे पोड, दोन मोगऱ्यांच्यो फातयो घेवन पयलीं माळ्ळ्यो. रासभर फुलां माळिल्लीं पळोवन घोवाचें तोंड मात्शें निर्शेलें. 'आनी दोन फातयो घेवूं? माळटलें?' ताणें प्रस्न केलो. तसो हांवें मोन्यानीच न्हयकार दिलो. गाडी म्हार्दोळा काडून खांडोळ्यां वचपाक धावूंक लागली तशें यादीच्या परमळान मन घुस्पलें. तीं सुरंगां, वोंवळां आनी ती मोगरीं दोळ्यांमुखार दिसूंक लागलीं. नकळत हांव वोंवळी मुळांत पावलें. त्या जाग्याक आमी 'जोगोण' म्हणटालीं. एकाच जाग्यार वोंवळीचीं दोन तीन झाडां आनी एक भिरण. ताच्या भोवतणी, आशी-कुशीक रोयणी हय-न्ही शो दिसताल्यो, पालो-पाचोळ्यान धापलेल्यो! धाव्वी जाय मेरेन सकाळीं उठून ह्या वोंवळीणीचीं वोंवळां हांवें पुंजायल्यांत. लांब केसांच्या म्हज्या दोन विणयांचेर हांवें तीं इश्कोलांत माळून वचप. म्हजे आवयक वोंवळां खूब आवडटालीं. तिचें कुळारचें नांवय 'वोंवळ'च आसलें. ती वोंवळां सुकलीं तरी माळटाली. वोंवळांची एक लक्तुबायेची गजाल म्हळ्यार तीं सुकलीं तरी तांचो वास परमळटा. वाड्यार कोणाचेंय लग्न ठरत तर म्हजी आवय खासा तांच्या लग्नाक म्हणून व्हडशे दोन वोंवळांचे पोड करून खुंटयाळ्याक लांबोवन दवरताली. लग्नाक चार दीस आसतनांच लग्ना घरांत व्हरून ते पावयताली बी! शाळेंत आसतना तर आयज माळिल्लो वोंवळांचो पोड दुसऱ्या दिसा शाळेक वचूंक केंस वळयमेरेन उरतालो.

सदांच फांतोडेर वोंवळी मुळांत वतना आई 'मात्शें सांबाळून वच गो' म्हणटाली. तसो वोंवळीच्या चारय वाटांनी पडिल्लीं वोंवळां पुंजायतनां मात्सो मनांत भंय दिसतालोच! पयलींच हांव भिवकुरें. मात्शें सुर्ऽऽ जाल्यार कच्च करून आंग काडटालें. वोंवळीच्या सामकारा एक तळय आसली. ते तळयेंत पाटांचें उदक रातभर फुगयताली. सकाळीं मागीर बांदांतल्यान व्हरून कुळागरांत शिंपतालीं. एक दिसा अशेंच हांव आनी म्हजी चुलतभयण वोंवळां पुंजावंक म्हण हय-न्ही शा काळखांत वोंवळी म्हऱ्यांत पावलीं. इतल्यान एक काळें कुळकुळीत जिवाणें वोंवळींतल्यान भायर सरलें. आनीक हळुहळू तळये म्हऱ्यांत वचूंक लागलें. तळये म्हऱ्यांत पावतकच तळये देगेवेल्या बेबकांनी पटापटा तळयेंत उडी घेतली. तें जिवाणेंय तळयेंत देंवलें. तशीं आमी दोगीय भयणी

एकामेकाच्या हाताक धरून घरा आयलीं. घरांत कोणाकच ही गजाल हांवें सांगूंक ना. मात चार दीस वोंवळांय पुंजावंक हांव वचूंक ना! भंय वचसर.

गांवांतल्या देवळाकडेन फुलां विकपाक बसपी एक फुलकान्न आसली. ती एकदां वोंवळां पडूंक सुरवात जाली काय येताली. वोंवळी मुळांत कोणय भुरगीं दिसत तर दोळे मोठ्ठे करून पळयताली. बडाबडा तोंडान चणचणत उलयताली. हरशीं मात्शी उसरां येताली. आयताराक मात ती हमखास भेटताली. एकदीस भाटकारान ह्यो वोंवळी बोडकावंक म्हण दोन मानाय हाडले. नेटान आयिल्ले ते मानाय मुळांतल्यो रोयणी पळोवन एकय खांदो मारिनासतना परत गेले. आमच्या कुळागरांत एक वोंवळीचें झाड आसलें. थोडीच वोंवळां मेळटालीं पूण घमघमीत वासाचीं, सामकींच धवीं फुल्ल! हळुहळू ताच्याय मुळांत बारीक रोयणी तयार जाल्यो. अळम्या तेंपार अळमीय येवंक लागलीं. मागीर एकदीस म्हज्या बापायचे तकलेंत कसले विचार आयले देव जाणां! हांव शाळेंतसून घरा येता म्हण वोंवळ भुंयसपाट आनी रोयणीय नाच्च! दोंगरपुळी जावं, दोळे आयल्यार वोंवळांचें उदक दोळ्यांत घालताली. थंड उदकान वोंवळांची पोटली बुडोवन दोळ्यांर दवरताली. म्हजी आजी तर वोंवळांचें उशेंच माथ्याक घेताली!

''वोंवळां सामकीं शीतळ, आंगांतलो कालोर काडटात.'' अशें म्हजी आजी म्हणऽ! उरउरें, सुरसुरें, फुगांव येयत तर वोंवळांचें उशें मुजरत माथ्यामुळांत घेतालीं. मोगरीं, जायो, सुरंगां अशीं नाजूक पूण परमळान भरिल्लीं फुलां हांवें म्हज्या हातांनी झाडां-वालीवयलीं खुडून हाळ करून माळल्यांत. सगळींच फुलां आमगेर फुलतालीं अशेंय न्हय. शेजाऱ्यांचो माटोव मोगरे कळयांनी भरलो काय हांवय थंय पावतालें. काय मोगरे कळे तर खुडून पटापट फातयोय करताले. तांतली एक तरी म्हज्या माथ्यांत शिरकायतालें. आयच्या वरी फातयो कोणच विकनासलो!

सुरंगाचें तर म्हाका भोवच पिशें! तेन्नाय आसलें आनीक आयजय आसा. कोणाच्यातरी पयसुल्ल्या भाटांत भितर अशी सुरंगीण आसली. तिका सुरंगां जावंक लागलीं तसो परमळ आमच्याय कुळागरांत पावतालो. वाऱ्या वांगडा येवपी परमळांचेर म्हाका समजतालें की सुरंगीण फुल्ली. आवय म्हाका केन्नाच त्या झाडार चडूंक दिनासली. आनीक मागीर ती फुलिल्लीं सुरंगां काडल्या बगर म्हाका करमनासलें. झाडार चडून तीं सुरंगा खुडून तांचे देंठ वेगळे करून मागीर हांव त्यो नाजूक दोन-दोन पाकळ्यो एकठांय धरतालें आनीक तीं गुंथतालें. सोबीत भांगरा रंगाचो तो वळेसर पळोवंक कितलो आवडटालो म्हण सांगूं! तांचो तो परमळ आयजय म्हज्या मनांत आसा!

हांतो तर म्हाका सामकोच प्रिय! हात्यांची पात (पाकळी) न्हय. तर पाकळे भितरलें तें हडवेंच बोण कशें! बारीक हळडुव्या रंगाचें. हडव्या-हडव्याशा पावडरान भरिल्लें. हें 'बोण' म्हाका भोव आवडटालें. हात्याचें झाडच मात्शें काट्यांचें कशें. त्या झिलांनी हांतो खंय फुलला तें सोदप म्हळ्यार मजाच कशी! भोव कठीण काम कशें!

म्हज्या आंकवारपणांत हीं सगळीं फुलां जशीं वोंवळां, मोगरीं, सुरंगां, हातो हांवें केन्नाच विकत घेवन माळ्ळीं नांत. शेजारीय आवयक म्हजे 'घे घे माथ्यान घाल' म्हण मोगऱ्यांची हाळ जावं हात्यांची पातय दितालीं. वोंवळीचो रूख, जावं सुरंगीचें झाड. हात्यांचे झील ह्या सगळ्या मुळांत भोवतनां जिवाण्यांचो भंय दिसतालो. तरीय मन भियनासलें. खंयचेंय जिवाणें तुवें पिडल्या बगर तुकां कांयच करना हेंवय खबर आसलें. इतलेंच न्हय तर तांचेर विश्वासय आसलो. भाटांत-कुळागरांत भोंवतना कसलोच भंय मनांत येनासलो. वर्सान फेब्रेर-मार्च आयलो काय मोगऱ्या-फातयो, वोंवळांचे पोड विकत घेवन हांव माळटां. वासान तांच्या मन धादोस जाता. तरीपूण आपणें शिंपिल्ल्या झाडांच्यो कळयो खुडून हाळ गुंथून माळप हातूंत वेगळीच धादोसकाय! फांत्यापारार वोंवळां पुंजावंक वेगळीच उमळशीक, वोंवळांचे पोड गुंथून ते माळूंक एके तरेची धादोसकाय! दुसऱ्याक माळपाक दिवप ही तर भोव मोलाची धादोसाय! हाकाच फुलपिशें म्हणटात काय?



# पिपळा पेडार

*"पळय आं! पड्डो वयर वता. घरा फाल्लो वा फुडलो देखावो. गोरवांचो गोठो दिश्टी पडटा. लागींच एक शेणाची गायर आसा. पयसल्यान गोरवांचो हांबेवपाचो आवाज येता. गोठ्यांत एक कामेरें णववारी न्हेसून उबें आसा. तें ओणोव घेवन मागीर गोठ्यांतलें शेण गायरेंत घालता. मदीं मदीं तें आपल्या माथ्यावयलो घाम पुसता. कितल्यो वळी जाल्यो?"*



कृ. म. सुखठणकार
रायबंदर – गोंय
मो. : ९८५०५३०७५६

"**बा**बा तूं तुजें नाक, कान, दोळे उगडे दवर. तुका साहित्याचीं बिजां हांगाच मेळटलीं. तातुंतल्यानूच सृजन प्रक्रिया सुरू जातली." सावळो खंय तरी कसल्या तरी परिसंवादाक वचून आयला हें म्हाका रोखडेंच कळ्ळें.

"खंय वचून आयलो?"

"हांव खंयूय वचून येवं, हांवें कितें सांगलां तितलेंच मतींत दवर. कान, नाक, दोळे सताड उगडे दवर आनी सृजन प्रक्रिया खतखतूंक लागली की सोमतें बरोवन काड." सावळो तापलो.

"हां सायबा."

सावळ्यान कितेंय सांगतकच ताची रोखडीच अमलबजावणी करची पडटा. कारण ताचो फॉलोअप जबरदस्त. हांवें रोखडेंच म्हजे वॉल्तेर सारकें केलें कारण बसून बसून ताचो कपडो झिरझिरीत जाल्लो. ह्या वॉल्तेराचेर हरशीं हांवूंच बसतां पूण ताचेर बसून म्हाका सावळ्यान सांगलां तशें कसलेंच साहित्याचें बीज कशें मेळ्ळें ना तर? घडये म्हजे कान, नाक, दोळे उक्ते नासत. वॉल्तेराचेर बसतकच आईन केल्ल्या सांज्याचो वास आयलो. रोखडेंच म्हाका रॉ मटेरियल मेळ्ळें. म्हज्यांतलो भितर आशिल्लो बरोवपी जागो जालो आनी सांज्याची रॅसिपी बरोवन जाली. खंयच्याय पेपराक धाडूं येताली आनी ताचो मथळोय बरोवन जालो 'रव्याचो सांजो'.

दोन मिण्टांनीं रोखडोच सावळ्याच्या मोबायलाचेर कॉल. "कान, नाक, दोळे उक्ते करून बशिल्लो? सृजन प्रक्रिया सुरू जाली?"

"हय. वॉल्तेरार. वॉल्तेर सारकें केलें."

"कितें आयकलें, दिसलें?"

"नाकान हुंगलें."

"कितें?"

"आईन सांजो केला, रेसिपी बरोवन काडल्या. नांव 'रव्याचो सांजो' दवरलां." हांवें सावळ्याक रिपोर्ट दिलो.

"ही ल्हान साहित्यकृति जाली. तरी प्रगती बरी आसा. आरे व्हड व्हड लेखक ओगीच सांगनात, हांवें बरोवन हाडलां तांचें उतरान उतर, अंडर लायन केलां. प्रत्येक मनशांत खंय सृजनशीलताय कसली

ना कसली आसताच. ती फकत आपल्याक कळपाक जाय. हीं उतरां म्हर्जी न्हय व्हड व्हड लेखकांचीं. मागीर एक दीस ही सृजनशीलताय शींक येवन शींके सरशीं साहित्य कृतीच्या रूपान भायर पडटा. कळ्ळें? आतां तूं फकत तुर्जी सगळीं इंद्रियां उक्तीं दवरून बस.'' सावळ्यान म्हाका पर्थून शिटकायलो. ताणें सांगिल्ले प्रमाण हांव परत वॉल्तेर पडवेर घालून बसलों. पांच मिण्टां जाता थंय आसा, मोबायल वाजलो. परत सावळो, ''सृजन प्रक्रिया सुरू जाली?''

''ना.''

''तुजें नाक, कान, दोळे काम करता काय ना? काय ते फकत देखाव्याक आसात?''

''दोळ्यांनी शेवत्याक गायरेंत शेण घालतना पळयलें, कानान तें खोरें ओडटालें ताचो आवाज आयकलो, नाकान शेणाचो वास गेलो. आतां येदोळचे भशेन शेणाचेर काय रेसिपी बरोवंक शकना.

''मागीर तुजे भितरल्या बरोवप्यान कितें बरयलें तर?''

''फकत एक कथेचो मथळो सुचलो. गायरेंत शेण घालतना.''

''आनी कांयच सुचलें ना? म्हणजे ते लेखक फट उलयताले?''

''ना. एकूच वळ सुचली. सकाळफुडें भायर यो जाल्यार आमचें कामेरें लक्षिमें गायरेंत शेण उडयता. फुडें कांयच सुचना.''

''निर्शेव नाका. तुज्यांत सृजनशीलताय आसा. तुवें शेंवत्याक लक्षिमें केलें तें अशेंच? हीच ती तुज्यांतली सृजनशीलताय. आतां हेंच तुवें नाटक बरोवंक घेतिल्लें जाल्यार दोन तीन वळी बरोवन जातल्यो आशिल्ल्यो.''

''कश्यो?''

''पळय आं! पड्डो वयर वता. घरा फाटलो वा फुडलो देखावो. गोरवांचो गोठो दिश्टी पडटा. लागींच एक शेणाची गायर आसा. पयसल्यान गोरवांचो हांबेवपाचो आवाज येता. गोठ्यांत एक कामेरें णववारी न्हेसून उबें आसा. तें ओणोव घेवन मागीर गोठ्यांतलें शेण गायरेंत घालता. मदीं मदीं तें आपल्या माथ्यावयलो घाम पुसता. कितल्यो वळी जाल्यो?''

''चार पांच तरी जाल्यो.''

''जाल्यो मरे? हाका म्हणटात सृजनशीलताय. खंयचें बीं कथेक घेवपाचें, खंयचें नाटकाक वा कवितेक तें कळपाक जाय.''

''तूं एकूच परिसंवाद आयकून सृजनशील जालो मरे.''

''मागीर! हांवें तांचें उतरान उतर बरोवन घेतलां. तुजे कडेन कितें बरोवन जालें काय ना? हांवें सगळें उक्तें दवरलां पूण अजून कांय बरोवन जावना. सकाळफुडें दोळे उक्ते दवरपाचो मात फायदो जालो.''

''कसलो रे बाबा? सृजनशिलताय खंयूय पावूं. दोळे उक्ते दवरपाचे कसले फायदे आसतात तें सांग.''

''आरे वोल्तार पोलीस आशिल्लो. हांवें हॅल्मेट घालूंक नाशिल्लें. तो दिश्टी पडलो आनी हांवें स्कूटर पांयणीत घाली. शंबर रुपया वाटावले.''

''जांव शंबर जाल्यार शंबर, दोळे उक्ते दवरपाचे फायदे.''

''वयल्यान म्हाका कथेचो मथळोय सुचलो 'स्कूटर पांयणींत, शंबर बॉल्सांत' आतां कथा केन्ना सुचता तें पळोवया.''

''आमची सुरवात तरी बरी जाली न्हय?'' हांवें सावळ्याक फुलोवपाक म्हणलें.

''हय तें सोड. तुका मदीं शींक बी आयिल्ली?''

''ना. कित्याक?''

''घोळयो तूं! तुका येदोळ सांगिल्लें न्हय रे शिंके सरशीं केन्ना केन्ना भितरलीं साहित्याचीं बिजां भायर पडटात म्हणून.'' सांवळो म्हजेर तापलो.

''ना रे म्हाका तशी शींक येवना. आई आतां सामार भाजतली तेन्ना हो पोयंट मतींत दवरतां.''

दनपरां आईन कांय सामार भाजलो ना आनी म्हाका शींकूय आयली ना. घराकडेन हाताक कांय लागना म्हणटकच हांव पिंपळा पेडार येवन बसलों. म्हाका पळोवन भूत मावशी बेगीन बेगीन म्हजे म्हऱ्यांत आयली,

भूत मावशी : आज हेवटेन खंय रे बाबा? वाट चुकलो?

खेतलो : वाट मनीसूच चुकता न्ही गे?

भू. मा. : जोक केलो रे खेतल्या? असले जोक करचे पयलीं सांगचें रे. हासना जातकच तुज्या जिवाक लागता.

हांव : आगे सावळो सामको मानेर बसला.

मुंजो : पयलीं आमीच मानेर बसताले आतां मनीसूय मनशाचे मानेर बसपाक लागले?

भू. मा.: आरे तो कितें उलयता तें आयकात रे बाबा. सांग तूं.

हांव : आगे सावळो खंयच्या तरी परिसंवादाक वचून आयला आनी म्हजे फाटल्यान लागला कान, नाक, दोळे उक्ते दवरून आशी कुशीक कितें घडटा तें पळय म्हणून.

खेतलो : तें पळोवन कितें करपाचें?

हांव : मनशां भितर सृजनशिलताय आसता. सगळ्यां भितर, तुमच्या भितरूय आसा.

भू. मा.: आगे म्हजे बाये! म्हजे भितरली स्त्री शक्ती म्हाका खबर आशिल्ली, सृजनशक्तीय बी आसता म्हणून खबरूच ना. पळयलें मरे मुंज्या, आमच्या भितर कितें कितें आसता तें!

खेतलो : हें सावळ्याक परिसंवादाक गेलो म्हण कळ्ळें म्हणुनूच परिसंवादांक वचपाक जाय. आज देंवचारमाम गेला करंजाळे परिसंवादाक.

हांव : विशय कितें?

म्हारू : देव दिता देंवचार नाडटा. बाबा खूब तेंपान मरे.

हांव : तूं खंय गेल्लो?

म्हारू : आमी पिपळा पेड सोडून खंय वतले? आमची धांव पिपळा पेडा मेरेन. तुमीच तोंड दाखयनांत. तूं आतां सृजनशिलताये बद्दल कितें तरी सांगतालो. आमकांय बुदवंत कर मरे!

हांव : हां. ही सृजनशिलताय सगळ्यां भितर आसता. आमकां कथेचीं, कवितेचीं वा नाटकांची बिजां आशी कुशीक सापडटात ताका ही सृजनशिलताय खत पाणी घालून ताचो रूख करता.

भू. मा. : मागीर, पयलीं हीं बिजां सोदपाक व्हिस्त बरी आसची पडलीं न्हय रे मुंज्या?

म्हाका म्हजो वक्लाचो नंबर चेक करचो पडलो.

मुंजो : हय तर. तूं बिजां सोदपाक पिपळा पेडार आयला?

हांव : घरा कांय हाताक लागलेंना. हांगच्यान देवूळ दिसता, बाजारांत वता ते लोक दिसतात. हांगा कितेंय रॉ मटेरीयल मेळ्ळू येता!

खेतलो : सारकें तुजें. आमी इतलीं वर्सां हांगा रावून कांयच केलें ना न्ही रे म्हारवा? तुका कितें जमता जाल्यार पळय बाबा. पिपळा पेडाचें तरी नांव जातलें.

म्हारू : हें मात सारकें उलयलो तूं खेतल्या. केन्ना केन्नाय तूं सारको उलयता. मागीर आमकां वाचूंक मेळटलें की तुजी प्रसिध्द कथा किंवा नाटक तुका पिंपळा पेडार बशिल्ले कडेन सुचलें म्हण.

भू. मा. : राव रे, हांव अडाणी उलयतां म्हणून हासूं नाका. म्हाका पावसांत बियो पडटा आनी फागलां जाता तें खबर आशिल्लें. पूण तूं म्हणटा तशें कथेचीं, नाटकाचीं, कवितेचीं बिजां आशी कुशीक पडिल्लीं आसता तें पयले खेप आयकतां.

हांव : हांवूंय आजूच आयकतां, आमी परिसंवादक खंय वता गे?

मुंजो : आनी प्रत्येक मनशा भितर सृजनशिलताय आसता ती म्हाकाय बी निर्विवाद. राव रे, आमी सगळे गांवगिऱ्या वाठारांतले. थंय भरपूर कथेचीं बिजां आसतात जाल्यार फकत शंकर पाटील, द. मा. मिरासदार ग्रामीण कथाकार कित्याक जाले? आमी आमचे मदली सृजनशिलताय वळखूंक शकले ना? आतां खूब लेट जालो, चुरचुरे.

हांव : हे दिकेन हांवें चिंतलें ना. सावळ्याक विचारचें पडलें.

खेतलो : म्हाका हो पोयंट येदोळ सुचिल्लो पूण तुमी हागेलो पोयंट उखलून धरलो म्हणून हांव ओगी रावलों.

भू. मा. : हय रे तुका सगळें सुचता. पूण तूं उलोवन दाखयना हेंच सांगचें आसा मरे तुका?

खेतलो : तूं मगे म्हजें सगळेंच फकांडांचेर व्हरता.

म्हारु : खेतल्या तूं उलयत राव, हो परिसंवादूच चल्ला अशें धर. तुज्या हातांत मायक आसा, एकदां काय मायक हातांत आयलो, तो सोडप ना. उलयत राव.

खेतलो : म्हजे म्हणणें इतलेंच, सगळ्यांचींच इंद्रियां उत्तीं आसता पूण फत थोडेच नाटककार, कथाकार फॉर दॅट मॅटर चित्रकार कित्याक जातात? बाकीच्यां भितरली सृजनशिलताय खंय गेली?

मुंजो : वॅलीड पॉयंट. म्हगेली आवय गेली पूण हांवें कांय बरयलेंना. श्यामानूच 'श्यामची आई' बरयली, ग्रेसान 'ती गेली तेव्हां' कविता बरयली.

भू. मा. : आरे वर्कशॉपाक गेल्यार हे बाबतींत प्रगती जावं येता? म्हजो एक दुबाव आं हांसू नाका.

म्हारु : भूत मावशे तुका कोण हांसना. आमचे भितर तूंच शाणी हें तूं जाणा जा.

हांव : हांव केन्ना असल्या वर्कशॉपाक वचूं ना पूण कथा, कविता, नाटकां हांचेर तरणाट्यांक मार्गदर्शन जाता अशें हांवें आयकलां.

खेतलो : म्हजो परत एक प्रस्न. रमाकांत आचरेकारान शेकड्यांनी भुरग्यांक मार्गदर्शन केलें. बरोबर?

हांव : बरोबर.

खेतलो : मागीर एकटो सचीनूच कित्याक वयर सरलो? बाकिच्यांचीं बॅटां थंयच घट कित्याक जालीं?

म्हारू : खेतल्या आज बरो फॉर्मांत मरे तूं, बारीक किसां काडपाक लागला. आज सूर्य खंयच्यान उदेला?

खेतलो : म्हणजे? बॉड देवान तुमकांच दिलां?

हांव : तशें न्हय रे खेतल्या. म्हारवान तुका कवतुकान म्हणलां हें समजुपा इतलें तुका बॉड आसपाक जाय.

खेतलो : तूं म्हाका थोमणो मारूं नाका. कळटा म्हाका. म्हज्या प्रस्नाची जाप दियात.

मुंजो : तूं म्हणटा तातूंत तथ्य आसा. आतां आमची रणजी टीम सगळे कडेन मार खाता. आतां तांकां शिवाजी पार्कांत नेट प्रॅक्टीस करपाक धाडली म्हण ती मुंबयच्या टीमी सारखी खेळटली? ना. ती गोंयची रणजी टीमूच उरतली. शिवाजी पार्कान खेळ्ळे म्हण सुनील, सचीन, दिलीप जायना. आतां प्रस्न अशें कित्याक?

भू. मा. : हय मरे! मुंजो दृश्ट लागपा सारखें उलयलो.

खेतलो : हो मुद्दो म्हजो. हांवें हो पॉयंट काडिल्लो.

म्हारू : हय रे सायबा. हो पॉयंट तुवेंच काडिल्लो, मुंज्यान तो एलेबोरेट केलो. जालें तुजें समाधान?

हांव : हय रे साकें तुमचें.

मुंजो : सगळे खाणावळीच्या गल्ल्यार बसले म्हणून आरती प्रभू जायना. आरती प्रभूनूच म्हणलां 'ती येते आनीक जाते. येताना कधी कळ्या आणिते अन् जाताना फुले मागते.' कोण ती?

भू. म. : प्रतिभा.

मुंजो : कळ्ळें मरे तुका. व्यक्ती भितरली प्रतिभाच ताका कलाकृतीच्यो कळयो किंवा बिजां दिता. ती व्यक्ती मागीर आपल्या भितरल्या सृजनशिलतायेन तांचीं फुलां करता. मागीर हीं फुलां कवितेच्या जावं कथेच्या, नाटकाच्या, चित्राच्या रुपान आमच्या सामकार येतात. सगळेच पेंटर सिनेमाचे बोर्ड रंगयताले. सगळ्यां भितर सृजनशिलताय आशिल्ली पूण तातुंतलो एकटोच एम. एफ. हुसैन जालो. ताका एम. एफ. हुसैन कोणें केलो? ताचे भितरले प्रतिभेन.

हांव : कळ्ळें रे सायबा. हांगा येवन बरें जालें. सावळ्याकूय सांगतां, हांगा येवन म्हजे भितरली प्रतिभा जागी जाल्या शी दिसता. म्हाकाय कितें तरी सुचलें.

भू. मा. : कितें रे शाण्या?

हांव : कितें तें खबर ना, मथळो सुचला.

मुंजो : आमकां सांग मरे.

हांव : पिंपळा पेडार.



पडबे

# चीट - आवयची पुताक



*कार्यालयांत तुज्या हातासकयल आशिल्ले अधिकारी चलयांक सारकी वागणूक दिता काय ना हाचेर तुवें बारीकसाणेन नदर दवरपाक जाय. तांचें चलयांकडे वागणें बरें नासत जाल्यार तांकां शिटकावणी दिवपाक जाय. खूबदां चले चलयांचेर दबाव हाडटात. 'तुजें काम हांव करून दितां पूण त्या कामाखातीर हांव सांगतां तें तुका करचें पडटलें' अशें सांगून तांच्या मनाविरुध्द नाका आशिल्लीं कामां करून घेतात. तांच्या भिडेस्त सभावाखातीर मागीर तांचो बळी वता. तुका खबर आसा आगळीक करणारे चडशे चले वळखीचेच आसतात.*



**कुसूम अग्रवाल**
शिवोले - गोंय

मोगाळ अनीश,

अनीश ह्या दिसांनी म्हजें मन खूब बेचैन जालां. तशी देवादयेन भलायकी बरी आसा. भिवपाची गरज ना. डॅडीचें आनी म्हजें केन्ना केन्नाय टुणटुणें वाजता पूण तें ते वेळापुरतें. तूं सदांच म्हणटा न्ही, तुमी बरीं आसात गे. एकामेकाचो मोग करतात आनी एकामेकांक सांबाळटात बी. आतां आमी सरकारी सेवेंतल्यान निवृत्त जाल्यांत. हे सरते जिणेंत एकामेकांक साथ दिवंकूच जाय. तुमी तिगूय जाणां तुमचो फुडार करपाक हांगा थंय शिपडल्यांत. घरा उरल्यांत आमी दोगूय जाणां. तुमी तुमचो फुडार सोडून आमचेबरोबर रावचें अशें आमकां मातूय दिसना. तुमी स्वतंत्र विचार करचे, तुमचे निर्णय तुमी घेवचे म्हूण तुमकां आमी ल्हानपणासावन वळण दीत आयल्यात. तुमी योग्य निर्णय घेतल्यात आनी तुमी तातूंत खोशी आसात म्हूण आमकां समाधान मेळटा. मागीर बेचैन जावपाचें कारण कितें? अशें तूं चिंतता आसतलो. सांगतां.

अनीश ह्या दिसांनी नेमाळ्यांनी चलयांचेर आगळीक जाता अशी एक तरी खबर आसताच. तुज्यो भयणीय आज कामानिमतान भायर आसात. बेश्टोच हुस्को जाता. जे तरेन तुमकां आमी संस्कार दिल्यात तें पळयल्यार तुमचें पावल चुकचें ना हाची म्हाका खात्री आसा. चलयेची सदां चूक आसता अशेंय ना. दिल्लीक घडिल्ले ते घटनेंत चलयेची कांयच चूक नासतनाय आगळीक जाली. कितल्यो यातना भोगच्यो पडल्यो ते चलयेक! कितलें तळमळ्ळां आसतलें तें चली! आपल्याक सोडात म्हूण कितल्यो याचना केल्या आसतल्यो तिणें! आज लेगीत तें चित्र दोळ्यांमुखार येतकच त्या निर्दयी चल्यांची याद येवन मन सुन्न जाता!

तुकां याद आसा आमी पंदरा-पंदरा दीस भोंवडेर वतालीं. घराकडे तुमी तिगूच जाणां आसतालीं. हांव तुज्या इश्टांक वळखतालें. ते आमगेर खूबदां येताले तरी लेगीत म्हजी तुका शिटकावणी आसताली, ज्या दिसांनी आमी घरा नासतात त्या दिसांनीं तुज्या इश्टांक घरांत हाडूं नाका. त्या ल्हान वयांत लेगीत तुका कितली समज आसली. तूं आमचें सांगणें मानतालो. तुजे भयणीचो आमकां खूब हुस्को जातालो. त्या दिसांनी तूं खूब जबाबदारेन भयणींचो सांबाळ करतालो. खेळून जातकच तुमी सगळे इश्ट बसून गजाली करताले. पूण त्या दिसांनी तूं गजालींक राव नासतना बेगीनूच घरा येतालो. जाय तें सामान तूंच हाडटालो. ल्हानपणा सावन तूं खूब समजूतदार आशिल्लो. तुज्या असल्या सभावाखातीर तुका 'वाड्यावयलो सगल्यांत बरो भुरगो' म्हूण इनाम मेळिल्लें.

तसो तूं वाड्यावयल्या चलयांकडेन कमीच उलयतालो. तुजो चलो आमचेकडे उलयना म्हूण तीं सदांच कागाळी करतालीं. आमीय तुजेर तांचेकडे उलय म्हूण जबरदस्ती केलीना. तुवें कोणाकडे उलोवचें हो तुजो प्रस्न आशिल्लो. पूण सरीनाकडे उलयतना हांवें तुका खूबदां पळयल्लें. तुमी दोगांय जाणां शाळा सोंपल्या उपरांत उलयत घरा येतालीं. तुमची इश्टागत पळोवन म्हाका तुमची अपुरबाय दिसताली. आज कामानिमतान तुमी दोगांय पयसावल्यांत पूण आजलेगीत तुमची इश्टागत तशीच आसा.

अनीश तूं म्हणटलो, 'हें सगलें तूं म्हाका कित्याक सांगता? हय ताका तशेंच कारण आसा आज तूं जाबबदारीच्या हुद्द्याचेर कामाक आसा. तुज्या कार्यालयांत चलयोय आसात. जे तरेन तूं तुजे भयणींची राखण करतालो तशीच तांचीय राखण कर. तांचेकडे एखादें काम जालें ना जाल्यार तांकां समजावन सांग. चारचौगांत तांचो अपमान करूं नाका. तुका तुजें काम

वेवस्थीत केल्लें जाय. जेन्ना अशें जायना तेन्ना तुजेवयलो ताबो वता आनी तुका राग येता. तुज्या रागाचेर नियंत्रण दवर. तुजें काम पूर्ण केल्या शिवाय तूं कार्यालय सोडना. हो तुजो गूण म्हाका खूब आवडटा.

तूं म्हाका सांगतालो की तुज्या कार्यालयांत खूब पयशिल्ल्यान चलयो कामाक येतात. तातूंत कांय लग्न जाल्ल्यो बायलो आसात. तांचीं ल्हान ल्हान भुरगीं आसात. कार्यालयांतल्यान तीं घरामेरेन पावसर जबाबदारी तुजी आसा. कामाच्या वेळा शिवाय जर ताका कार्यालयांत दवरता जाल्यार तीं घरा वेवस्थीत पावतलीं हाची जबाबदारी तुका घेवची पडटली.

कार्यालयांत तुज्या हातासकयल आशिल्ले अधिकारी चलयांक सारकी वागणूक दिता काय ना हाचेर तुवें बारीकसाणेन नदर दवरपाक जाय. तांचें चलयांकडे वागणें बरें नासत जाल्यार तांकां शिटकावणी दिवपाक जाय. खूबदां चले चलयांचेर दबाव हाडटात. 'तुजें काम हांव करून दितां पूण त्या कामाखातीर हांव सांगतां तें तुका करचें पडटलें' अशें सांगून तांच्या मनाविरुध्द नाका आशिल्लीं कामां करून घेतात. तांच्या भिडेस्त सभावाखातीर मागीर तांचो बळी वता. तुका खबर आसा आगळीक करणारे चडशे चले वळखीचेच आसतात.

अनीश, केन्ना केन्नाय तांचेकडे संवाद घडोवन हाड. तांकां तांच्या कामाबद्दल विचार. तांकां काम जमता वा कांय अडचणी आसात हाचे बद्दल वासपूस कर. काम बरें जावपाक जाय जाल्यार तुका सगल्यांचें मन सांबाळचेंच पडटलें. घर सांबाळून कार्यालय सांबाळप ही खूब व्हड जबाबदारी आसता. तूं ह्यो चडश्यो गजाली करता आसतलो पूण आवयचें काळीज! तिका आपलो भुरगो ल्हानूच दिसता. म्हाका याद आसा मुंबय ताज हॉटेलांत बॉम्ब स्फोट जालो तेन्ना हांवें तुजी खबर घेवपाखातीर फोन लायलो. रिंग वताली पूण तूं मोबायल घेनाशिल्लो. म्हजेर आकांत आयलो. नाकाशिल्ले विचार तकलेंत येवपाक लागले. खूब वेळान तुवें म्हाका फोन केलो. तूं उलोवच्या पयलींच हांव तुजेर खूब तापलें. पूण जेन्ना तुवें सांगलें 'कार्यालयांतल्या सगल्या चलयांक घरा पावोवपाची वेवस्था करतालों ते खातीर फोन करपाक मेळ्ळोना.' तेन्ना म्हजो राग थंयच्या थंय देंवलो. बोट बुडटा आसतना खंय कॅप्टनान लोकांचो जीव पयलीं वाचोवपाचो आसता आनी मागीर आपलो.

अनीश तुज्या कार्यालयांतूच न्हय तर जर तुका खंयूय, कोणूय चलयेचेर अन्याय अत्याचार करता आसतना दिसत जाल्यार त्या अन्यायाविरुध्द आवाज काड. कारण अन्याय सोंसप हें व्हडलें पातक! फाटीफुडें पळयनासतना तांच्या आदाराक वच. तुज्या भयणीसारकी तिवूय कोणाली तरी भयण आसतली. म्हज्या धुवेसारकी कोणाची तरी धूव आसतली.

चीट खूब व्हड जाली. आमची चिंता करूं नाका. हॉटेलांतल्यो वस्तू पचनशिल्ल्यान तूं रांदपाक शिकला हें वाचून खूब बरें दिसलें. घरच्या जेवणान तुजी भलायकीय बरी उरतली. आपलेभशेन पूत स्वावलंबी जाला म्हूण डॅडी खूश आसा. तुवें घेतिल्ल्या निर्णयांत आमचें तुका सदांच फाटबळ आसतलें.

तुजीच मोगाळ
मम्मी.



# सोंसणीकाय पूर्णतायेची खात्री



'सोंसणीकाय सगळ्या सदगुणांची राणी' अशें ख्रिसोस्टम हाणीं म्हटलां. ह्या उतरांचेर खोलायेन नियाळ करपाचें हांवें म्हज्या मनांतूच चिंतलें. खरेंच, सोंसणीकाय आमकां गरजेची न्हय? सोंसणीकायेन वागतलो, आपल्या जिवितांत बरें तें आपणायता अशें म्हणटात. हें सगळें मनांत दवरून, सोंसणीकाय आपणावूंक गरजेची वो फायद्याची हाचेर थोडोसो उजवाड घालतां.

आमकां दर एकल्याक सोंसणीकाय भोव गरजेची. आमी समाजाच्या खंयच्याय मळार वावरूं, सोंसणीकायेंतल्यान आमी जायतें शिकूं येता. आमचे जिणेंत येतलीं वादळ मोडां वो हेर परिस्थिती हीं सगळीं तात्पुरतीं म्हणून जाणून घेवपाची तांक आमका दर एकल्याक आसल्यार खूब फायदो जावं येता. आमी खंयचेय परिस्थितीक फुडो करतना मनाची थिराय सांबाळून, शांततायेची आनी थंडपणीं आमची वागणूक जाली जाल्यार सगळे प्रस्न आपो-आप सुटूंक वेळ लागचोना. पूण असलें वातावरण आमच्या समाजांत आमकां भोव कमी प्रमाणांत दिश्टी पडटा.

'मनीस सोंसणीकाय आपणायता तेन्ना ताका आपले खुशे प्रमाणें जाय तें आपणावपाक सोंपें जाता.' अशें बेंजामीन फ्रँकलीन म्हणटा. आमच्या मदल्या साबार जणाच्या जिवितांत सोंसणीकायेक जागोच ना म्हटलें जाल्यार लटकें जावचें ना. सोंसणीकाये वरवीं जिवितांत आत्म-थिराय आनी आत्मविस्वास वाडटलो आसलो. पूण असलें चित्र आमच्या दोळ्यां मुखार येना. दुसऱ्यांचीं फकाणां करप आनी वेल्यान दुसऱ्यांनी जाप दिली जाल्यार आपलो ताबो चुकोवन, दुसऱ्यांच्या आंगार हात करप तांकां सदाचेंच जालां. 'Patience ना आमकां' अशें बडायेन सांगपाचें वाडत आसा.

खंयचेय संस्थेंत वावुरतलो जाल्यार जायतें आमी सोसूंक जाय. खंयचेय सुवातेर तें जावं. शाळा-म्हाविद्यालयानी, सरकारी, बिन-सरकारी खात्यांनी, धर्मीक आनी समाजीक संस्थांनी आनी हेर. सोसणीकाय हो बऱ्यांतलो बरो गूण म्हूण आमच्यांनी म्हणू येता. संवसाराचो सोडवणदार जेजू ख्रिस्त हाणीं साबार तरांनी सोंसलें आनी आमकांय सोंसणीकायेचो गूण आपणावंक उलो दिलो. आयज धर्मीक मळार जायते धर्मप्रगटणार सोंसतात. जायत्या समुदायांचे फुडारी सोंसतात. पूण केन्ना, केन्नाय तांचेमदीं निराशीपणाचें ल्हार पातळिल्लें दिश्टी पडटा. 'सोंसणीकाय' एका फुडाऱ्याचो गूण. 'सोंसता ताका देव पोसता' म्हणटात न्हय?

'फादर म्हाका म्हज्या चेडवाच्या पवित्र स्नानाचो दाखलो जाय.' एक तीस वर्सां पिरायेची अस्तुरी इगर्जेंत येवन सांगूंक लागली. फादर खूब कामांत गुल्ल जाल्लो. त्या दाखल्याची खूब गरज म्हूण म्हत्वाचो वावर कुशीक दवरून, तिच्या चेडवाची जल्मतारीख घेवन फादर दाखलो सोदूंक लागलो. १५-२० मिनटां दाखलो मेळना तें पळोवन ती उदगारली. "तुमी तो दाखलो सांडयला आसतलो. तुमकां जबाबदारी ना?"

"तुमच्या चेडवाक हेच इगर्जेंत पवित्र-स्नान दिल्लें न्हय?" फादरान विचारलें.

"हेच इगर्जेंत पवित्र स्नान दिल्लें देखुनूच आयलां हांव." तिची रागान जाप.

सुमार चाळीस मिनटां जाल्या उपरांत तीच अस्तुरी म्हणपाक लागली, "दुसरे इगर्जेंत चेडवाक पवित्र-स्नान दिल्लें अशें म्हाका दिसता."

"इतलो वेळ तुवें म्हाका सांगपाचें न्हय?" फादरान इतलेंच म्हळें आनी ती अस्तुरी गेली.

असली परिस्थिती आमचेर आयली जाल्यार आमी कितें करपाचें? ह्या फादराची वागणूक आमची जातली व्हय? ना जाल्यार सोंसणीकायेंत जाणवाय आसा म्हूण मानून घेवया. आमचे जिणेंत येतल्यो आडखळी मानून घेवप, पिडेंत पडटात तेन्ना थंडपणी सोंसप, मानसीक भावना दुखवतात तेन्ना संतुळा सांबाळप गरजेचें. दुसऱ्याच्यो चुकी मानून घेवप, जिणेंतल्या अपयशांक मान्यताय दिवप आनी हेर उपाय घेत जाल्यार सोंसणीकाय आपणावंक सोंपें जातलें. जिणेंत यशस्वीपणी फुडारपण जोडटलो जाल्यार सोसणीकाय आमची करून घेवप शाणेपणाचें. कित्याक सोंसणीकाय जिणेंत पूर्णतायेची खात्री दिता!



– जॉन एम्. आल्फोंसो कार्मेलीत
पेडें,
म्हापशें – गोंय.





हालींच बर्लीनाक जाल्ल्या एका पर्यटन मेळाव्यांत गोंयच्या पर्यटन खात्याक दर्यादेगो विभागांत 'पॅसिफीक एरिया रायटर्स अॅसोसिएशनाचो पुरस्कार फावो जालो. तो स्वीकारतना गोंयचे पर्यटनमंत्री भौ. दिलीप परुळेकार



आमदार आनी ज्येश्ठ नाटककार विष्णू वाघ हांच्या तीन मराठी आनी तीन कोंकणी अश्या स पुस्तकांचें लोकार्पण हालींच कला अकादमींत जालें. त्या वेळार मनोहर पर्रिकार, कला आनी संस्कृती मंत्री दयानंद मांद्रेकार, लेखक आनी कला अकादमीचे अध्यक्ष विष्णू वाघ, उद्योगमंत्री महादेव नायक, उपसभापती अनंत शेट, वीजमंत्री मिलींद नायक, कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष पुंडलीक नायक, राजभास संचालक डॉ. प्रकाश वजरीकार, पत्रकार संध्या नरे पवार, अभिनेते किशोर कदम, अरुणा वाघ आनी हेमा नायक



कोंकणी भाशा मंडळाच्या उपासना हे कार्यावळींत पणजेच्या टी. बी. कुन्या सभाघरांत पुस्तकांचो विमोचन सुवाळो जालो. हातूंत उषा ज. कामत, युगा आडारकार आनी सरस्वती नायक हांच्या पुस्तकांचें विमोचन जालें. त्या वेळार हाजीर आशिल्ले मानेस्त, नागेश करमली, तुकाराम शेट, अनुराधा नायक, सुधा खरंगटे, दिपा खोलकार, चेतन आचार्य, नयना आडारकार, अन्वेशा सिंगबाळ आनी हेर



दिलीप बोरका, रजनी भेंब्रे, हर्षा शेटये आनी माया खरंगटे हांच्या बालसाहित्याच्या पुस्तकांचें विमोचन करतना नामनेचे साहित्यीक श्री. विश्राम गुप्ते आनी कोंकणी भाषा मंडळाचे आदले अध्यक्ष श्री. प्रशांत नायक.

# घडामोडी




गोवा कोंकणी अकादेमीचे कोंकणी साहित्य आनी भाशा सेवा पुरस्कार हालींच भेटयले. त्या वेळार जैतिवंत मानेस्तां सयत नामनेचे पंजाबी कवी डॉ. सुरजीत पातर. कुशीक सभापती राजेन्द्र आर्लेकार, गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष पुंडलीक नायक, फुडले रांकेंत दावे वटेन, माया खरंगटे, डॉ. किरण बुडकुले, दामोदर मावजो, इंदू गेरसप्पे आनी कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष भुषण भावे. फाटले रांकेंत दावे वटेन विजयाकांत नमशीकार, परेश कामत, कवीन्द्र फळदेसाय, डॉ. सोनिया सिरसाट, रामनाथ गावडे आनी गोपिनाथ गांवस



कवयित्री शिल्पा डुबळे हांच्या अव्यक्त सूर ह्या काव्यसंग्रहाचें प्रकाशन हालींच पणजे शारांत जालें. त्या वेळार पुस्तकाचें विमोचन करतना प्रा. कृष्णाजी कुलकर्णी, प्रा. अनिल सामंत, कला आनी संस्कृती खात्याचे पालवी संचालक अशोक परब आनी शिल्पा डुबळे



# वखदां आनी गिरायक राखण – २

**दु**सरी समस्या म्हणल्यार वखदांचो दर्जो.खूबश्या राज्यांतल्यान मेळिल्ले म्हायती प्रमाण वखदांचे नमुने चांचणी पासत घेतिल्ले तातुंतल्या ५/१० टक्के वखदांचो दर्जो हो योग्य नासता. आमच्या देशांत जायत्यो आडखळी आसात, हांगा अर्थिक ,समाजीक,राजकी कारणांक लागून कायद्याचें, नेमांचें पालन जायना वो तांची फाव तशी सक्ती जायना.वखदांची चांचणी करपाच्यो सुविधा अपुऱ्यो आसात,नेमाचो दर्जो जाय तसो कडक ना आनी जरी ते आसले तरी तांची अमलबजावणी सारखी जायना!

मनशां पासत वखदां वापरपाचो परवानो मेळचे आदी,तांची सुरक्षा आनी गुणवत्तेचें सिद्धकरण करचें पड़टा. हें मनशां मर्दींच 'क्लिनीकल ट्रायल्स'वो चाचणी करून सिद्ध करचें पड़टा. दुर्दैवान आमच्या देशांत हाची कार्यपद्धत योग्य तरेन नाच! आनी दुसरी गजाल म्हणल्यार कायद्यान ज्यो पद्धती आसात तांचो लेगीत सारको वापर जायना. कांय राज्यांच्या नियंत्रकांनी कार्यपद्धत आनी कायदो मोडून जायतीं फीक्स्ड डोस कम्बीनेशनाक तयार करपाक मान्यताय दिल्या!

मे २०१२त जेन्ना कांय कंपन्यानी बेगोबेग संमती मेळची देखून आपल्याच वखदांविशीं वैधानीक शिफारस करपी पत्रां बरोवन तीं कांय नामनेच्या दोतोरांच्या नांवान वखदां नियंत्रकांक धाडलीं तेन्ना सांगाडे सांपडले. तशेंच क्लीनीकल ट्रायल्स म्हळ्यार मनशांचेर जावपी वखदां चांचणी प्रकरणांत जुलाय २०१२त जी आकडेवारी उगड जाली. असल्या चाचण्यांक लागून २०१०त आनी २०११त मर्दी ६६७ आनी ४३८ लोक मेल्ल्याची म्हायती मेळ्ळी. तातुंतले अनुक्रमे २२ आनी १६ जाण तर चाचणी करताना वापरिल्ल्या वखदाक लागून मेल्ले. हाचेवेल्यान आमच्या देशांत मनीसजातीक फावो तितलो वालोर ना आनी तांचो गिनीपीग्स कसो वापर करून तांचेर अत्याचार जावपाचे प्रकार चालूच आसात! आमच्या देशांत दरेका वखदा वांगडा त्या वखदाची म्हायती आशिल्लें पत्रक, जाका लागून तें वखद घेवपी रूग्णाक ताचेवेल्यान उपयुक्त म्हायती मेळटली तें दिवपाची सक्ती ना.वैज आनी फार्मासिस्टांक फावो ती म्हायती रूग्णांक दिवप खूब फावटी शक्य जायना. तशेंच रूग्णय तितले जागरूक नाशिल्ल्यान तांचे कडल्यान म्हायती घेवपाक कांचवेतात. हातांत आयिल्ल्या तपशिलावेल्यान फुडारिल्ल्या देशांनी लेगीत वैजांनी सांगिल्ले प्रमाण वखद घेवपाचें प्रमाण पन्नास टक्क्यां परस उणें आसा. हाचेवेल्यान आमच्या देशांत कितें परिस्थिति आसतली हाचेर विचार करूं येता. पूण हें आमी सुदारूंक शकतात.ते पासत जागृताय घडोवन हाडची पडटली.वखदांचो वापर कसो करचो आनी योग्य रितीन कसो करचो हें कळत जाल्यार वखदाचो बरो गूण मेळपा वांगडाच सायड इफेक्टस टाळून वखदांचो खर्चूय उणों जावं येता.ते पासत रूग्णांक आपूण घेता त्या वखदांची थोडीभोव मुळावी म्हायती आसप गरजेची. ती म्हळ्यार:-

अ.वखदाचें नांव आनी तातुंतलें ड्रग खंयचें?

ब. वखद कितें काम करतलें?

क. वखद केन्ना,कशें आनी कितलो तेंप घेवपाचें?

ड. वखद घेतना सोरो,हेर वखदां वो कांय पथ्यां बी पाळचीं पडटात?

इ. वखदांचे सर्वसादारण साइड इफ़ेक्ट कितें आनी कांय गंभीर साइड इफ़ेक्ट जावं येतात? जाल्यार कितें करचें?

फ. वखद घेवपाक विसरल्यार कितें करप?

ग. वखद घेतना गुरवाचार येवं येता काय? आवय आपल्या आंगार पाजूंक शकता?

ह. वखद योग्य तरेन कशें साठवंचें/दवरचें

दुर्दैवान ही सगळी म्हायती चड करून रुग्णाक उपलब्ध जायना!

खंयच्याय वखदांचे सायडइफेक्टस जावंक शकतात हें सत. ते अल्प प्रमाणांतूय जावं येतात आनी धोकेदायकूय थारूं येतात. ते सामान्यूय आसूं येतात आनी दुर्मीळूय. जे टाळूं शकतात आनी टाळूं नज अशेय आसूं येतात. फुडारील्ल्या देशांतल्या आकडेवारी प्रमाण जनरल प्रॅक्टीस करपी वैजांच्या कोन्सुल्तरींत सायडइफेक्टसांचें प्रमाण दोन ते अयशीं टक्के सांपडटा, सायडइफेक्टसांक लागून इस्पीतळांनी पांच टक्के भरती जाता. इस्पीतळांतल्या धा-वीस टक्के रूग्णांक इस्पीतळांत सायडइफेक्टस जातात आनी सुमार सात टक्के रूग्णांक 'गंभीर ' सायडइफेक्टस जाता आनी ०.१% ते ०.३% रूग्णांक 'घातक' सायडइफेक्टस जाता आनी इस्पीतळांतल्यान मरतात ताचें प्रमाण तीन टक्के सायडइफेक्टस आसतात.अमेरीका सायडइफेक्टसांक लागून मरपाचे पाचवे सुवातेर आसा!

भलायकी कार्यकर्त्यांकडल्यान वो रूग्णांकडल्यान वखदांच्या उपचारांत चूक जावप जाका 'मॅडीकेशन ॲरर म्हणटात तीय एक समस्या आसा. चुको खंयच्याय टप्प्यार जावंक शकतात, म्हळ्यार वखद निवडटा सावन रूग्ण वखद घेता वो ताका दितात तेन्ना मेरेन लेगीत! देखून हाका वैज,नर्स,फार्मासिस्ट,रूग्ण बी कोणूय जापसालदार थारूंक शकता. भिरांकूळ गजाल म्हळ्यार इस्पीतळांतल्यो तीस टक्के समस्या' मॅडीकेशन ॲररांक'क लागून जातात. अमेरीकेंत प्रत्येक इस्पीतळांत ॲडमीट आशिल्ल्या रूग्णा पयकी सरासरी एक रूग्ण 'मॅडीकेशन ॲरर' अणभवता. अमेरीकेंत दर वर्सा मॅडीकेशन ॲररांक लागून सात हजार रूग्ण मरतात आनी ४० अब्ज डॉलरांचो खर्च जाता. २८% सायडइफेक्टस मॅडीकेशन ॲररांक लागून जातात,जे खरें म्हळ्यार टाळूं येतात.

हे बाबतींत भारतांत कितें घडूंक शकता हाचेर आमी कल्पना करूंक शकतात. हे बाबतींत आनीकूय घुस्पागोंदळ जाता तो रूग्णांच्या आपले आपूण थारावन वखदां घेवपाचे सवंयेक जाका सेल्फ मॅडीकेशन म्हणटात! हाका प्रोत्साहन मेळटा तें रसेता बगर सर्रास वखदा मेळटात देखून!आनी तींय फार्मासिस्ट नासतना पासून!ह्यो दोनूय गजाली बेकायदेशीर आसात. आमच्या देशांत कायद्यांत त्रुटी तर आसाच, आनी आशिल्ल्या कायद्यांची आमी योग्य अमलबजावणी करूंक शकनात! आमचे भितर शिस्तीचोय उणाव आसा. सगळोच गोंदळ म्हणल्यार जाता. वखदांचे सुरक्षिततताये विशीं आमी मात्तूय जागरूक नांत!

मनशांमदीं वखदांची सुरक्षितताय जर अमलांत हाडूंक जाय जाल्यार ताका राजकीय इत्साशक्त, संबंदीतांची संयुक्त येवजण, तशेंच शिक्षण आनी प्रशिक्षणाची गरज आसा. पूण सद्याची परिस्थिति पळयल्यार हें घडपाची शक्यताय उणीच दिसता. तरीय आमकां फुडाराची गंभीर परिस्थिति उप्रासची न्हय अशें दिसता आसत जाल्यार जबरदस्त राजकी इत्साशक्त आनी समाजांत वट आशिल्ल्या कोणेंय मुखार सरून ही समस्या सुटावी करूंक वावुरचें पडटलें. तशें घडटलें काय आमी कितेंय भिरांकूळ घडटकच जागे जातले हेंच पळोवंक जाय!

आमी आतां विचार करपाचो वेळ आयला,वखदां आमचो जीव वाटयता वो आयुश्य लांबयता! तेच वांगडा तांचे पासून इजाय जावंक शकता. तेन्ना हे समस्येचेर आमी लक्ष दितले काय ना? हारवर्ड विद्यापीठाचे वखदाशास्त्राचे प्रोफेसर ओ.डब्ल्यू. होमस् म्हणटा, जर संवसारांतलीं सगळीं वखदां व्हरून दर्यांत बुडयलीं जाल्यार तें नुस्त्याक घातक पूण मनीसजातीक बरें!





– राज वैद्य
इंडियन फार्मास्युटिकल ॲसोसिएशन
ईमेल : ipacpd@gmail.com

# आडवे



– संतोष शिवराम हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,
फोंडा-गोवा ४०३ ४०१

१. एक माप, पडिचो आठवो भाग
३. बऱ्या नशिबाचें, सूख समादानाचो लाव घेवंक पाविल्लें.
६. दुदाची साय
८. गरिबाचें सिगार : तीस छाप xx
९. शंकराच्या हातांतलें वाद्य
११. टॅक्स वा हात (मराठी)
१२. फाटल्यान दवरिनासतना, मुळासावन, सामकें
१४. पत्रां, डाक
१६. लुगट, वस्त्र, आंगसो
१९. कौन बनेगा xxxxx : अमिताभची एक फामाद टी. व्ही. माळ
२१. त्रास दिवप, धोंगसप
२२. वेळ, काळ (हिंदी)
२३. फुगोवप, मोटसाण हाडप
२६. भिरांकूळ मनीस, भुरग्यांक भेश्टावचेलें उतर
२७. केंस घट्ट उरूंक लावचेलो आडवो आंकडो
२८. घरांत आयिल्ल्या परकी मनशाची जेवणा-खाणाची बी सगली वेवस्था.
३०. चुडट्यो ओडून सरळ केल्लें माडा चुडटांचें अर्द
३१. रागान उलोवपी, रोखडोच तापपी

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| १ | | २ | ■ | ३ | | ४ | | ■ | ५ |
| | ■ | ६ | ७ | | ■ | | ■ | ८ | |
| ९ | १० | ■ | ११ | | ■ | १२ | १३ | | |
| ■ | १४ | | | ■ | १५ | ■ | | ■ | ■ |
| ■ | | ■ | १६ | १७ | | ■ | | ■ | १८ |
| १९ | | २० | | | ■ | २१ | | | |
| | ■ | | ■ | ■ | २२ | | | ■ | |
| २३ | २४ | | २५ | ■ | | ■ | ■ | २६ | |
| २७ | | ■ | २८ | | | | २९ | ■ | |
| ■ | ३० | | | ■ | | ■ | ३१ | | |

# उबे

१. गीद, मांस खावपी एक व्हड सवणें
२. खेळगड्यांचो मेळ, संघ (इंग्लीश)
३. भितरच्या विरुध्द
४. नमन, नमस्कार
५. पिडिल्लें, पिडेस्त (मराठी)
७. चकचकप, झगझगप
८. xx माझी पुरी करा : एक फामाद मराठी वग-नाट्य (नाटक)
१०. फट उलोवपी
१३. पवित्रपण
१५. माडा चुडटाचो मदलो भाग, पिडारो
१७. घोव
१८. आपलीं कामां आपूण करपी
१९. ल्हान कळसो
२०. बेब्याचो आवाज
२१. सारकें, बराबर
२२. फळांच्या रोसाचें पेय
२४. एक गोड ल्हान फळ
२५. खर न्हय असो उजवाड
२९. रुशी, सन्याशी

## मार्च उत्तर कुवाड्याची जाप

| | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| जे | व | णा | व | ळ | ■ | कुं | ■ | अ | ष्ट |
| जू | न | ■ | ग | ■ | सं | भ | व | प | ■ |
| ■ | दे | वू | ळ | ■ | स्था | ■ | ■ | घा | त |
| वा | व | ■ | प | व | न | ■ | भि | त | र |
| स | ता | ड | ■ | च | ■ | ब | ल्ल | ■ | सा |
| पू | ■ | फ | त | क | ल | ■ | मा | रां | द |
| स | भा | ■ | ळ | ■ | क | वा | ड | ■ | ■ |
| ■ | र | वी | स | ■ | ल | डो | ■ | बाँ | बे |
| ■ | ती | ■ | प | च | क | ■ | आं | ■ | जा |
| गा | य | न | ■ | क्र | ■ | ला | ग | सा | र |

# 1 आस्वासन पाळपी सरकारचे एक वर्स

## गोंयचो गौरव












## वचन पुर्तताय

- वॅट काडून उडोवन दर लिटरा फाटल्यान 11.00 रुपयांनी पॅट्रोलाचो दर कमी.
- म्हारगायेक तोंड दिवपा खातीर बेघरांक घर आदार येवजणे खाला दर म्हयन्यांक 1,000 रु. भत्तो.
- वरिश्ट नागरिकांक डीएसएस येवजणे खाला दर म्हयन्यांक रु. 1,000 सावन रु. 2,000 मेरेन आनी वेगळ्या क्षमतेच्या इसमां खातीर रु. 3000 सावन रु. 3500 मेरेन अर्थीक मजतींत वाड.
- लाडली लक्ष्मी येवजणे खाला 18 वर्सां जाल्ल्या दर एका चलये खातीर रु.1 लाख.
- दळीदार रेशेखालच्या कुंटूंबाचो घर कर माफ.
- 11 वेंतल्या भुरग्यां खातीर लॅपटॉप आनी शाळा भुरग्यां खातीर टॅबलेट्स दिवन सायबर एज येवजणेचो पुर्नआढावो.
- लोकायुक्त नेमणूक पुराय.
- एसटी लोकसंख्येच्या पुराय कल्याण आनी विकासा खातीर व्हड येवजण निधी. जायत्यो येवजण्यो अधिसुचीत. धनगर समाजा मेरेन लाबाचो विस्तार.
- दर एका तालुक्यांत ''कृशीरथ'' येवजण आयोजीत.
- दूद वेवसाये खातीर कामधेनू येवजणेंत सुदारणां.
- 24×7 उदक पुरवणेच्या संबंदांत व्हडा प्रमाणांत फुडाकार.
- वरिश्ट कालाकारांक कला सन्मान निवृत्ती वेतनांत आनी राज्य सांस्कृतीक पुरस्कार प्राप्त कालाकारांक दर म्हयन्यांत अनुक्रमे रु. 2500/- आनी रु. 3200/- निवृत्ती वेतनांत वाड.



श्री. फ्रान्सीस डिसोझा
भो. उपमुख्यमंत्री



श्री. सुदीन ढवळीकार
भो. मंत्री, पिडब्ल्यूडी, येरादारी आनी न्हंय येरादारी



श्री. लक्ष्मीकांत पार्सेकार
भो. मंत्री, भलायकी, पंचायत आनी ग्रामीण विकास



श्री. दयानंद मांद्रेकार
भो. मंत्री, उदक स्रोत, नागरीक पुरवण आनी मोल नियंत्रण, कला आनी सांस्कृतीक



श्री. रमेश तवडकार
भो. मंत्री, खेळां आनी युवा वेव्हार, अनुसुचीत जमात वेव्हार



श्री. महादेव नायक
भो. मंत्री, उद्येग आनी समाज कल्याण



श्री. दिलीप परुळेकार



श्री. मिलिंद नायक
भो. मंत्री, वीज आनी घर



श्री. पांडुरंग मडकईकार



श्री. आर्वेलनो फुर्तादो
भो. मंत्री, मजूर, रोजगार आनी नुस्तें वेवसाय



श्रीमती ऑलिना साल्डाणा



म्हायती आनी प्रसिद्दी खातें
गोंय सरकार
हाच्या मार्फत प्रसुत



धर्मनिरपेक्ष आनी भरभराट पूर्ण गोंयां खातीर कार्यरत

POSTA LICENCE NO: G-2/RNP.Goa/01/2012-14

RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413



Published & Printed by Dilip Borkar Owner of Bimb Monthly, 'Dharm-Laxmi', St. Lourence, Agasaim - Goa & Printed at Impressions, Belgaum. Editor : Dilip Borkar, Ph.: 2438355, E-mail: bimbkonkani@yahoo.co.in